# कथा शिल्प

[ कोंकणी कथा साइत्याचो परामर्स ]

प्रो. लक्ष्मणराव सरदेसाय

जाग प्रकाशन



जाग प्रकाशन : २३

शणै गोंयबाब जल्मशताब्दी वर्स प्रकाशन : ७

फेब्रुवारी १९७७



मोल रुपया : स

उजवाडावपी :

सुमन्त रामचंद्र केळेकार
जाग प्रकाशन
प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय
४०३ ४०४ .

छापपी :

य. गो. जोशी
आनंद मुद्रणालय
१५२३ सदाशिव,
पुणे ४११ ०३०

# उजवाडावप्याचीं दोन उतरां

ह्या पुस्तकाच्या जल्माची ही कथा :

सौ. मीनाबाय काकोडकार हांचें 'दोंगर चंवल्ला' हें पुस्तक निकतेंच उजवाडा आयिल्लें आनी रसीक कोंकणी लोक ताची तोंडभर तुस्त करूंक लागिल्लो. त्याच अदमासाक लक्ष्मणराव एक दीस आमकां मेळ्ळे. आमी तांकां विचाल्लें : 'दोंगर चंवल्ला' हें पुस्तक तुमी वाचलां ?

'ना' तांणी जाप दिली.

आमी म्हळें : आमच्या रोदांत ह्या पुस्तकाची खबूच तुस्त जाता. तुमचे सारके व्हड आनी जाणटे कथाकार आयचे कोंकणी कथेचें मोल कशें आंखतात आमकां अजून खबर ना. तें जाणा जावपाची आमकां सगळयांक उमळशीक लागल्या.

लक्ष्मणरावांनी पुस्तक मागून घेतलें आनी सात-आठ दिसांनी तांणी ह्या पुस्तकाचेर एक बरें परींक्षणच धाडून दिलें. पुस्तक बारकायेन वाचून.

त्या आदीं भौ. पुंडलीक नायक तांचे कडेन गेल्ले. आपणाल्यो कथा घेवन. त्यो वाचून तांणी तांकां एक प्रस्तावना बरोवन दिल्ली. तिवूय आमच्या हातांत पावली.

दोनूय बरपां वाचून आमी लक्ष्मणरावांक म्हळें : आनीक दोग कथाकार उल्ल्यात. दामोदर मावजो आनी शीला नायक. फाटल्या धा पंदरा वरसांत कोंकणी कथेंत जें दिश्ट लागपासारकें रूप घेतलां ताचे मीना, शीला, दामोदर आनी पुंडलीक हे समर्थ प्रतिनिधी. तांकांच लागून कोंकणी कथा कोंकणी कवित भशेन नांवा-रुपाक आयल्या. ह्या चौगूय कथाकारांच्या निमित्यान कथा म्हळयार कितें, कथाकाराची साधना कशी आसूंक जाय, तांणी खंयच्या पथांक पाळो दिवंक जाय, कितें टाळूंक जाय-हें सगळें तुमी बरोवन दिलें जाल्यार तें बऱ्याक पडटलें.

म्हळयार, लक्ष्मणरावांकडेन तांच्या जिविताचे साधनेचो पुराय आपरोसूच आमी मागून घेतलो.

सांगपाची गरज ना, लक्ष्मणरावांनी तो उर्बेन बरोवन दिलो.

लक्ष्मणरावांचें एक आसा. तोखणाय करपा सारकी कथा वाचूंक मेळ्ळी

जाल्यार ते मनापसून तोखणाय करतात. भायर भितर कांयच दवरिनात. पुणून ही तोखणाय करता आसतना ते दोळे धांपून मात तीं करिनात. फाट थापटित आसतना जंय गरज भासता थंय ते कानूय पिळटात. मदींच कुटलीय मारताता कोंकणी कथा भूंय-भाशेंत पाळांमुळां धरून खऱ्या अर्थान विश्वात्मक जावंची ही तांची तळमळूच ते आपल्या बरपांतल्यान उक्तायतात.

एक अणभवी, तेजस्वी आनी तपस्वी जाणट्या कथाकाराचें हें बरप, इतलें लक्षांत घेतलें जाल्यार ह्या बरपाचें मोल आपशींच वाचप्यांच्या लक्षांत येतलें. मान-भौमानांपसून पयस रावन ताठ कण्यान जियेल्ले कथाकार लक्ष्मणराव ह्या पुस्तकांत आपलें पुराय काळीज ओतून कथा-शिल्पाचीं सगळीं आंगां आमच्या मुखार उक्तीं करतात. तांच्या अणभवाचो लाव कोंकणी कथाकार घेतले बगर रावचे नात.

ह्या पुस्तकांत चौगूच कोंकणी कथाकारांच्या कथांची नियाळणी आयल्या. कोंकणींत ह्या चौग कथाकारां भायर कथाकार नात असो हाचो अर्थ न्हय. जे आसात ते हिसपाक धरपा सारके न्हय असोय अर्थ कोणें लावचो न्हय. हीं बरपां लक्ष्मणरावांकडल्यान बरोवन घेता आसतना पुराय कोंकणी कथेचें परीक्षण करपाचो उद्देशूच मुखार दवरूंक नाशिल्लो. आमकां ह्या चार कथाकारांचें निमित्त करून कथा-शिल्पाचीं सगळीं आंगां स्पश्ट करपी लक्ष्मणरावांचे साधनेचो सार जाय आशिल्लो. तोच हातूंत आयला.

उजवाडावपी

## मांडावळ





## : १ : कथाकाराची साधना

**प्रोफेसोर, तुमची जल्म-भास कोंकणी. तुमी शिकले पुर्तुगेज. पुर्तुगेज बरी जाणा जाल्लो गोंयकार म्हुण तुमची नामना. मागीर, बरोवपाक लागले तेन्ना तुमी ह्यो दोनूय भासो सोडून मराठीच-शी कित्याक वेंचून काडली ?**

★ पुर्तुगेज एक सुंदर भास. म्हाका ती बरी येताली. इतलें आसून म्हाका ती परकी दिसऽ. मराठी पुर्तुगेजी परस लागिंची दिसऽ. आमच्या मनाचेर संस्कार तशे जाल्ले. आमचे मुस्तितले सगळे बरपी मराठींत ब्ररयताले. शणै गोंयब्राबांच्या वावराचें म्हत्त्व त्यावेळार म्हाका समजूंक नाशिल्लें. कोंकणी आनी गोंयकार आनी आमचो उद्धार हांच्या मजगतच्या संबंदाचो विचारूच करूंक नाशिल्लो. मराठी हाताकडेन मेळ्ळी. तिचोच उपयोग हांव करूंक लागलों. मराठी मेळूंक नाशिल्ली जाल्यार एकादरो हांव पुर्तुगेजींत बरयतलों आशिल्लों आनी मराठी इतलेंच बरें बरयतलों आशिल्लों. कोंकणी आमची जल्मभास. कोंकणींत बरयल्याबगर भासूय वाडची ना आनी आमीय वाडचे नात हो विचार तुमचे पिळगेन उब्रारून घल्लो. हांव कोंकणींत बरोवंक लागलों खूब उसरां. म्हळ्यार, १९५० सालांत. मुम्बय रावंक वतकच. मुम्बयची आकाशवाणी,'प्रजेचो आवाज,' 'साद', 'साळीक' बी मुम्बयतलीं नेमाळीं हांचे खातीर बरोवंक लागलों आनी ती बरोवंक लागतकच म्हाका तिची गोडी लागली. आनी तुमी-आमचे नवे पिळगेन सुरू केल्ल्या घडवणिच्या वावराचें म्हत्त्व म्हाका कळ्ळें. तेन्ना पसून हांव कोंकणिचो भक्त जालां. तुमी जाणात, तिचो पाखो घेवन हांव वेगळ्या-वेगळ्या प्रसंगांर मराठी लोकांकडेन झगडलांय.

**बरें, एक सांगशात ? बरोवंक लागले तेन्ना तुमी कथा हें माध्यम कित्या खातीर वेंचून काडलें ?**

★ म्हज्यांतल्या कळाकाराच्या पिंडान म्हाका हें माध्यम दिलां जावंक जाय. मराठी बरोवंक लागतकच हांव म्हजे विचार सुरवातीक वर्तमानपत्रांतल्यान लेखाच्या रुपान मांडटालों. असले लेख हांवें सुरवातीक खूब बरयल्यात. पुण पिंडांतल्यान आकार घेवन भायर सरप्री म्हज्यांतल्या कळाकाराक लेखांचें हें माध्यम अपुरें पडूंक लागलें. जो संवसार हांव पळेतां, जंय हांव जियेतां तो संवसार म्हजे कल्पनेंतल्या संवसाराभशेन सोबीत आसचो हे तळमळे म्हाका लागले. हाका लागून आपशींच कथेचें माध्यम मुखार येवन उबें रावलें. विचार हें ललित साइत्याचें एक आंग. भोव म्हत्त्वाचें. ताचे बगर कळा अपंगूल उरता हेंय खरें, पुण विचार म्हळयार ललित-साइत्य न्हय ही जाण म्हज्यांतले सर्जन-शक्तीक आयली तेन्ना कथा मुखार येवन उबी रावली. विचारांच्या क्षोभांतल्यान भावना, कल्पना, आकांक्षा, खिणयाळीं आनी चिरंतन सत्यां, सुवार्थ आनी परमार्थ, विकार आनी तांची उदात्त रुपां ह्या सगळ्या द्रव्यांचें रसायन जावन तातूंतसून नवो आदर्श दिश्टी पडटा असलो वेगळो संवसार उबो करपाचे गरजेंतल्यान कथा भायर सल्ली जांवये.

**कथां खातीर तुमी विशय कश वेंचून काडूंक लागले ?**

★ मनाचे ॲटीटयूडींतल्यान विशय येतात. मनाक नदर मेळ्ळी म्हणटकच विशय दिसूं लागतात. विशय crude रुपांत दिसप सोंपें. पुण तातुंतलीं सत्यां दिसूंक कठीण. निर्मणेची नदर आनी शक्त जशीजशी वाडत वता तशीतशी विशय सोदपाची आनी तळातलें सत्य नाजूकसाणीन, सूचक रुपान उकतावन दाखोवपाची शक्त वाडटा. विशयाक म्हत्त्व नासता. विशय सोदपी, हेरपी, तांचो अर्थ लावपी नदरेक म्हत्त्व आसता. हे नदरे परसूय बरोवप्याचे क्रिएटीव्ह पर्सनालिटीक अदीक म्हत्त्व आसा. ललित लेखक म्हळयार ही पर्सनालिटी. दिसपट्ट्या वेव्हारांत फटिंगपणा, अनीत, अन्याय, नाटकां, संवगां, आगळिको, वेंतभर आटापाचो सुवार्थ हांचो तामसी खेळ ताका दिसता. ताचोच आधार घेवन बरपी शुभंकारी, मंगळ असो, संवसार रचता. हे प्रक्रियेंत मंत्र आनी तंत्र एकरूप जातात. मंत्र-तंत्रांत वेगळेचार करतात ते ल्हान बरपी. मंत्र म्हळयार

उपनिषदां–रुशिंनी सांगिल्लीं. तंत्र म्हळ्यार स्मृति-शास्त्रां. मंत्र म्हळयार मुळावें तत्त्वगिन्यान. तें जाणीं आपणायलें तांकां तें साइत्यांत घालपाचें तंत्र शिकचें लागना. मंत्र आकार घेवनूच भायर सरतात. हो आकार कसो आसचो हें रुशींक सांगचें लागना. जाका मंत्राचो स्पर्श जावंक ना तो तंत्राची भानगड घेवन बसता. साइत्याचे सांगाडे कशे घडोवचे तें सांगत रावता. विश्वकल्याणाचो मंत्र जांकां गवसता तांचे मुखार तंत्र लीन जावन उबें रावता. तेजाबगर मंत्र ना. आनी सामर्थ्याबगर तेज ना. हें सामर्थ्य आत्म्याचें. धनसंपदेचें वा सत्येचें न्हय. धनसंपदेचें वा सत्येचें सामर्थ्य मेळोवनय भिकारी उरिल्ले लोक आमी पावला–पावलाक पळेतात. आत्मिक गुणांचो विकास हें एक व्हडलें दिव्य. तें करतलो जाल्यार आकांताच्यो आपत्त्यो झेलच्यो पडटात. खरें तेंच उलयतलों, खरें तेंच बरयतलों ह्या एका तत्त्वाखातीर साइत्याच्या इतिहासांत कितल्या–शाच कळाकारांक प्राण ओंपचे पडल्यात. मरचें पडलां. हें व्रत खूब कठीण. पुण हे व्रत आत्मिक सामर्थ्याचें. गुळगुळीत उतरांचें वा रंगयाळ्या कल्पनांचें न्हय. रामायण म्हाभारताच्या काळांत शस्त्रास्त्रां स्वंय मंत्रायताले. साइत्याच्या शस्त्रांकूय हें लागू जाता. साइत्य मंत्रावंक जाय आत्म्याच्या तेजान. कळाकाराकडेन हें तेज नासत जाल्यार तो दुसऱ्यांक तेजवंत कसो करतलो ?

**कथाकाराच्या जिवितांत अणभवांची सुवात खंयची ? अणभवांक म्हत्त्व कितलें आसा ?**

★ झाडांक जितलें उदक–मातयेचें म्हत्त्व तितलेंच कथाकाराच्या जिवितांत अणभवांक म्हत्त्व आसा. अणभव नाशिल्ल्या कथाकाराचें वा कळाकाराचें मन बावत वता. अणभव जितले खर वा कोडू तितली कळाकाराच्या व्यक्तिमत्त्वाक धार येता. भगवद्गीतेंत श्रीकृष्णान साहस हें गिन्यानी मनशाचें पयलें लक्षण म्हुण सांगलां. साहसाबगर कळाकार संवसारांत जगूंकूच पावना. बंदेपणांत कुसत पडिल्ल्या कळाकाराक झुजाचो, संग्रामाचो अणभव घेवंचोच पडटा. तो झुजलेबगर रावतलो कसो ? दळिद्री समाजांतल्या कळाकारांक दळिद्री लोकांवांगडा उठचें–बसचें पडटा, जेवचें न्हिदचें पडटा. आमच्या देशांत दळिद्री चड, धनीक थोडे. रोगी चड, निरोगी थोडे. निरक्षर चड, साक्षर थोडे. दुखेस्त चड, सुखी थोडे

ही सगळी विशमताय पळोवन, अणभवून आपली केल्याबगर कळाकाराक तिचेर बरोवपाची प्रेरणाच जावंची ना. ताच्या मनांत करुणेची झर व्हांवकूच पावची ना. निखटे प्रतिभेच्या मालवजार खरी करुणा जल्मा येना. लटकी आनी तकलुपी करुणा येत. कळाकार कांय वेळार जादू करून दाखयता. पुण ती जादू हें विसरूंक फावना. असले जादू करपी कळाकार म्हणटात: 'आमी अणभवांबगर निखटे प्रतिभेच्या मालवजार बरोवंक जाणात.' संतांनी अशें केन्ना म्हळें ना. देवाचो सोद घेवपी संतांनी दुख्खाचे सगळे अणभव घेतले. देखुनूच तांचें साहित्य अजरंवर जावंक पावलें. साहित्यकार जर मनशाचो सोद घेता तर मागीर आपल्या 'ॲअर कण्डिशण्ड' बंगल्यांत बसून तो दारिद्र्याचेर बरोवंक सोदता तें कितें? तुमकां अणभवांची गरज ना जाल्यार तुमी भोगाचे, चैनीचे, लोकीक सुखाचे अणभव मात मोटे रुचीन घेतात तें कितें? इंद्रियांचीं सगळीं सुखां तुमकां जाय. फक्कत दुख्खां नाकात? भोग जाय, त्याग नाका? कळाकाराक सुखां आनी दुख्खां सारकीं, भोग आनी त्याग सारके. भोगांत आनी त्यागांत, सुखांत आनी दुख्खांत तुमची अनुभूती पसोवंक जाय. सार्त्र, कामू पारिसांतलीं सुखां सोडून स्वतंत्रतायेच्या झुजांत वांटो घेतात. माल्रो इंडोचायनांत झुजूंक वता. आनी बांगला देशांत येवंक हुडकेता. येवरोपेव लेखक 'आमचें काम लोकांक स्फुर्त दिवपाचें, प्रेरणा दिवपाचें,' अशें मानिनात. ते लोकांच्या सुखदुख्खांकडेन एकरूप जावन, तांचेपसून स्फुर्त आनी प्रेरणा घेवन बरोवप हातूंत धन्यताय मानतात. कळाकार-कवी जांव कथाकार-अप्रिय अणभव घेवपाचें चुकोवंक लागलो म्हणटकच समजुंचें: तो स्वार्थ-केन्द्रीत जायत चल्ला. इन्द्रीय भोगांचो दास जायत चल्ला. अशें जायत जायत तो निस्तेज जायत्त वता. भव्य-दिव्य अशें कितेंय बरोवपाची उर्बाच ताका सोडून वता.

**साहित्याच्या मळार 'कळे खातीर कळा' काय 'जिविता खातीर कळा' असो एक वाद चलता वा म्हणूंया, चलतालो. तुमचे हाचेर म्हणणें कितें ?**

★ एका काळार महाराष्ट्रांत कांय उथळ कळाकारांनीं हो वाद सुरू केल्लो. कळेचो साक्षात्कार जांकां केन्नाच जालो ना असल्या लोकांनी. उथळ टिकाकार आनी उथळ रसीक हांणीय हो वाद बरोच तेंप चाबडायलो. जसो कलेचो साक्षात्कार

आसता तशेंच जिविताचोय सांक्षात्कार आसता. कला आनी जिवीत हातूंत भेद करूं नज. कला जिविताांतल्यान स्फुरता आनी जिविताक मेळटा तेन्ना जिवीत समृद्ध आनी गिरेस्त जाता. कळा निखटो आनंद दिवन थांबना. ती मनशाक उंचायेर व्हरून ताची नदर व्यापक करता. संवसारांतलीं सुखां–दुख्खां भोगपाची, तर्जुपाची ताची शक्त वाडयता. मनीसजाती विशिंची ताची सहानुभूती वाडयता. ताची अध्यात्मिकताय जागयता. रानवटी संस्कारांनी भरिल्ली ताची जीण निवळ करता. नव्या विचारांचो उजवाड ताका दाखयता. विकारांक शांत करून ताका नवी देख दिता. ताच्यांत क्रांती घडोवन हाडटा. येदो वावर जी कला करता ती जिविता-खातीर न्हय अशें कोण म्हणीत ? संवसारांतलें स्रेश्ठ साइत्य सगळें कुशीक काडून दवरचें आनी पळोवचें : दोन तीन पिळग्यां भितरूच मनीसजात दळिद्री जाल्ली तुमकां दिश्टी पडटली. उपयुक्ततेचे नदरेन येवजिलें जाल्यारूय साइत्याइतलें उप-युक्त दुसरें कांय ना. निर्शेणेच्या गुपाट काळखांत जीव दिवपाक वचपी मनशाक साइत्यूच उजवाडाची वाट दाखयता. मनशाक कर्तृत्वाची प्रेरणा साइत्यूच दिता. साइत्यान सगळ्यांचें जिवीत संस्कारीत केलां. कलेन, साइत्यान मनशाचेर केल्ले अनंत संस्कार वेगळे आनी मनशाचें जिवीत वेगळें अशें कशें म्हणूं येत ?

### साइत्याचो आनी नितिचो संबंद कितें ?

★ वेव्हारांतली नीत वा अनीत कथाकाराक लागना. वेव्हारांतली नीत बदलत आसता. ती संकेताचेर आधाल्लेली आसता. धर्मशास्त्र हो तिचो मूळ आधार. धर्मशास्त्र हें दादल्यांनी रचलां. बायलांक आपल्या परस सकयल्या पांव-ड्याची सुवात दिवन. पन्नास वरसां पयलीं खंयचीय विधवा लग्न जायत-जाल्यार लोक ह्या लग्नाक अनितिचें लेखताले. पतिव्रता बायलेन घोव मेल्या उपरांत सती वचप ही करणी त्याय आदीं लोक नितिची मानताले. आयज काळ बदल्ला. देखून आदल्या काळांतली अनीत आयज नीत थल्या. आदल्या काळार चले–भुरग्या वांगडा उलोवपी चली टिटटिटी थरताली आयची कॉलेज कुमारी शें शंबर भुरग्यां वांगडा मेकळेपणान उलयता, भोंवता. आनी आवय–बापूय तिचीं कौतुकां करता. र. धों. कर्वे संततिनियमनाचो प्रचार करतालो म्हुण नितीभायलो थरिल्लो. बावडो उपेक्षीत मेलो. आयज

भारत सरकार कोटयानीं रुपये खर्चिता आनी संततित-नियमनाचो प्रचार करता. आतां सांगात, खरी नीत खंयची ? आदली काय आयची ? कथाकार रूढ नितीक मानिना-लेखिना. जो कथाकार ही रूढ नीत मानता ताचें साइत्य उथळ आनी पोरकट जाता. कथाकाराक सगळ्या विशयांचेर बरोवचें पडटा. हांव पतिव्रतेचें चित्र रंगयतलों, पुण वेश्येचें रंगोवचोंना म्हणपी कथाकार कथाकारूच न्हय. समाजान जांची उपेक्षा केल्या त्या लोकांचेर आनी विशयांचेर बरयना तो कथाकार कसलो ? तांचेर बरयतलो जाल्यार नीत अनितीचो पातसो धरिनासताना सगळे बरे वायट अणभव घेवंक जाय. कथाकाराचे नदरेन सगळे अणभव बरे. चोरांचेर बरयतलो जाल्यार ताणें चोरांच्या जिविताचो अभ्यास करूंक जाय. तांचो इश्ट जावंक जाय. हरिजनांचेर बरयतलो जाल्यार तांच्या खोंपिंनी वचून तांच्या दुखांत वांटेकारी जावंक जाय. सांकेतिक नितीक भियेवन जो कथाकार हें करिना तो ढोंगी जाता. आनी कलाकाराच्या vision क पयसावता. कलाकाराक एक नीत लागता. ती चिरंतन नीत. मनीस-कुळयेच्या कल्याणाची. संवसारांतल्या बऱ्यांतल्या बऱ्या साइत्यांत आसता ती. ही नीत आनी सांकेतीक नीत हांचे मदीं सदांच एक conflict उरता. देखून जो कलाकार सांकेतीक नितिच्या आड उबो आसत ताचेर समाज बहिश्कार घालता. ताका धोंसता, ताका छळटा आनी तो मरतकूच मागीर ताचीच तुस्त गायता. बंडखोर कलाकार पुनर्विवाह केल्ले विधवेचो पाखो घेता. व्यभिचाराचे वाटेंत निसरून पडिल्ले सादे, सरळ, प्रेमळ बायलेंत जें कितें दिव्य भव्य दिश्टी पडटा ताची नोंद घेता. चोरांतलो माड्डिल्लो, चिड्डिल्लो असहाय्य सज्जन ताचे नदरेंत भरता. कळाकाराची नीत आतांचें, पांयांकडचें पळेना. फुडारांतलें, चिरंतनांतलें पळेता. तळाचें, भितल्लें पळेता. वयलें आनी भायलें न्हय. चिरंतन सत्यां निर्धारान सांगून तो आपली निर्मळ, लांब आनी मोट्या विस्ताराची नदर वाचप्यांक दिवन तांची करुणा जागयता. हांवें म्हज्या साइत्यांत सांकेतीक नीत केन्नाच मानली ना. देखून शिश्ट समाजांत हांवें कांय दुस्मान जोडले. पुण म्हाका हाची पर्वा ना. कलाकाराचें मिशन हांवें केन्नाच सोडूंक ना, हो संतोश म्हाका पुरो. गोंयच्या कलंवतांचेर हांवें कथा बरयल्यो तेन्ना आमच्या समाजांतल्या बुदवंत वर्गांत एक मोटें मोड उठिल्लें. हांव हें विसरूंक ना. ह्याच लोकांचे परात्पर गुरू जे पुणेकार ते मात म्हज्या ह्या कथांची तुस्त गायताले ही लक्षांत धरपा सारकी गजाल.

**गोंयकारांच्या गुणांचो आनी अवगुणांचो तुमचेर कितलोसो परिणाम जाला ?**

★ खूब जाला. गोंयकारांचे कांय गूण खूब मोटे. अवगुणूय तितलेच मोटे. गोंयकार बरो. पुण मोव, घटसाण नाशिल्लो. अन्यायाचो प्रतिकार करपाचो प्रसंग येता तेन्ना फाटीं सरपी. सत्या संपत्तिचो ताचेर प्रभाव पडटा. दुबळो. कसोय बागवता, ताचें सगळेंच सुसेगाद. भोगांचो लंपट. ताचे हे अवगूण पळोवन हांव बेचैन जातां. हातुंतले कांय अवगूण म्हज्यांतूय आसात. ताका लागून हांव म्हाकाच दुबळो आनी ल्हान दिसूंक लागतां. गोंयकार काळजान घट आशिल्लो, समाज ह्या नात्यान घटमूट आशिल्लो जाल्यार हांव ताचें व्हडपण पळोवन खुशाल-भरीत जातलों आशिल्लों आनी खासा हांवूय समर्थ जातलों आशिल्लों. गोंय-काराचें दुबळेंपण पळोवन हांव बेचैन जातां आनी बेचैनींतल्यानूच तिडकीन, किंवाटयान केन्ना केन्ना म्हज्यो कथा जल्मा येतात. म्हळ्यार अशें कि समाजाचें दुबळेपण ही म्हजी शक्त जाता. म्हजो पिंड क्रांतिप्रिय. म्हजी काया स्थितिप्रिय. दोगांय मजगतचो conflict हांवें म्हज्या कथांनीं चितारला. कथाकार ह्या नात्यान हेंच म्हजें भांडवल. म्हज्या काणयानीं हांव केन्ना केन्ना म्हजोच दुस्मान जालां. 'पाझर', 'गितुल', 'तांबडो कांटो' बी कांय कथांनीं हांवें हो conflict मांडला. म्हज्या पिंडान म्हजी destiny थारावन उडयल्या. म्हजे हस्तुकीं जें कितें घडलां तातूंत म्हजो पिंडूच प्रभावी जाला आनी ताणेंच म्हज्या जिविताची फुडली वाट आंखल्या. परिस्थिती, योगायोग, दैव ह्या गजालींक म्हज्या जिवितांत व्हडली-शी सुवात ना. म्हजो पिंडूच असो कि तो म्हाका वेव्हाराचें कसलेंच प्लॅनींग करूंक दिना. धरुंया, फाल्यां म्हाका तीन लाखांची सोर्त फुटली. जाल्यार, हांव सुखी जातलों ? म्हाका दिसना. म्हज्या पिंडान सुखदुख्खाचे जे विशय निर्माण केल्यात ते केन्ना घेवप, केन्ना भायर उडोवप अशें म्हजें चल्लां. म्हजो पिंड आनी वेव्हार हाचो मेळ हांव केन्नाच घालूंक पावूंक ना. म्हज्या साइत्याचो कस हांव थारायना. तो एकादरो कमी लागत. पुण म्हजी भितली जीण Inner life शुद्ध, नितळ दवरपा खातीर म्हाका भायल्या Factors सां कडेन जें एका सारकें झुजचें पडलां आनी पडटा तातुंतल्यानूच वांचून उल्लों जाल्यार म्हजें स्रेश्ठ साइत्य उदेतलें अशी म्हजी स्रद्धा आसा.

**निमाणें, एक संदेश दियात. नव्या बरप्यां खातीर.**

* झगडप हें म्हज्या जिविताचें सार. सामान्यतायेन सगळे सुवार्था खातीर झगडटात; वेव्हाराखातीर झगडटात. वेव्हाराचो आनी सुवार्थाचो प्रस्न उप्रासला तेन्ना तेन्ना हांवें नमतें घेतलां वा हांव फटवलां. तोच हांव अन्यायाचो प्रस्न येतकच निबर जालां, उसळ्ळां. जाणट्या वांगडा, धनिकां वांगडा, सत्याधिशां वांगडा हांव म्हज्या पिंडाच्या बळार झगडत आयलां. वेव्हारांत हांव अपेशी जालां. पुण बाकिच्या मळांनीं हांवें खूब जैत जोडलां. हांवें भोगलां, त्यागलां. पुण भोगांतसून जांव त्यागांतसून हांव घटमूट जावन, समर्थ जावन भायर सल्लां.

आयुश्यांत हांवें कितें मेळयलें अशें कोणे म्हाका विचाल्लें जाल्यार हांव म्हणटलों : बाबारे, वेव्हारांतलें हांवें कांयच मेळोवंक ना. आशिल्लें वगडायलां. पुण एक जोडलां– तृप्ती आनी शांती. म्हजे एके कोंकणी कवितेंत हांवें म्हळां– 'तृप्त हांव, फकीर हांव.' हीच म्हजी जोड. हेंच म्हज्या आयुश्याचें सार. संदेश दिवपाच्या पांवड्यार हांव पावंक ना. जेन्ना थंय पावन तेन्ना कोणेंच मागले बगर म्हज्या तोंडांतसून वा म्हज्या मौनांतसून होच संदेश भायर सरतलो.

* * *

## : २ : मीनाबायच्यो कथा

‘ दोंगर चंवल्ला ’ हो सौ. मीना सु. काकोडकार हिच्या कथांचो संग्रह. हांव मीनाबायक वळखना. तिका हांवें पळोवंक लेगीत ना. तरिकूय, तिच्या मनाची जात आगळी म्हणपाचें म्हाका ह्या संग्रहांतल्या कथांनीं सांगलें.

एका मोट्या भायल्या टीकाकारान म्हळां कि साहित्यकाराच्या मनाचो खरो थाव लागता तो ताच्या साहित्यांत. वेव्हारी जिणेंत ताचें अंतर्मन दिसून येना. साहित्यांत मात ताचें सुप्त आनी असुप्त रूप निथळटा. संत ऊंच भूमकेर रावन लागशिल्ले–पयशिले, दायजी–दुस्मान, लखपती–भिक्षापती हांचे कडेन सम-भावान, सहानुभावान पळेतात. तीच तरा मीनाबायच्या :मनाची आनी तिचे प्रतिभेची. जे दीन–दुब्ळे, पातकी, ‘ जे का रंजले, गांजले ’ तांचे विशीं करुणा बाळगप ही मोट्या कलाकाराची धारणा. मीनाबायन ती जोडल्या. ही गजाल तिकाय आनी कोंकणी साहित्याक अभिमानाची आसा.

मीनाबायचे नदरेक लोकांचीं दुख्खां दिसतात. वयल्या आनी सकयल्या तळांचीं. वयल्या परस सकयल्या तळांचीं अदीक. ती कळवळटा. त्या दुख्खांचेर फुंकर घालता. वेव्हाराच्या तापान मन भेरेल्लें वा स्वार्थकेंद्रीत जाल्ल्यान सर्वसामान्य मनशाक ज्यो व्यथा दिसनात त्यो तिका दिसतात. जीं दुख्खां दिसनात तीं तिका दिसतात. तांचे मंद आनी तिव्र सूर तिच्या वेंचीक उतरांतसून भायर सरतात. आनी ते वाचप्यांच्या काळजांत रोमतात.

मीनाबायचे करुणेचे पाट बारीक–मोटीं, धवीं–तांबडीं तरेकतरा रुपां घेवन व्हांवतात. कथेप्रमाण व्यथा–वेदना बदलतात.‘ दोंगर चंवल्ला ’ हे कथेंतली व्यथा एके तरेची. ‘ तळमळे ’ हे कथेंतली दुसरे तरेची. ‘ स्वीट ड्रीम्स ’ मदली तिसरे

तरेची. वेग-वेगळ्या वेदनांचे बारीक रस्मी धागे सगळ्या कथांनीं आसात. कारण पात्रांकडेन मीनाबायन करुणेचें नातें जोडलां. दुख्खां दळिद्रांतल्यान जल्मा येतात हें खरें. पुण हेर गजालींतल्यानूय तांचो जल्म जाता. 'तळमळे' आनी 'स्वीट ड्रीम्स' हांतलीं दुख्खां दळिद्रांतलीं न्हय. 'बापूय न्हय तो आमचो?' 'चीट येवंक ना' 'तश्योय गाळी' हांतलींय दुख्खां वेगळे तरेचीं. एका-एका दुख्खाची, एके-एके व्यथेची जात वेगळी. हें नाजूक धांवतें वेगळेपण मनाच्या बोटांनी धरून थोड्या प्रसंगांनी आनी उतरांनी दाखोवप हें काम सोंपे न्हय.

मीनाबायचें यश तिचे हे संवेदनेंत आसा. तिची संवेदना कलात्म जाल्यानूच ती निर्मितीक्षम जाल्या. सादी संवेदना-इन्द्रियांची संवेदना तित्र आसली म्हुण भागना. तिचो भडक परिणाम साहित्याक मारक जाता. संवेदना कलात्म आसूंक जाय. तेन्नाच ती भावनेच्या आविश्काराचेर बंधन घालता. भाववृत्तिचो बदल सौंदर्यवृत्तींत जाता तो हांगाच. ह्याच गुणांक लागून मीनाबायच्या कथांक दर्जो येता. हे तरेचे संतुलित सहानुभूतींतल्यांनूच साहित्यकाराची मानवता (human sympathy) भायर सरता आनी ती प्राणीमात्राक आनी वस्तुजाताक सांसपूंक लागता. तेन्ना नातें-गोतें, जात-पात, धार्मिक संस्कार, परंपरेन चलत आयिल्ले संकेत, समाजमान्य कल्पना हांची धुंवटी विरून वता आनी वेगळ्या उजवाडांत नदरे फुडलें सैम-जीवसृश्ट हालूंक-धोलूंक, उलोंवक-बोलूंक, हांसूंक-रडूंक लागता. तेन्ना कळाकाराची नदर बारीक, नाजूक, मोगाळ, खोल आनी व्यापक जाता. मागीर तिका निरिक्षणाची एक खाशेली शक्त येता. किरकोळ सामान्य बारीकसाणी ती तोखेवंक लागता. तोखेतां तोखेतां रंगता आनी ना-कळत थंय रस उब्रो रावता. साहित्याचो प्राण तो होच. ऊंच तोलाच्या साहित्याचो कस तोय हो. हांगा अणभवाक अनुभूतिची कळा येता आनी आत्मिक तेज फांकता. तें उतरांतल्यान उकतें जावंक लागलें म्हणटकूच सेश्ट साहित्याचो आनंद साकारता.

आवयचो भुरग्याचेर मोग आसता देखुनूच भुरग्याच्या चलपांतल्यो, उलोवपांतल्यो, रुपांतल्यो, हावभावांतल्यो, रुपाच्या मुद्रांतल्यो बारीकसाणी ती मनांत सांठावन घेता आनी भुरग्याक तोखेत बसता. ते तोखणायेंत ती सगळें विसरता. खासा आपणाकूच विसरता.

खऱ्या कथाकाराच्या मनाची गत्त अशीच आसता. आपलेपणाचे नदरेन सजीव वा निर्जिवाच्यो बारीकसाणी तो पळेता. तातूंत रंगता आनी मागीर त्यो तो चितारता. तेन्ना अर्थ नाशिल्ले सामान्य वास्तवतेक अर्थाचे कोंब फुट्टात. हे बारीकसाणिच्या बळग्यार कथेचें वातावरण तयार जाता. वातावरण वेगळें आनी प्रसंग–पात्रां वेगळीं अशें मागीर उरच ना. सगळीं आंगां एकरूप जातात. वेगळे धागे, वेगळे रंग. पुण तातुंतल्यान घडिल्लें लुगट एक. तितलेंच सुंदर.

मीनाबायचे ‘ दोंगर चंवल्ला ’ हे कथेंतलें वातावरण घेयात. भानुदास हो हे कथेंतल्या वातावरणाचोच एक वांटो जालां. सहानुभूतिचो उजवाड ताचेर एका सारको सोडिल्लो आसा. हाका लागून आमच्या मनांत ताचेविशीं दाट आपले-पण उदेलां. ताच्यो अर्थ नाशिल्ल्यो सगळ्यो करण्यो वातावरण तयार करीत वतात. आनी त्याच वांगडा आशयाचें सूत फुडें धुकलीत वता. काण्णां हाडूंक दोंगरार वचप, काण्णांची कोंब्रो–कोंबी करप, पिटकोळेच्या फुलांच्या घोंसांचेर उलोवप...भानुदासाचो अभ्यास आनी ताका भोगची पडटा ती ख्यास्त, शिग-म्याची सुलूस आनी ताची तयारी, गोपाळदादाचें येवप आनी ‘ घोलार पडटा बडी आनी शिगमो दारांत येता रे ऽ ऽ ’ हें गीत गावप, आनी ‘ कळकीच्या रानामध्यें कोमल जलमला–थंयसान कोमल गेला सुताराच्या घरीं ’ हे तरेचीं कवनां आयकूंक मेळप....दर्यावेळेर वचून पेटाऱ्यो कुल्ल्यो कशो धरतात तें भानुदासान शिकोवप, रेंदेरांची कांतारां आयकप.. “ फांत्या पारारी, चेडवा तुजी वाटु देखिली–वाटु देखितां वाटु देखितां रातु गो येयली....” असल्या बारीक–सारीक गजालिंनी चित्रांत रंग भरत वता; आशय फुलत वता आनी भानुदास हो भुरगो आमकां परकी उरना. आमी खंय तरी, केन्नाय तरी पळेल्ल्या तसल्या भुरग्याची याद येता. थंयच भानुदास universal जाता.

मीनाबायल्या सगळ्याच कथांनी हें वातावरण प्रकर्शान दिसून येता. वातावरणा-खातीर वातावरण न्हय, तर कथेच्या परिणामा खातीर वातावरण. वातावरणांत झाडां-पेडांचें, माड-माडयांचें वर्णन आसुंकूच जाय अशें ना. ‘मास्तर म्हणटा’ ही कथा घेयात. तांतुंतलें व्हडल्या भावाचें चित्र कितलें सभाविक दिसता ! हे कथेंत तत्वां–सत्यां सांगपाचो हावेस ना. मास्तराचे शिकवणुकिचो एका भोळ्या भुर-ग्याच्या मनाचेर जाल्लो परिणाम ही खरें म्हळ्यार कथावस्तू.

मास्तराचे शिकवणुकीबगर व्हडल्याक कांयच दिसना. आपल्या अभ्यासांत

मात तो रमता. घरांत घडटा ताजेर ताची बारीक नदर आसता. ताका जेवणा-खाणाचें भान ना. तो मोन्यानीं घरची अनपत सोंसता. बापूय बेब्रद्या खुशाली वांगडा रातचो भोंवडेक वता तें ताच्या लक्षांत येता. भांवडांचीं अवचिन्नपणां तो पळेता. सोंसता. " फटी केन्ना मारच्यो न्हू. लोकालें केन्नाच चोरचें न्हू. " हो मास्तराचो उपदेस ताचे तकलेंत घट्ट बसला. ताचे आवयची–अमृत्याची येवजण वेगळी. व्हडल्याचो तिका अभिमान. ताची तोखणाय ती मनांतल्या मनांत करता. पुण ताची वागणूक पळोवन ती गोंदळांत पडटा. बेचैन जाता. घरचें दळिद्र तिका भेश्टायता. व्हडल्याची तत्वां आनी त्या तत्वांच्या आड वचपी व्यवहार–प्रपंच हांचेमदीं तिचें मन चिड्डता. हें सगळें इतले बारीकसाणेन सांगलां कि एक वेगळेंच वातावरण–काळजाक हात घालपी तयार जाता. हेय कथेंत दोन धागे एकामेकांत भरसतात. व्हडल्याचो तत्वनिश्ट वागणुकेचो एक धागो आनी अमृत्याचे व्यवहारीक कठोर सत्याचो दुसरो. अश्या दोन धाग्यांची हृदयस्पर्शी वीण तयार जाता.

' बापूय न्हय तो आमचो ? ' हे कथेंतलो भोळो शिरी हांव केन्नाच विसर-चोंना. बापूय ना म्हुण ताचो घुस्मटमार चल्ला. शाळेंतल्या सगळ्या भुरग्यांक बापूय आसात, ताका मात ना. तो आवयचें नांव लायता, बापायचें न्हय. भुरगे ताका हिणसायतात. ताचो घुस्मटमार चल्ला. भयण ताका चेपता, धेंगशेता. सत्य सांगिना. तो अदीक गोंदळांत पडटा. तांचे मजगतीं संवाद जाता :

" हांव आयेक इचारतलों. "

" पाड पडलेल्या, आय तुका चेंचायतली इचाल्ल्यार. म्हाका इचाल्लां तें पुरो. "

" कित्याक चेंचायतली ? "

" उजो लागों रे तुज्या तोंडाक. सगलें कित्याक जायें तुका ? "

" जाये. फाल्यां शाळेंत चाळयतले ना जाल्यार परथून. "

" चाळोंव दी. दोन दीस चाळयतले. सद्दीं कांय न्हू. "

" सद्दीं चाळयतात. "

" तूं मास्तराक सांग. "

" मास्तर इचारीत जाल्यार बापूय खंय काय म्हणोन ? "

" तो इचारचोना. "

" इचारतलो. "

ह्या सारक्या अकृत्रीम संवादांतल्यान शिरीचे तळमळे उकते जायत वतात. आनी निमाणें कथेचे अखेरेक उजवाड पडटा. तो चोरयां रातचो बापःयक पळेता; खोश्शी जाता आनी म्हणटा,

" शोभल्या, फाल्यांच्यान हांव शाळेंत वैतलों. "

" खरें ? आनीक बाबणीन चाळयल्यार ? "

" मास्तराक सांगतलों. "

" मास्तराची भिरांत दिसता म्हणटालो न्हू रे तूं ? "

" आतां दिसना. "

" कशी तर ? "

" बापूय न्हू तो आमचो ? "

हांगा कथा सोंपता.

मनीससभावाच्या सत्याचें मीनाबायक दर्शन जालां. ताणेंच तिका एक व्हडलो मंत्र दिला. होच तिच्या कथांचो आत्मो. ताच्याच बळग्यार मीनाबायचें तंत्र साकार जालां. त्या तंत्रान आपाप जिवें सभावरेखन तयार जाता आनी जिवें वातावरण कथासुत्रा भोंवतणी पातळटा.

' सोर्त ' हे कथेंत गांवच्या सामुदायिक मनाचें चित्रण मेळटा. तें वाचतना मनाक खातकुतल्यो जातात. म्हाड्डू चामाराक पन्नास हजारांची सोर्त लागली ही खबर राय गांवाक कळयता आनी मागीर " घेऽऽ सगळो गांवभर बोवाळ ! "

गणो आल्फियाद, शंकर भट. म्हाबळू पसरकार, शाणूदाद आनी शांबाशेट हे आपापले नदरेन हे अप्रूप घटनेचेर भाश्य करतात. आनी तेन्ना तांचे वेग-वेगळे सभाव उकते जातात. खरें म्हळ्यार सोर्त फुटप ही खोशयेची गजाल. पुण त्या गांवच्या लोकांचे तळमळे जातात. संवादाचो उपेग करून हे कथेचो विकास जाला. भाशेची मोडणी एकेकल्याची वेगळी. एकेकटयाच्यो लकबीय हांगा उकत्यो जातात. त्या लकबींतल्यान विनोद जाता. प्रसंगनिश्ट विनोद. शाब्दिक कोटयो. ' सोर्त ' हो कथेचो विशय जालो तरूय गांवचें मन हे घटनेक कशें ' रिॲक्ट ' जाता तें दाखोवप हो कथेचो आशय.

' तश्योय गाळी ' ही कथा पळेयात. पयल्याच प्याऱ्यांत मीनाबाय वाचप्यांक कथेच्या प्रवाहांत हाडून सोडटा :

" दीस माध्यार आयलो, तरी सोयरूक ताचें भान नाशिल्लें. सकाळच्यान तो जो दोंगरार येवन बशिल्लो, तो तसोच आशिल्लो. आज फांतोडेर मोगऱ्याल्या पोटांत जावपाक लागिल्लें. ताका ऑश्पिताळांत पावोवन सोयरू बद्द दोंगरावटेन शेंवटल्लो. "

सोयरूक तीन चेडवां. चवथें जावपाच्या मार्गार आसा. ताणे मोगऱ्याक व्हरून ऑश्पिताळांत सोडलां आनी तो दोंगरार वचून बसला. बापायक भियेवन.

बाबग्याक चेडवां नाकात. तो सोयरूक खेपता. सोयरूक उतर फुटना. तो घामाघूम जाता. दीसरात बाबगो ताचो उद्धार करता. आज चवथें चेडूं जाल्यार घात जातलो अशें ताका दिसता! बाबगो म्हणटा :

" —तरी तुका सांगतालों, ह्या चेडवा वांगडा लगीन जांव नाका म्हणून... हेचे आवयगेर चार चेडवां, मावशेगेर पांच चेडवां, आजयेगेर स चेडवां; इतलेंच न्हूं तर हेच्या शेजरा एक खारवीण रावता, तिगेर लेगीत सगळीं चेडवांच! आतां हेगेर धा पुण चेडवां जालेबगर रावचेलीं नात. "

बापायपुताच्या विरोधी सभावांतल्यान कथा भायर सरता. एकटो खुबळटा, दुसरो सोंसता. अश्या दोन पातळींचेर कथा चलता. कथेक ल्हानशें कथानकूय आसा. सोयरू आनी बाबगो हांचें सभावरेखन बेस बरें सादलां. गावांनी असल्यो पती आमकां सांपडटात. सभावाच्या विरोधांतल्यान सुंदर विनोद निर्माण जाता. चार पानांचे हे कथेंत कथेचीं सगळीं आंगां मोटया कसबान सांबाळ्ळयांत.

मंत्र आनी तंत्र ह्या दोनूय नदरांनीं ही कथा आदर्श जाल्या. सत्यां सोदपाची ताकद मंत्र दिता. तंत्र तांकां कथेचो आकार दिवपाची कुशलताय दिता. कांय सत्यां तत्वज्ञानाच्या आवाटांतलीं आसतात. कांय सामाजिक सरुपाचीं आसतात. कांय मनशाच्या पिंड-प्रकृतिचो दिश्टावो घडोवपी आसतात. मीनाबायच्या कथांच्यो themes ह्यो चड करून ह्या निमाण्या प्रकाराच्यो आसात. हीं सत्यां सनातन आसतात. देखून त्या प्रकारचें साहित्य तोलामोलाचें जायत जाल्यार तें दीर्घजिवी जांवक पावता. मीनाबायच्या कांय कथांक हें भाग्य लाभतलें, हातूंत म्हाका दुबाव ना.

कांय कथांचे शेवट अनपेक्षीत पुण सभावीक आसात. 'सोर्त', 'बापूय न्हय तो आमचो ?' 'तश्योय गाळी', 'स्वीट ड्रीम्स', 'तळमळे' ह्या कथांचे शेवट चमत्कृतीपूर्ण जाल्यात.

कसल्याच नाटयाबगर ( drama ) जिवीं व्यक्तिचित्रां रेखाटपाचीं मीना-बायची तांक मोटी. खंयचेय कथेंत ती दिसून येता. तिका लागून कथा आकारान ल्हान जावनूय बी त्यो आंगापांगान भल्लेल्यो दिसतात. कथाबीज लेखिकेंच्या मनांत पडनाफुडेंच तिका कथेच्या सगळया आंगांची जाण आयिल्ली आसता. प्रतिभेचेर साहित्यकाराचें नियंत्रण नियमन असल्याबगर अशी निर्दोश कथा बरोवप कठीण. बारीकसारीक तपशील लेगीत एकाच मुख्य हेतूक पोशक जायत वता. हांगा प्रतिभा गणिताच्या हिसबान ( regour ) चलता. कथेची चिकित्सा करता आसतनाच हें कसब लक्षांत येता. कांय कथालेखक व्हडले–व्हडले विशय घेतात. तकलेक त्रास दिवन व्हडले–व्हडले प्रसंग सोदतात आनी व्हडली कथा बरोव-पाचो हावेस धरतात. तांका म्हजी शिटकावणी कि तांणी असल्या फंदांत पडचें न्हय. खरेले आस्तेन सामान्यांचो अभ्यास करचो, विशय सामान्यांतलोच घेवचो, ताचें खूब चिंतन करचें. मागीर सामान्यांतूच तांकां असामान्य दिसूंक लागतलें. आपल्या भायर सामान्य–असामान्य अशें खऱ्यांनीच कांय ना. असामान्य आसता तें आमच्या मनांत, आमच्याच आत्म्यांत. तें गवसपाची साधना जाय. तिंजेकडेन दुर्लक्ष करून असामान्यांच्या मृगजळा फाटल्यान धांवपांत अर्थ ना. अंतरंगात उजवाड पेटलो जाल्यार मेळत थंय उजवाड दिसतलो. हेंवाळें म्हळ्यार कितें ? पुण ताका पळोवन दामोवर मावजो काव्य आनी तत्त्वज्ञान हांणी थपथपिल्ली अमरकथा बरयता. मोटारिच्या चाकांपोंदा चिड्डल्लो एक कुत्र्यापेटो पळोवन पुंडलीक नायकाची प्रतिभा उसळटा आनी 'मरण इतलें सुंदर आसा' ही समर्थ कथा वयर सरता. मीनाबाय हे बाबतीत दामोदर, पुंडलीकाचे पंगतीक बशिल्ली म्हाका दिसता. कारण जें कितें तिणे बरयलां तें तिणें पळेल्लें आसा, अणभ-विल्लें आसा. तिजी नदर मळबांतल्या नखेत्रांकडेन ना. आपल्या पांयांकडच्या, आपल्या भोंवतणच्या शेवग्या कुळवाड्याकडेन, सखाराम पोस्टमनाकडेन, म्हाड्डू चामाराकडेन, शिरीकडेन आसा. देखुनूच हे प्राणी तिका साद घालतात आनी आपल्यो व्यथा तिका सांगतात. कथाकार आनी कथावस्तू हांचे मजगतीं सहानु-भूतिचो धागो उत्पन्न जाल्याबगर कथावस्तू उबी रावना, आकार घेवंक पावना. sincerity ना थंय खरेलें साहित्य झळकना. साहित्य म्हळयार नाटकाची माची अशें जे साहित्यिक समजतात ते साहित्याची फटवणूक करतात म्हणचे परस आपलीच फटवणूक करतात म्हणूंक जाय. साहित्यीक वाडटा तेन्नाच ताचें साहित्य

वाडटा. साहित्यिकाची वाड थांबली म्हणटकच साहित्य निस्सत्व जाता. साहित्य निर्मितीचें हें मुळावें तत्व नव्या कथाकारांनीं दोळ्यांआड करचें न्हय. व्यवहारांतलें सत्य वेगळें, साहित्यांतलें वेगळें अशें मानपाची वृत्तीं व्यवहाराक फायदेशीर जाता जायत. पुण ती Creative Personality क घातूक आसता. दुबळो साहित्यीक हेच वृत्तींतसून तकली भायर काडटा.

कांय साहित्यीक आपली खरेली वास्तव जीण लिपोवपाखातीर साहित्य बरयतात हें हांव जाणां. असले जादुगार प्रत्येक साहित्यांत आसतात. तुकारामापरसूय रसाळ अभंग आमी बरयतांव अशें सांगपी कवी हांवें पळयल्यात. पुण ते तुकाराम जायनात. कोंकणी साहित्यांत आज कथेक पीक येंवक लागलां. कवितेक पयलींच आयिल्लें. आज हांव अशें म्हणटां कि कथा आनी काव्य ह्या दोन मळार खंयच्याय प्रादेशीक साहित्याक आमची कोंकणी सर्त करूंक शकता. संख्येन न्हय तर गुणवत्तेन. लोकशाहीच्या राजकारणात संख्येक म्हत्व आसलें जाल्यार तें साहित्यांत ना.

आशय आनी आकार ह्या दोनूय बाबतींत मीनाबायच्यो कथा वेल्या पांवड्याच्यो आसात. कांय कथांची रचना तिची Maturity दाखयता. ‘ तळमळे ’ आनी ‘ स्वीट ड्रिम्स ’ ह्या दोन कथांची रचना एकेच धारणेची आसा. दोन पातळींचेर तांचो विकास जाता. एक पातळी वेली. ती वाचप्यांक दिसता. दुसरी सकयली. ती दिसना. आमकां दिसना. पुण कथाकाराच्या मनांत सारकी घोळटा. उतरांनी उकती करपाचें ती टाळटा. ‘ तळमळे ’ हे कथेंत बाप्पाची चलीं शीला एका मवाल्या वांगडा लग्न जाता म्हणून तो खेदता, भोव कश्टी जाता. पुण आपलें दुख्ख तो गिळटा. तो आड्डना, घर माथ्यार घेना. बायलेचेर तिडकना. आपल्या शीलावेलो मोग तो माजराचेर ओतता. आपले वत्सलतायेक तो अशी वाट करून दिता. दर्या वेल्यान शांत आसा. पुण ताज्या पोटांत मात मोड उठलां. मनांतलो घुस्मटमार सोंसू नज जाता तेन्ना ताच्या तळमळ्यांक खतखतो येता. तो म्हणटा, “ ताका हांगा हाडया. ” बायल समजता, वियेवपाच्या बोवाळांत भायर आशिल्ल्या फुलू माजरा विशीं तो उलयता. ती रागारागानच म्हणटा. “ ह्यावेळार फुलू म्हऱ्यांत वचप बरोबर न्हय. तें आसा थंयच आसूं दी. ”

तेन्ना बाप्पाचो आवाज ओलो जाता. तो म्हणटा. “फुलूची खबर न्हय गे,.... शीलाक हाडुंया म्हणटालों हांव.” हांगा कथा सोंपता. बाप्पा मनाक चुरको लायता.

'स्वीट ड्रिम्स' हे कथेंतली आंकवार गुलू लग्नाक खेपता. लग्न जावपी चलयांची काकुळट करता. तांची अखटाय करता. आपले धाकटे भयणिचें लेगीत लग्न जांवक दिना. लग्न जाल्ल्या आपल्या वळखिच्या चलयांच्यो-लग्न जातकच कश्यो वाद्रयो लागतात तें रुचीन सांगता. कोणाचो घोव सोरो पियेता, कोणाचे घोव किरिस्तांव चेडवां फाटल्यान लागल्यात अश्यो खबरी ती रुचीन सांगता. पुण मनांतल्यान ती लग्नाक आंवडेता. हे आंवडे कोणाकच दिसनात. खंयच ती तांचो उच्चार करिना. पुण कथेचे शेवटीं तिच्या भितल्ल्या घुस्मटमाराचेर लख्ख करुन उजवाड पडटा. ह्यो दोनूय कथा दुसऱ्या भाशानी अणकारीत जांवच्यो अशें म्हाका दिसता.

मीनाबायची भास रसाक अणकूळ अशी आसा. सादीं, सोपीं उतरां सुटसुटीत वाक्यां. जशीं उलयतात तशीं. आपूण वेगळें कितेंय बरयतां अशी खोटी जाण नासतना बरयल्लीं. ताका लागून कथेच्यो चार वळी वाचनाफुडें ती आमच्या मनाक ओड लायता. कुळागारांतल्या निर्मळ झऱ्याप्रमाण ती व्हांवती. झऱ्याचें निसर्गीक नृत्यय थंय प्रगट जाता. जड उतर सोदतलो म्हळ्यार मेळना. उतरां म्होंवाळ, घरगुती आनी वाक्यरचना अस्सल कोंकणी. म्हळ्यार मधूर, अर्थगर्भ, साक्षेपी. कोंकणिच्या कांय प्रतिभावान लेखकांक लेगीत ही गजाल अजून सादूंक ना. तांचे कोंकणीचेर मराठिची सांवळी पडिल्ली दिसता संस्कृतप्रचूर जड उतरां आमचे लवचीक कोंकणीक पेलनात. तीं विशोभीत दिसतात. मीनाबायचे कोंकणीक गोंयचे मातयेचो वास येता. तिच्या उतरांतल्यान गोंयकार मनशांचो सभाव निथळटा, देखीक हो प्यारो :

गणो आल्फियाद फुलू खारविणील्या पोलक्याचो खांको कापतालो; सोर्तिची खबर आयकून ताणें खांक्याच्या जाग्यार गळो कापून उडयलो. तुको न्याकार भजीं गाळटालो; म्हाड्डूली गजाल आयकून तो कितलोसोच वेळ कायलींतलो झारो भज्या पिठांतच फिरयत बसून रावलो. बेबीली आवय गोठयांतलें शेण घेवन घरा येताली तेन्ना रायूक मेळ्ळी. "म्हाड्डू चामाराक पन्नास हजार रुपया लागले." इतलें रायून तिका सांगलां मात—"रायू, तुकां खोटां बोलूंची वायट संवय रे." अशें म्हणून तिणें शेणाच्या हातान रायूचे फाटीर एक धपको घालो आनी ती तुरतुरीत घरा वचूंक लागली. रायू मात जायतो वेळ तिका, म्हाड्डूक

आनी म्हाड्डल्या पन्नास हजारांक गाळी घालीत लागशिल्ले बांयचेर खोमीस धुयत बसलो.

'मोग्रे कळे निळे निळे' ही कथा एका वेगळया मुडांत बरयल्या. हाका लागून तिची शैलीय वेगळी जाल्या. 'सिम्बॉलिक' म्हणूं येता अशी. हे कथेचो विस्तार मोटो करूं येतालो. पुण मीनाबायन पांच पानांत विशय, आशय, सभाव, मनांतलीं मोडां—सगळ्यांचो परामर्श फावS तसो घेतला. हें काम भोव कठीण. सुटसुटीत वाक्यां, ल्हान ल्हान प्यारे; वर्णनां नात. कथानकूय सामकें थोडें, संक्षेप आनी सूचकताय. विशयाचें अर्क (ॲस्सेन्स्) तितलें दिसता. आशय तकली घुंवडायता. चिंतन करूंक लायता. सामान्य कथाकाराक असल्या विशयांत चरूंक रान मेकळें आशिल्लें. पुण मीनाबायन हे कथेंत एकतारीचेर एक दुर्घट राग आळयला. बायलांची चिरंतन फटवणूक हो हे कथेचो विशय. तो एका विरविरीत पड्ड्यांत वेडायला. हाका लागून हे कथेक एक रहस्यमय वेगळेपण आयलां. फांत्यापाऱ्या नयले धुंवटेन सैमांच्या देखाव्याचेर हय न्हय—शें दर्शन जावचें तशें पोपू मोग्रे कळ्याचें चित्र काडटा. ते कळे निळे आसता, धवे न्हय. आवय ताका ताची चूक दाखोवन दिता. तो म्हणटा : ते निळेच आसूंक जाय. आपलो हट तो सोडिना. जयंताचें—आपल्या बापायचें गुपीत पोपू उकताडा हाडटा. हें गुपीत प्रतारणेचें. हेमा गोंदळांत पडटा. तिच्या मनाची ल्हारां वयर सकयल जावंक लागतात. जयंत तिका सिनेमाक व्हरता, पांचवी साडी हाडून दिता, नसती माया दाखयता. हो फरक हेमाक जाणवता. जयंता वांगडा पोपून पळेल्ली तांबडे साडयेंतली बायल हेमाक बेचैन करता. पुण ती आपल्या दुबावाचो पत्तो लावंक दिना. उरफाटे सुरफाटे विचार तिका घोंसतात. पुण ती म्हणटा : 'पुण ज्या अर्थी तें कळचें न्हय म्हणून तूं इतलो यत्न करता त्या अर्थीं म्हाका दिसता, यू स्टील कॅर फॉर मी. त्या भायर पोपू आसा.' मनाचे कुचमणेत ती अशें समाधान मानता. मोग्रे कळे धवे पुण पोपूचे निळे. निळ्याकूच तो धवे म्हणटा. तशेंच हेमाचें सुख. तें वेरावलां हें तिका कळटा. आनी तरीय ती तें सोंसता, भायर दाखय नासताना. मीनाबायचे प्रतिभेची एक आगळी ताकद हे कथेंत दिसून येता.

'तुजेच यादीची गांठ' हे करूण कथेंत मीनाबायचें भाव विश्व फुल्लां. कथेक कथानक अशें ना. फाटल्यो यादी प्रसंग उबे करता. आनी एक रम्य, सोबीत

व्यक्तिचित्र तयार जाता. तातुंतल्यान कळवळे पाजरतात. ‘ बा ’—म्हातारी. पणजी. माथ्यावेल्या पद्राची, तिचें अनवाळपण, तिची पणटी तिका भेश्टायता : ‘ आफुडटां तुका ’. बा ताचे आवयक उलो मारता. सांगता : ‘ व्हर गे सायबिणी हाका. आफुडटा, आफुडटा करून नाचता हें हांगा. ’

बाचें काणयांचें भांडार. काणी ताला सुरांत. जेवतना एके तरेची, न्हिदताना दुसरे तरेची. भोळी गाय आनी दुब्रो पाडो. वाग गायचेर धुरी घालता तेन्ना दुबो पाडो म्हणटा : आगा आगा वागा, म्हाका येवन खागा; म्हातारे आईक म्हजे सोडून दीगा. ”

भोळी म्हणटा : ‘ आगा आगा वागा, म्हाकाच सायबा खागा; तानुल्या दुब्याक म्हज्या सोडून तूं दीगा. ’

असले तरेच्यो बाच्यो काणयो. आनीक एक याद. बा अडिल्ल्या नडिल्ल्या लोकांक पावता. हरचंद तिका सोदीत येता. भियेत भियेत धा रुपये मागता. बा ताका धा रुपये हाडून दिता. शेजाऱ्यां पाजाऱ्यांक वायट जालें जाल्यार बा तांकां पाळा–मुळांचीं वखदां दिता. आनी धीर दिवन घरा धाडटा.

बाक याद उणी. देखुन ती पदराक गांठी मारून दवरता. पुण ऐन वेळार खंयची गांठ खंयच्या कामाची तें ती विसरता. मागीर पणटेक उलो मारता आनी गांठिची फोडणिशी विचारता. पणटी तिचीं फकाणां मारता. असलीं वर्णनां कितले रुचीन आनी नाजुकसाणेन मीनाबायन केल्यांत.

अश्यो ह्यो मीनाबायच्यो कथा. वाचप्याचें मन आनी बुद्द हांकां जागोवन मनीसपणाचे वाटेन व्हरपी. साअित्यनिर्मितिचें रहस्य शिकोवपी. मीनाबायच्या ह्या कथांनी कोंकणी कथा–साअित्याचो पांवडो निश्चीत वयर व्हेला. मोख्या अभि. मानान हांव म्हणटा कि कोंकणी कथा–साअित्याचो दोंगर ह्या कथांक लागून कुचकुचीत चंवल्ला.

आयचे मराठी कथेचो दर्जो कोंकणी कथेक येवपाक उणींच म्हळ्यार पन्नास–साठ वरसां लागतलीं अशे कांय अप्रबुद्द टीकाकार म्हणटात. कोंकणी कथा जल्मल्यार चाळीस वरसां वयर जावन गेल्यांत. आयचे तरेची पयली कथा शणै गोंयबाबान बरयली. ती गोंयच्या मुक्ती उपरांत जल्माक येंवक ना. पुण समजुंया कि ती मुक्ती उपरांत जल्मली, तरी कांय इब्राडना. कोंकणी कथेचो दर्जो मराठी कथेपरस इल्लोय सकयलो ना. कोंकणी कवितेचीय हीच गजाल. ‘ अशें कशें

जावंचें ?' तुमी विचारतले. ताका जाप अशी कि आयच्या आमच्या कोंकणी कथाकारांनी फाटल्या सत्तर–अंयशी वरसांतली मराठी कथा पचयल्या. त्याच वांगडा हेर प्रादेशीक कथा-साअित्य आनी मुख्य म्हळ्यार पश्चिमात्य स्रेश्ट कथा साअित्य वाचून आनी अभ्यासून ताची स्रेश्टताय ताणीं आपणायल्या. देखून कोंकणी कथालेखक मराठी कथाकारांपरस दोन पावलां फुडेंच आसा.

मीनाबाय जैतांचीं आनिकूय मुखावयलीं पावलां घालतली अशी उमेद हांव बाळगितां.

* * *

: ३ :

# शीलाबायच्यो कथा

'ओली सांज' हो शीला नायकाचो पयलोच कथासंग्रह. फाटल्या कांय वरसांत कोंकणी कथेक सुमारा भायर पीक आयलां. पाऊणशें-अंयशीं वरसांत मराठी साइत्याक जें सादलें ना ते कोंकणी साइत्यान थोड्याच काळांत करून दाखयलां. ह्या कर्तुपांत कोंकणिची शक्त जशी दिसून येता तशीच कोंकणी मनशाची प्रतिभाय दिसून येता. ह्यापयलीं गोंयकार लेखकांनी खंयचेच भाशेंत इतलें कथा–साइत्य बरयलें ना. आज तें लसलसून वयर सरता—आगळ्या नेटान, आगळ्या तेजान. अशें अचकीत कितें घडलें म्हुण कोंकणी प्रतिभा अशी तरतरून वयर सल्ली? ह्या प्रस्नाची जाप अशी :

कोंकणी प्रतिभा फाटल्या काळांत दुसऱ्या भाशांच्या आलासऱ्यान चलताली. आज तिका निजाची भास मेळ्ळी. पयलीं ती फिरंगी, मराठी, कानडी अशा भाशांतल्यान उकती जाताली. ताका लागून तिका आपल्या खाशेल्या सामर्थ्याची जाण येवंक नाशिल्ली. निखटे बुद्दिच्या मालवजार ते बरयताले. मन बुसमट्टालें. आत्मो तर चेपुनूच गेल्लो. बुद्दी आनी मन हांचे सकयल आत्मतत्व आसता. ताका परकी भासो आफडूंक पावूंक नाशिल्ल्यो. साइत्यिक भास म्हुण कोंकणी उबी रावली तेन्ना एक मोटो चमत्कार घडलो. येवरोपेव भासांचें ज्ञान जाणीं पचयल्लें अशे पंडीत आपल्या मनाचो थाव घेवंक लागले. आपल्या आत्मतेजाचे सोदीक लागले. भायली जोड गडगंज मेळयल्ली, पुण आपुण कोण ह्या मुळाव्या प्रस्नाची जाप सोदपाचे ताका तळमळे लागले. आमी पंडीत–महापंडीत जाले. पुण साइत्य निर्मितिच्या मळार अन्नाडीच उल्ले. आमी जग जिखलें पुण खरेलो पुरुशार्थ आमच्या हाताक लागलो ना. आमी

जागतीक साइत्य आलथें-पालथें घालें, पुण खरेले निर्मितीक लागता तें आत्मतत्त्व आमकां गवसलें ना. आमी मनाचे भिकारीच उल्ले. हे कोडवें सत्य जेन्ना त्या पंडीत-महापंडीतांक होलमलें तेन्नां गोंयचे भुयेंतल्यान, तिचे उपेक्षीत कोंकणीं· तल्यान हुंकार भायर सल्लो. ती एक प्रेरणाच थल्ली. थंयच एक मंत्र जल्मलो. आनी भोंवतणचें वायुमंडळ परम-भव्य आनी दिव्य सुरांनीं थरथरलें. ह्या सुरांतल्यान एक उलों भायर सल्लो आनी तो जळीमळीं पातळ्ळो. “ भुरग्यांनो, तुमी अशे रानांत कित्याक पडल्यात ? तुमकां जागोवपाक हांव आयलां. तुमच्यांतलें चिड्डिल्लें माड्डिल्लें मनीसपण वयर काडपाखातीर हांव आयलां. तुमच्यांतलें सर्जन उकताडा हाडून तुमच्या आत्मतत्त्वाक रूप आकार दिवपाक हांव आयलां. ” हो उलो कानार पडना फुडें हे भुंयेच्या भुरग्यांनी आंगावयलीं भायलीं आंगलीं-तोपरीं भिरकावन माल्लीं आनीं आपले भूंय-भाशेन ओंपिल्लीं नवीं वस्त्रां आंगार घालीं.

अश्या नव्या भुरग्यांतली शीला नायक ही एक चली. ती भौसांतली. पुंडलीक नायका भशेन. भाशेचो आनी भुंयेचो साक्षात्कार जायना बराबर ह्या भुरग्यांचीं तोंडा उकतीं जालीं. तांचीं मनां बृहस्पतिची वाचा घेवन उलोवंक लागलीं. तांचे भितल्लें सामर्थ्य भायर फाकारूंक लागलें आनी तांच्या तेजाचो घणघणीत उजवाड आसमंतांत फांकलो. कोंकणींत दिल्ल्या मनाचो हो प्रताप. ताची कुरू म्हळयार नव्या कथा-साअित्यांत ‘ ओरिजिनालिटी ’ लखलखूंक लागल्या. शीला नायकाची ‘ओली सांज’ हेंय तेच्च कलेचें एक रूप. तिची कथा एक बेगळेंपण घेवन फुडें आयल्या. तिची खंयचीय कथा वाचली जाल्यार हें वेगळे-पण लक्षांत येता. ओलीसांज हे पयलेच कथेंत तें प्रकर्शान दिसून येता. कसलें तें वेगळेंपण ? स्वप्नरंजनाचें. काव्यात्म मनाच्या स्वैर विलासाचें. खरखरीत वास्तवाचें चित्रण करता आसताना लेगीत शीलाचो हो भावूक, कल्पक पिंड तकली वयर काडटा. ओली सांज हे कथेंत तो स्वैर जाला. थंय कल्पनांचो पावस पडटा. थंय भावा वांगडा भावुकताय तालार नाचता. वास्तवांत अशें खंय घडटा ? ओली सांज पळोवंक आपलें काम-बीम सोडून भर पावसांत खंयचें चली भायर सरीत ? पुण शीलाक सैमान सृश्टीक ओंपिल्ल्या ओलसाणीचेर हात भोंवडावपाची ओड लागता. ती घरांतल्यान भायर सरता आनी मागीर तिका वेगळयो वेगळयो यादी जातात. वणटीचेर पानाच्यो पिको उडोवन थंय तयार

जाल्लें तांबडें रान, तळयाचें सौंदर्य आनी तळयांतलो विद्रूप बेब्रो पळेता आनी मागीर ती सारकें काव्य उलयता. तिचो रोमँटिझम तिका कथेपसून पयस व्हरता. स्वप्नरंजन प्रभावी जाता. रानाचें चित्र पळोवंक वता थंय तिका आडमेळें येता. एकलो मनीस थंय एकी करूंक राविल्लो तिका दिश्टी पडटा. ती फुडें वच जाल्यार कांय जाण तिका पळोवन पोजडें उलयतात, कांय जाण तिका पिशांत काडटात. भोंवतणचीं फुलां पळोवन ती पिशी जाता. तिका पिशे शांतूची याद येता. तळयाकडेन वता जाल्यार, तळें आटून गेल्लें दिसता. आनी थंय दिसता तो ल्हेंवटे नदरेचो बेब्रो. हो देखाव तिज्यान सोसूं नज जाता. तकली घट्ट धरून ती घरा येता. एस्प्रोच्यो गुळयो घेता. आनी वाडटया काळखा बरोबर काळें जायत वता.

शीलाची ही कथा वाचतकच म्हाका थंय एक रूपक दिसूंक लागता. सरळ निस्पाप मनीस जगांत कसो विरूस जाता, आडमेळीं येवन ताका जीण कशी नाका जाता हें दाखोवपाचो हेत ना मू लेखिकेचो? तशें आसत जाल्यार, हे कथेक आगळोच अर्थ येता आनी तिचें मोल वाडटा.

शीलाचे शैलींत हो रोमॅन्टिझम भरसून गेला. ह्या संग्रहांतल्या चडश्या कथांनी ताचे दाट पातळ रंग दिसतात. हाचें कारण शीलाचो काव्यात्मक पिंड जावंये. ताका लागून तिची तरळ कल्पना आनी हळवार भावना भिरसुटे भशेन वाऱ्या वांगडा वोतांत भिरभिरता. भौतेक कथांतलीं पात्रां संद मेळ्ळी रे मेळ्ळी सपनांत गुल्ल जातात. तेन्ना तांचे हे 'मुड्स' कथेक बादूं येतात. भावने-कल्पनेचें हें भिरभिरप तोखणायेचें खरें. पुण तें कथेचें खरेलें सौंदर्य न्हय. मोगांत पडिल्ल्या एका अन्नाडी भुरग्याचें 'घाय' हे कथेंतलें गोंयदाचें चित्र पळेयात. शीलाचें रोमँटिक मन थंय उलयता. एका हॉटेलांत कपबश्यो धुवपाचें आनी गिरायकांचे पयशे धनयाक आड्डून सांगपाचें ताचें काम. पुण थंय ताचें लक्ष ना. कशें आसतलें? तो नीताच्या मोगांत पडला न्हय? नीता ही एक कॉलेज कन्या. तिचो मोग दुसऱ्याचेर आसता. पुण ताका तें लागना. तो तिच्या सपनांत गुल्ल आसता. ती दिसना जाल्यार तो तळमळटा. ताच्या हातसून कपबश्यो फुट्टात. नीता दुसऱ्या भुरग्या वांगडा दिसल्यार तो निर्शता. ताका ताचो राग येता. पुण तो राग रोख-डोच न्हिवता. एक दीस नीता ताका एक काम सांगता. कॉलेजच्या एका भुरग्याक शेखराक–एक पाकीट व्हरून दिवपाचें. गोंयदा भुल्लुसता. नीतान आपल्याक

काम सांगलें म्हुण तो सामको पिसो जाता. ताका केन्ना केन्ना सपनांय पडटात. सपनांत ताका एक राजकन्या दिसता. ती नीतासारकीच सुंदर आसता. ती ताका माळ घालता. आनी दुसऱ्या दिसा हॉटेलांत बटाट शिनता आसताना ताका कळटा कि नीता शेखरा वांगडा पळून गेलें. गोंयदाक कच्च जाता. ताच्या हाताक सुरी लागता. रगत व्हांवता. ताचें ताका भान नासता. आनी मागीर तो आपलो हात जमनीर आपटीत ताका ख्यास्त भोगयता. तो म्हणटा : “ हाकाच लागून हें अशें जालें. ह्या हातीक अशेंच जाय, अशेंच जाय. ” आनी तो खोळसा–खोळसांनी रडटा.

‘ खेळ ’ ही कथा घेयात. अंजू एक चली. हिचो धाकटो भाव राजू. दोगांय खेळटात. राजू रडी खेळटा. अंजू उबगता. मागीर आवय ताकाच उलयता. दीसभर अशें चलता. राजूक अंजू सांबाळटा आनी तो ताका तरेतरेन त्रास दिता. आवय अंजुकूच धबकायता. मागीर अंजूचें मन कल्पना करूंक लागता. “ अंजूक दिसलें दर्या ताका हांसता. तें रडटा म्हुण. तो दर्या, दर्यात भितर वचूंक पळेता तो पांचवो चार दोंगर, त्या दोंगरावेली धव्वीच इगर्ज, सगळें सगळेंच कशें सोबीत दिसतालें. अंजूक अजाप दिसलें. ताका हें सगळें पयलीं कशें दिसलें ना ? तें हरशीं सदांच तो दर्या, तो दोंगर पळेतालें. ” फुडें तें येवजिता–“ बाबाक सांगूंक जाय : निळो, मदीं मदींच चकचकता तसलो कुडको हाड म्हुण. आनी आईक सांगूंक जाय : धवेंच रेन लावन व्हिस्तीद शींव म्हुण. काय बरीं ल्हारां ! अशी कशीं येतात काय दर्यांत ? ह्या ल्हारार बसपाक मेळ्ळें जाल्यार आपुणूच घसरगुंडी कशी जातली ! कितली मज्जा जातली ! त्या परस उदकांत चलूंक मेळत जाल्यार म्हाका आनी राजूक ! तशें जाल्यार कितलें बरें जातलें आशिल्लें ! आमी दोगांय उदकांत खूब खेळटलीं आशिल्लीं. हय, मागीर थंय व्हाज बी कांय फुटचो नाशिल्लो. आनी आओय रागार जावची नाशिल्ली. ” हें स्वप्न-रंजन न्हय ?

‘ अशीच एक दनपार ’ हे कथेंतले छायेक पळेयात. ती एक वाडिल्ली चली. आवय ताका पावला पावलाक खेत्सिता, मारता. ताच्या हातसून बुयांव फुट्टा. आवय ताका खेपता. मागीर तें म्हणटा : “ खरेलेंच, हांव मेल्लें जाल्यार कितलें बरें जातलें आशिल्लें. पयली गजाल म्हळ्यार आई काय अशी उलोवची नाशिल्ली. फाल्यां सावन घरांतलीं सगळीं कामां हांव करतलें. ” मागीर

घरचीं सगळीं कामां तें करता. मुस्तायकी धुवप आनी आयदना घांसप लेगीत.... मागीर ताका जोर येता...जोर आंगांत आसतनाय तें काम करता....मागीर ताका आनीक जोर येता...जोरांत तें बडबडटा...( ह्यो सगळ्यो ताच्यो कल्पनाच आं ) मागीर तें मनांत म्हणटा " हांव संवसारांत एकलेंच वायट. हांव मेलें जाल्यार सगळीं सुखी जातलीं. निदान सगळ्यांक सुखी करपाखातीर तरी म्हाका मरुंकूच जाय...आई रडटा दिसता...उं ! उं !....आतां किट्याक रडटा ? हांव जाल्लें तेन्नाच मेल्लें जाल्यार बरें जातलें आशिल्लें न्हय ! "...अशे मनस्थितींत आसताना छायाक एक सायकलकार दिसता. मागीर ताची कल्पना चलूंक लागता. ताका पळेतकीच ताका रडूंक येता. तें खूब रडटा. ताज्यावेल्या मोगा खातीर तो कसो धांवत आयलो तें तो छायाक सांगता....हो हांगा पावलो कसो ? छायाक अजाप जाता. ताका रोखडोच आवयन केल्लो अपमान याद जाता. तें पर्थून रडटा. तेन्ना तो ल्हवूच ताचें तोंड दोनूय हातांनी उबारता. आनी ताच्या दोळ्यांत पळोवन तो ताका सांगता : " आतां रडूं नाका पिश्या. आतां हांव आयलों. पळे. हांव आतां तुका घेवन पयस वतलों. थंय तुका कोण कांय म्हणचो ना. तूं मागीर रोखडें बरें जातलें....पळे....रडूं नाका....आनी आतां हांस पळोवया मातशें.... "

तें मागीर रडटा आसताना हांसता. आनी हांसता आसतानाच पर्थून रडटा. ताचे छातयेर आपली तकली दवरून. ' नारे, तूं खूब उसरान आयलो....म्हाका आतां मरुंकूच जाय....पाडा पडिल्लया. आतां किट्याक आयला तूं ?...जालीम, मेरी मुहब्बतने तडपकर तडपकर ही अब तुझे मरना है..."

आतां ताचें रडप कशेंच थांबना....तें हुडक्या हुडक्यांनी रडटा. इतल्यान आवय आड्डता...." भरिल्लया घरांत भर दनपरां रडूं नाका दळिद्र कशें.... ऊठ पयलीं थंयचें....उठ्टा काय घालूं एक खोंट कमरार ? " आनी मागीर छाया उठटां उठटां म्हणटा, ' उं ! उं ! म्हणचे, म्हाका कांयच जावंक ना तर ! '

शीलाबायची ' छाया ' कशी ती पळेली मू ?

' सतार ' हे कथेंतलें सगळें वातावरण काव्यमय. ती चलीय काव्यमय. सतारिचे भाशेंत ती उलयता. ती म्हणटा : " हाचेकडेंन लग्न जावचे पयलीं म्हाका सतारीचोच आधार आशिल्लो. हांवें फक्कत दोगांचेर मोग केलो. सतारीचेर आनी हाचेर. " कथेच्या शेवटाक तिच्या घोवाची वेव्हारी नदर उकती

जाता. तो म्हणटा : “ सतार शिकप ही आयची फॅशन. तेन्ना सतार शिकोवपाचो क्लास काड....पांचशें रुपयांक मरण ना. ”

आनी ते राती तिचे सतारिचे सूर चान्न्यांत भिजत न्हिदिल्ल्या घरांचें आनी झाडापेडांचें काळीज चिरीत वेतात.

‘ मोग ’ कथेंतलें रश्मी मोग करूंक जाय म्हुण भायर सरपाची तयारी करता. खंयचें पातळ न्हेसचें ह्या विचारांत आसतनाच ताका तंद्री लागता. आनी बिपिनाचीं सपनां पडटात. तें बिपिनाक मेळूंक गेलां. बिपिन ताका मेळ्ळो. तीं दोंगरार खूब भोंवलीं.. ताणीं पदां म्हळीं. मळबांत तरेक तरांचीं कुपां आशिल्लीं. तांची ताणीं सोबित फुलां केलीं. मदींच रश्मीन खूब कुपां एकठांय केलीं आनी तांचे वयल्यान तें चंद्रार गेलें आनी लिपून रावलें. बिपिन काचाबूल जावन ताका सोदूंक लागलो. पुण तें मेळ्ळेंच ना. चंद्रार बसून रश्मी ताची मज़ा पळेतालें. तितल्यांत बिपिन ताका साद घालूंक लागलो. “ रश्मी, ए रश्मी.... ”

‘ वाऱ्यावयलें सपन ’ हे कथेंतूय सपनां आसात. कथेंतलें चली म्हणटा : “ हांव कुळागाराच्या पाटार गेलें. आंगांतलें धुवपाचें निमित्त. पुण मेळूंक तुळशीक. आमी दोगांय उलयतात आनी मदींच म्हजो बापूय येता. आनी तो तुळशीक मारता. भावाचें तुळशीकडेन लग्न जाता. तुळशी व्हंकल जावन म्हज्या म्हऱ्यांत बसलां. कितलें सोबीत दिसता तें ? इतल्यान ताची आवय येवन ताका भरभरीत ओडून व्हरता. ”

रसाचे नदरेन येवजीत जाल्यार, शीलाच्या कथांनीं सप्नरंजना वांगडा करुणेचो पाट व्हांवता. खंय मोटो, खंय बारीक. ‘ ओली सांज ’ हे कथेच्या निमाणें तो उसळून वयर आयिल्लो दिसता. ‘ घाय ’ हे कथेंत तो तांबडो भडक जाल्लो दिसता. ‘ खेळ ’, ‘ अशीच एक दनपार ’ ह्या चलयांचो घुस्सटमार दाखोवपी कथांनीं असोच कळवळो भल्ला. त्या चलयांच्या सपनांत हो कळवळो पाझरता. ‘ स्वाप ’ हे कथेंत त्यागान भल्लेल्या हेमाचे जिणेंत होच करूण रस व्हांवता. ‘ सतार ’ कथेंतूय तो तकली वयर काडटा. ‘ वाऱ्यावेलें सपन ’ हे कथेंतल्या तिगांय पात्रांचें दुख्ख गूढ आनी गाढ. ‘ भावी ’ हे कथेंतलें दुख्ख वेगळे तरेचें. भाबीलो घोव व्यसनी. तो सोरो पियेता, चोरी करता, कादयेंत पडटा. घरा येता तेन्ना तिका मारता. घरांत दळिद्र. तिका उपास काडचे पडटात. पुण ती सोंसता. ‘ कोडवें सुख ’ हे कथेंत लॉरी आपलीं दुख्खां सोऱ्यांत बुडवपाचो

यत्न करता. ‘ मॅगी ’ हे कथेंतले चलयेची व्यथा जितली गाढ तितलीच व्यापक.

‘ मॅगी ’ ही कथा अप्रतीम जाल्या. संयम आनी सुचकता हांचो मोटे कुशळ-तायेन उपेग केल्ल्यान कथेक विलक्षण सामर्थ्य आयलां. कथा ल्हान पुण तिची खोलाय खूब मोटी. आशयूय तसोच मोटो. मॅगी ही एक गरीब चली. बापूय सोरेकार. आवय नुसतेकान्न. बापूय आवयक बडयता. चली घुसमट्टा, सोंसता. पुण आपल्या घुसमटमारांचो, हालडपाद्रयांचो तें आपल्या तोंडान खंयच उल्लेख करिना. घरांत आनी भायर ताची उपेक्षा जाता. कोणूच ताचें कवतूक करिना. चलत तें शाळेक वता-येता. तुटक्यो व्हाणो, पिंजकरो स्कर्ट, आयस्क्रूट खातलें जाल्यार पयशे नात. भुरगीं तिडायतात, हिणसायतात अशे आवतिकायेन तें जियेता वेगळेच गजालीचेर. आपले व्यर्थ जिणेक अर्थ हाडपाचो तें यत्न करता.

‘ बेबी ’ ही ताची मानसकन्या जें सुख मॅगीक मेळना तें तें बेबीक दिता! तिका न्हाणयता, धुणयता, न्हेसयता, बरें बरें खावंक घालता. चॉकलेटी दिता. मोटारीन इस्कोलाक धाडटा. मागीर तिची वाट पळेत बसता. शाळेंत अभ्यासा-चेर ताचें लक्ष ना. टिचरी मॅगीक बावड्याक उलयतात मारतात. तें सगळें सोंसता. आपली वास्तव दुख्खां बेबीच्या काल्पनीक सुखांत बुडयता. ड्रॉइंगच्या क्लासांत तें चित्र काडटा. सुरी घेवन आपले बायलेक मारतल्या मनशाचें. आनी आपली मोनी व्यथा उकती करता. पुण उरफाटें नशीब ताची फाट सोडिना. टीचर ताका मारता एके जाणटे बायले भशेन तें सगळें सोंसता.

टीचर ताका काणी सांगूंक लायता. तें काणी सांगता. आपले मानसकन्येची बेबीची–म्हळ्यार, आपल्याच नशिबाची. कथेंतल्या बेबीक टीचर मारता. ती घरा वतकच बापूय मारता. आनी त्याच मारान ती मरता

हांव मॅगी वाचून सोंपयतां तेन्ना ल्हानपणांतूच म्हातारपण आयिल्ले दळिद्री चलयेंत म्हाका असंख्य पिडीत चलयांच्यो मोन्यो व्यथा साकार जाल्यो दिसतात. आपले कथेंत universal तत्त्व घालपाची शीलाची तांक पळोवन म्हजो जीव धादोस जाता. आनी शीलाची करीत ती तुस्त म्हाका थोडीच दिसता.

‘ मॅगी ’ भशेन ‘ विद्येच्यान तर ’ आनी ‘ बेबी ’ ह्यो कथा म्हाका भोव आवडल्यो. ह्या कथांनी शीलाची काव्यत्म कल्पना दिसून येना पुण तिची एक वेगळी शक्त दिसून येता जातिवंत कलाकाराची ही शक्त. सादो मसालो घेवन मुर्त घडोवपाची. सामान्याचो उपेग करून कलाकृती घडोवपाची. ह्यो तीन कथा

म्हळ्यार तिच्या कलामंदिराचो त्रिकोणी भांगरा कळसूच. काव्य कल्पनाचो आधार घेतल्याबगर निखळ्या वास्तवतेच्या बळग्यार कितल्यो बऱ्यो कथा बरोवं येतात हें हांगा शीलाच सिद्ध करून दिता. 'विद्येच्यान तर' हें कथेंतलें वातावरण सगळ्यांचे वळखिचें. शाळा, मास्तरीण, भुरगीं आणि थंयचें चालंत वातावरण. पुण ह्याच सामान्य, किरकोळ साइत्याचो उपेग शीलान इतले कुशळतायेन केला कि प्रसाद काणकोणकार ह्या भुरग्याचें जिवें रसरशीत चित्र आमी केन्नाच विसरचेनात.

" आसत णव धा वरसांचो. बारीक म्हळ्यार मोटया पोल्यांचो. वोंठ मातसो फुडें. धवे चकचकीत दोळे. पोट मातशें भायर आयिल्ल्यान सकयल देविल्लें कलसांव. "

तो हटी. ताका मास्तरीण नांव विचारता. तो सांगता : 'प्रशाद काणकोणकार' प्रशाद न्हय, प्रसाद म्हणून सांगल्यार तो म्हणटा : ' न्हयच, प्रशादूच ! '

आमच्या इस्कोलांत कित्याक आयला म्हुण मास्तरीण विचारता. तेन्ना तो म्हणटा : " आइनूच बाबाक सांगलें म्हाका ह्या इस्कोलांत धाड म्हणून. कित्याक जाणा ? ते चावडेवेले शाळेंतले बाइचें कितें-शें जालें खंय. थंय हांव शिकल्यार पिड्ड्यार जायन देखून म्हाका हे शाळेंत घाला. "

म्हळ्यार, प्रसादाक गांवच्यो भानगडी खबर आसतात.

प्रसाद आपले प्रताप दाखोवंक लागता. सगळ्या भुरग्यांच्या तोंडांत ताचें नांव. ' टीचर, प्रसाद उलयतालो; टीचर, प्रसादान म्हाका माल्लो. टीचर, प्रसादान पेन घेतलें. ' अश्यो कागाळी आयकूंक येतात.

तूं कोण जातलो ? म्हणून टीचर ताका विचारता तेन्ना तो म्हणटा : " हांव कुजनेर जातलों. कित्याक तर जाय तसलें खाण करून खावंक मेळटलें. " असल्या विचित्र आवडिचो हो विलक्षण भुरगो.

" हात वयर करून उबो राव. " अशी ख्यास्त मास्तरीण ताका फरमायता. जाल्यार, हो आडांगी भुरगो उबो रावन वांकडीं तिकडीं तोंडां करून, वांकडें तिकडें आंग हालोवन मास्तरणीक चाळयता. आनी शाळेंतलीं भुरगीं हांसतात. असो वात्रट.

भुरगीं ताका भियेतात. तो म्हणटा : " उषा, उषा, टीचरीक कितेंय सांगशीत जाल्यार पळे, मारतलों धरून. " उषा टीचरीक सांगता, " बापूय ताका बांदून

घालून मारता.... आनी आवय चिमट्यांनीं.... " असो तो कोडगो. " उषाल्या बापायकडेन चार पयशे जाल्यात. देखून आमकां घरांत आनी शाळेंतूय ते शाण-पणां सांगता. " असलीं कुत्शित्री उलोवणी तो करूंक जाणा.

मास्तरणीन आवयक आफोवन हाड म्हुण सांगलें जाल्यार तो म्हणटा : " आवय म्हणटा, तुजी टीचर आसा बेकार, तिका ना उद्योग. तिचे भाशेन आमी बेकार नात म्हुण सांग तिका. " असो हो उर्मट भुरगो.

एक खेपे तो उषाच्या हाताक ब्लेड लावन रगत काडटा. उषा रडटा.

" खंय तो प्रसाद ? मास्तरीण धेंगशेता. प्रसाद उबो रावता. बाडगे नासताना, शांत. उषा प्रसाद हांचे मदीं झगडें जाल्लें आसता. कारण उषान ताका ' डुकरा पेटो ' म्हळो. प्रसादान ताका ' कोंबये दोंको ' म्हळो. प्रसाद तिच्या हाताक ब्लेड लायता. असो हो संतापी.

मास्तरीण ताका विचारता : " आतां हांव तुजें रगत काडूं ? "

' काड टीचर, तुका जाय जाल्यार ' थंडसाणेन तो म्हणटा. इतलो तो बेदरकार. टीचर ताका यथेश्ट बडयता. आनी ताचेकडेन उलोवपाक भुरग्यांक मना करता. पुण तो निवळना. तो एका भुरग्याक म्हणटा : ' हे टीचरीक मारूंकूच येना. म्हाका जाल्यार, मात लेगीत दुखूंक ना. चावडेंतलो शाळामास्तर हिचेपरस बरो मारी. तो मरे, म्हाका सुटमेरेन तकलेर गुंडो दिवन उबो करी. इतलो तो निसूक, निबर. "

ताका इतलो माल्लो म्हुण टीचरीक वायट दिसता. पुण प्रसादाक ताचें कांय ना. ताचें येरे माझ्या मागल्या. ताची मस्ती चालू. टीचर वाजेता. आनी ताका ख्यास्त फरमायता. " तूं उषा आनी निशा हांचे मदीं बस. "

अकस्मात ताचें तोंड देंवता. तो काकुळटीक येवन म्हणटा : " ना टीचर, हांव हांगा बसना. "

टीचर हटाक पेट्टा. ताका ती उखलून बसयतली म्हणटा. तेन्ना तो कळवळून सांगता. " ना टीचर, तुजें हांव सगळें आयकतां, मस्ती करिना, तुका परती जाप सांगिना. विद्येच्यान तर — टीचर, म्हाका चलयां मदीं.... तो हुडक्या हुडक्यांनी रडूंक लागता.

कितल्या साद्या प्रसंगांनीं, उतरांनीं प्रसादाचो नश्टो सभाव हांगां उकतो केला ! कसलोच ड्रामा नासतना, हांगां कथेच्या निमाणे केदो मोटो ड्रामा

निर्माण केला ! खरी कला ती ही, खरी कथा ती ही.

अशीच दुसरी कथा म्हळ्यार, ‘ बेबी. ’

भुरग्याचो दुसरो नमुनो. बेबी चार वरसांचें चली. आई ताका म्हणटा—“ येदी व्हडली घोडी जाली तरी पुण हांतुणार मुतता. ’ तें कबूल जायना. हांतूण ओलें, व्हिस्तीद ओलो. ताका मुतिल्ल्याची याद ना. काल मात् खेळटालीं तेन्ना सगळीं पासयेचेर मुततालीं. ताका याद येता.

आवय ताका दटायता. ‘ रावलें तें थंय. अरवळ गे बाये ! ऊठ पयलीं. आंगाचीं काड आनी दुसरीं घाल. ” तें आंगाचीं बदलता, पुण चेड्डी मात घालिना. बांयचेर वता. बोटार कॉलगेट घेवन तोंड धुवंचें सोडून पेरिचीं पेरां मेजता. हातांतल्या कॉलगेटचे थिपके तें पेरीर काडूंक विसरना.

मागीर ताका आइच्या उतरांची याद जाता. आई म्हणी : पाडेली येतलो म्हुण. ताका पेरां काडूंक सांगूंक जाय. निलाक मात पेर दिवप ना. काल म्हाका ताणें तांबडे कवचेकुडको कित्याक दिलो ना तर ? कवचेचो उगडास जायन. बरोबर ताका बेगडिची याद जाता. काल दुर्गान ताका सांगिल्लें बेगड व्हर म्हणून. आनी तें दुर्गागेर धांवत वता.

आवय ताका धेंगसो घालून आडायता. “ धांवता खंय ? च्या घेतली तुवें ? च्याचें नांव आयकना बरोबर ताका भूक लागिल्ल्याचें कळटा. च्या पियेवन धांवता तेन्ना आवय ताका विचारता

“ चेड्डी घाली गो ? ’

जिवार येवन तें चेड्डी घालता आनी आवयक विचारता : “ सगळीं जाणां चेड्डी घालतात गे ? ”

आई धेंगसो घालता. “ बोगी राव मातशें पळोवया. तें विचारपाचें सोडिना. “ सुमा आत्याय घालता ? तूंय घालता ? ”

“ हय. ”

“ दाखय...”

“ अवजाळी गे बाये पोर. ”

आवय ताका मारता. आईक जीब दाखोवन तें मनांतल्या मनांत म्हणटा : “ कुसकी खंयचे कडली. ”

मागीर ताका आज्याची याद जाता. तें ताचे कुडींत वता आनी तो वाचता

तो पेपर ओढून काडटा. आजो हांसता.

आज्याक मिस्कील प्रस्न विचारता. "देवान आंगार घालिना जाल्यार जाता ?" म्हन्यांतूच महाविराचो उगडो पुतळो आसता.

मागीर तें आजये म्हन्यांत वता आनी म्हणटा : ' व्हडले आई, म्हाका इल्ली सोय दीगे. "

" सोय खाल्यार भालू लग्नाक रडटा. "

" भालू रडटकच किर्ते जाता ? "

आजी उबगता. " सोय ना जाल्यार इल्ली कातली दी गे. तें म्हणटा.

" तुजी मांय माततली आं. '

" आमचे आईन लग्नापयलीं कातली खाल्ली गे ? "

" कित्याक गो ? "

" ती वयनीबाय ना गे. तिका आमची आई म्हणटाली : म्हजी मांय बरीच मातल्या म्हुण. "

पयस बशिल्ली ताची आवय ताचेर दोळे वटारता. तें निलागेर धांवता. धांवचे पयलीं बचको मारून सोय घेवन वता.

निलागेर भुरगीं रेवेंचीं खोपटां करतात. बेबीय खोंपूट करता. तें सारकें जायना. रागान तें दुर्गालें खोपूट पांय लावन मोडटा. पळत घरा येता. ताका भुरगीं चाळयतात.

" बेबी–बेबो–शाबो– "

तें थुंकता आनी घरा येता. आवय ताका सांगता : " सुमी आत्याबरोबर फिरूंक वच म्हणून. " तें वचना. तें म्हणटा " म्हाका वाज येता. आनी हांवें ताका कितले फावट सांगलें आमी ज्यादिनांत या म्हणून. जाल्यार तें सद्दां म्हाका दोंगरा वेल्या मोडक्या देवळाकडेन फिरूंक व्हरता. " आनी तें एक गुपीत फोडटा. " आमच्या बरोबर वयनीबायलो मधू आसता. " फुडलें सांगूंक कांचवेता. आवय ताका फुसलायता. मागीर तें सांगता. " थंय मगे, सुमी आत्या आनी मधू उलयतात. घरा येतना तो म्हाका आनी सुमीआत्याक चॉकलेट दिता आनी म्हजी आनी सुमीआत्याची पापी घेता. मागीर आमी घरा येतात. "

ताच्या ह्या भाबड्या उतरांतसून निमाणो ड्रामा भायर सरता. एक व्हडलें गुपीत भायर फुट्टा. मागीर घरांत आकांताचो बोवाळ जाता.

ह्यो कथा तुमी मुळांतूच वाचूंक जाय. भुरग्याल्या सभावांतल्यो मौजो, बारिक-साणी, शीला नाजूकपणान रंगयता.

शीलाच्यो कथा सामक्योच ल्हान. मोटवेसाण हें तिच्या कथांचें एक वेगळेंपण मानूं येता. हांगा परती कथाकाराची वृत्ती म्हळ्यार टेम्परामेन्ट दिसून येता. व्हडल्यांत व्हडली कथा 'स्वाप' ही णव पानांची. ल्हानांत ल्हान 'सतार' ही अडेच पानांची. भौतेक कथा तीन ते पांच पानांच्यो. आकाराची ही मोटवेसाण हो दोश काय गूण, हो चिकित्सक वाचप्याक प्रस्न पडटा. आकाराचें ल्हानपण गुणाक ग्रासता काय कितें, हो मुख्य प्रश्न. म्हाका दिसता, कथेचो आकार विस्तार तिच्या 'कन्सेप्शनांतूच' आसता. कथाबिजांतूच आकाराचें बीज आसता. हांगा कथाकाराचे धारणेचो विचार उबो रावता. प्रसंग आनी पात्रां हांचे उदेशीं कथा फुलोवपाचे आंतरीक थारावणेचेर, येवजणेचेर कथेचो विस्तार आधारून आसता. परतीत ही थारावणी कथाकाराचे वृत्तिचेर आनी ताचे तांकीचेर आधारून आसता. दोन वेगळ्या कथाकारांनी एकूच कथा-वस्तू हाताळ्ळी तर तिचो आकार बदलता. एकाचो तीन पानांचो जाल्यार दुसऱ्याचो तीस पानांचो जाता. मोपांसान एकाच विशयाचेर दोन वेगवेगळ्यो कथा बरयल्यात. une vie ही कथा दोन तरांनी बरयल्या. ल्हान कथेंत एक उतर कमी ना. व्हडले कथेंत एक उतर अदीक ना. हो प्रकार कितें दाखयता? इतलेंच कि एकच कथाबीज वेगळो वेगळो आकार घेवंक पावता. पुण ही आंतरीक प्रक्रिया सुर्वेकूच जावंक जाय. ना जाल्यार माती थापून गणपतिची मुर्त ऐन वेळार व्हडली करपा सारकें जातलें. कलाकृतिची वाड ही integral and organic पद्धतिची आसूंक जाय.

शीलाच्या कांय कथांचें बीज मोटो विस्तार पेलूंक शकता म्हळ्यार जाता. पुण तिचो 'ॲस्थेटिक टेम्परामेन्ट' कलात्म पिंड तिका हें करपाक आडायता जावंक जाय. 'वाऱ्यावयलें सपन', 'भाबी', 'सतार', ह्यो कथा वीस पंचवीस पानांच्यो सहज जावं येताल्यो अशें म्हाका दिसता. दुसरें अशें कि शीलाच्या क्रियेटीव्ह 'प्रोसेसांत निर्मण' प्रकीयेंत भावनेक प्राधान्य आसता. थंय वैचारीक element उणो. कथावस्तूंत सत्याचो वा तत्त्वाचो विचार 'फिलोझोफिकल' पातळे वयल्यान जायना. तिच्या अंतरमनांत ही पातळी आसलीच जाल्यार तिचो प्रभाव तिचे निर्माणक्षमतेचेर नासता. भाववृत्तिची चंचल थरथर साकार जावपाक अधीर जाल्ली दिसता. मागीर आपशींच कथेच्या कांय आंगांकडेन

दुर्लक्ष जाता आनी मागीर सोबीत रंगयाळीं सुकणीं ल्हान–ल्हान भिरक्यो मारतात. तसो प्रकार कथांचो जाता. मोट्या कथाकाराचें सामर्थ्य मोट्या कथा-बिजांत आसता, तशेंच तिच्या विस्तारांत आनी उबारणेंतूय आसता. पुण तो विस्तार कथेचो मंत्र उमजतल्याकूच करूंक येता. हेरांक न्हय. पोपायेचें झाड ल्हान आनी पोपायो गोड–गोड. पुण आंब्या-रुखाची सर तिका येना. पिंपळा रुखाची तर गजालूच वेगळी. थंय महानताय–सब्लीमिटी जाणवता. पोपायेचें बीं पिंपळाचो रूख दिना. जीव सृश्टिचो हो नेम कलासृश्टीक लागू पडटाच असो ना. कलाकाराक आपले निर्माणशक्तिच्यो मेधा अभ्यासून ती शक्तीच वाडोवपाचे यत्न करपाची तांक आनी स्वातंत्र्य, जांव निसर्गान जांव देवान, दिल्लें आसता. देखुनूच शीलाचीं कथाबिजां मोटो विस्तार घेतीत जाल्यार त्यो परिणामानूय मोटयो जातल्यो हातूंत दुबाव ना. पुण पयलीं तिणे आपल्या कथा वस्तूंचेर कांय संस्कार बीजधारणेच्या वक्तार आनी त्या बिजाचो पिंड पसवणेच्या वेळार करूंक जाय. अशें जातकच ती सर्वांगान पूर्ण कथा बरोवंक पावतली.

शीलाच्या क्रियेटीव्ह पिंडाक ल्हान कथा बरोवपाची संवय जाल्ल्यान तिका अदीक प्रसंगांची आनी भावनांची कथा बरोवप सादना अशें 'स्राप' हे कथे वयल्यान म्हणूं येता. हे कथेचें उद्दिश्ट कितें तें कळपाक कठीण जाता. हेर कथांचें तशें जायना. त्यो कथा भावना आनी प्रसंग हांची 'युनिटी' आशिल्ल्यान काळजाक भेदतात. 'स्राप' कथेंत तशें पळोवंक गेल्यार प्रसंग नाट्यपूर्ण आसात. विशय उदात्त आसात. पुण परिणामाची एकता ना. कथेचें नांव 'स्राप'. पुण वाचप्यांच्या मनाचेर परिणाम जाता तो हेमाचे निश्टेचो. अशे रितीन भावना, प्रसंग आनी उद्दिश्ट हांचो गोंदळ जाल्ल्यान ही कथा फिकी पडल्या.

ह्या सगळ्या कथांत शीलाचें काव्यात्म मन कल्पनाचीं पाखां लावन मळबांत उडटा. संवसाराच्या रखरखांत ताका सुख ना. सुखांतूय दुख्ख चाबडायत बसप हो रोमँटिझमचो एक गुण वा दोश. हो एकाएकाचो सभाव–टेम्परामेन्ट. ताका लागून ताच्या कथांक एक रंगयाळी झांक मारता. ताचें मन सप्न नगरींत भोंवड्यो मारता खरें, पुण वास्तवतायेचें भान दवरून. म्हाका तिच्यो कथा आवडटात त्यो तिच्या सप्नाळूपणा खातीर न्हय, तर सप्नाचो आधार घेनासताना ती आदर्श कथा बरोवंक पावता म्हणून. 'विद्येच्यान तर', 'बेबी,' 'मॅगी' ह्यो कथा हे नदरेन उत्क्रश्ट जाल्यात. हाचें कारण कितें ? तर ह्या कथांनी Authenticity चें

दर्शन घडटा. जें कांय बरयता तें जगिल्ल्याचो, अणभवल्याचो हांगा प्रत्यय येता. तादात्म्य पावप आनी तरीय तटस्थताय राखप, वास्तवतेचेर कलेचे संस्कार करून व्यक्ती वा प्रसंग interprete करून, म्हळ्यार वेगळो अर्थ लावन एक नवें चित्र उबें करप हें काम भोव कठीण. तें तिणें ह्या कथांनीं सादलां. मुर्त सामान्यांत अमुर्त असामान्य पळोवन आनी तें घट्ट धरून थंय कलेची उबारणी करपाचें यश मेळयलां.

शीलाच्या कांय कथांचे शेवट भोव परिणामकारक जाल्यात. 'सतार', 'भार', 'बेबी', 'भाबी', 'मोग', 'वाऱ्यावेलें सपन', ह्या कथांचो शेवट चमत्कृती उत्पन्न करपी जाल्यात. देखून अशें म्हणूं येता कि शीलाक कथेचें तंत्र पुराय अवगत जालां.

जाग येवप हें जिवंतपणाचें पयलें लक्षण. आज आमकां आमच्या साइत्यीक सामर्थ्याची जाण आयल्या. फाल्यां सामाजिकतेची जाण येतली. तुर्त ती आमकां ना. देखुनूच आमचेर केदोय अन्याय घडलो जाल्यार आमी हूं चूं करिनात. हांगा लोकशाय आयल्या, नागरिकत्व येवंक ना. देखून सगळ्या मळार आमची दुर्दशा जावन पडल्या. अशे आवतिकायेंत आशेचें किर्ण म्हळ्यार नव्या कोंकणी साइत्यिकांक आपल्या अमर्याद आंतरीक शक्तिची जाण आयल्या हें. ती जाण कोंकणी साइत्यकार आपल्या निजाच्या बळग्यार जळींमळीं पातळायतले आनी आज सुवार्थी आनी सुखवादी जाल्लो समाज एक दीस समर्थ जातलो अशी म्हजी स्रद्धा आसा. शीला नायकाच्यो कथा वाचून ती वाडल्या.

★ ★ ★

## : ४ : पुंडलीक नायकाचें कथाविश्व

पुंडलीक नायक भौसांतलो. भौसाचो. काल मेरेन जो लोक वयल्या वर्गांतल्या लोकांच्या पांयां पोंदा चिड्डल्लो माड्डल्लो तांचो प्रतिनिधी. तांच्यो युगां–युगांच्यो व्यथा, दुख्खां, खतखते तश्योच आशा–आकांक्षा हांकां वाचा फोडूंक बरपी भौसांतलोच आसूंक जाय आशिल्लो. आयज वेर तसो कोणूच गोंयांत उदेवंकूच नाशिल्लो. तो पयलेच खेपे पुंडलिकाच्या रुपान उदेला.

पुंडलिकाच्यो कथा वाचतकूच तो परिपक्व बुद्दिचो, मॅच्युरिटी आशिल्लो बरपी अशेंच मत्त जाता. ताचें मन भोव संस्कारी. तें उतरा कणकणीं उक्तें जाता. ताच्या कथांतल्यान जे गाढ संस्कार परमळून पातळटात ते ताका खंय मेळ्ळे, कशे मेळ्ळे, हो प्रस्न ताच्यो कथा वाचतकच म्हज्या मुखार उबो रावता.

पुंडलीक पंचवीस सव्वीस वरसांचे पिरायेचो. कांय वरसां पयलीं तो आपल्यो कथा घेवन म्हजेकडेन आयिल्लो, छापच्यो काय ना हें विचारपा खातीर. हांवें त्यो कथा वाचल्यो आनी ताका म्हळें : "मात लेगीत अनमन नासतना तूं बरयता तें छापूंक दी. तूं एक व्हड बरपी जातलो." हें एक शंबर नुंबरी भांगर अशें म्हजें मत्त जाल्लें.

हेच पिरायेर हांव मराठींतल्यान कथा बरोवपाक लागिल्लों. म्हज्या कथांची महाराष्ट्रांत खूब तोखणाय जाल्ली. मराठी टिकाकारूय म्हजी सुमारा भायर तुस्त करताले. पुण पुंडलिकाच्यो ह्यो कथा वाचून म्हाका आतां दिसता, ताच्यांत जे कांय मोलादीक गूण आसात ते म्हज्या कथांनीं नाशिल्ले. देखुनूच हांव म्हणटां कि पुंडलीक हो भारतीय कथा साइत्याचो खरो प्रतिनिधी. कोंकणींतल्या कथा साइत्याकूच न्हय तर पुराय भारती कथा साइत्याक कांय वरसांनीं ताच्या कथांक

लागून नवें तेज येतलें.

तंत्राच्या ध्यासान पुंडलीक आकूळ विकूळ जाल्लो दिसना. गोंयचे चड–शे सगलेच मराठी कथाकार तंत्राच्या मृगजळा फाटल्यान धांविल्ले दिश्टी पडटात. तंत्र म्हळ्यारूच कथा अशें तांकां दिसता जावंये. पुंडलिकाक तशें दिसना. तो तंत्रा परस कथेच्या बाकिच्या आंगांक म्हत्त्व दिता. ताची नदर मुळावी–ओरिजिनल–जाल्ल्यान ती आपले भुंयेकडेन पयलीं पळेता. तिका केळयता, तिका भायर हेडचें पडना. आनी मागीर आपलें शेत, कुळागार, बैल, शेतकामती, खोंपूट हातुंतूच तिका कथेचे विशय मेळटात. कथा बरोवपाक पुंडलिकाक कथानक लागना. तकलेक शीण दिवन कथेचें तंत्र उबें करपाची गरज भासना. क्लायमॅक्स आनी ॲन्टी क्लायमॅक्स ताका सोदचे पडनात. ज्ञानेश्वर सांगत वता तसो पुंडलीक बरयत वता. तेन्ना आपशींच रस निर्माण जाता. एकाद दुकलो प्रसंग–तोय सादो, ड्रॅमॅटीक न्हय असो–ताका पुरो जाता. पुण बरयता तातूंत रस थपथपता. निखट्या वातावरणाचें वर्णन केलें जाल्यारूय तें वाचप्याचें मन ओढून व्हरता. ताची नदर वयल्या वयल्या थराचेर चड वेळ थिरावना, ती खोलायेंत देंवता आनी वेगळे वेगळे थर हुंपीत मनशाच्या काळजाच्या तळामेरेन वता. ह्याच तळांत मोतयां शिंपडलेलीं आसतात. साहित्यांतलीं रत्नां, सत्यां आनी तत्त्वां तीं हींच. ह्या तळामेरेन पावपी भाग्यवंत बरपी खुबूच थोडे. चडशे सगळे वयल्याच थराचेर घुटमळटात, घुस्मट्टात—पिराय सोंपत आयली तरूय.

पुंडलिकान तंत्राचे भानगडींतूच पडचें न्हय. प्रतिभावंत साइत्यीक जें बरयता तातूंतल्यानूच तंत्र भायर सरता. त्या भायर काळा प्रमाण तंत्र बदलत आसता. आयचें फाल्यां उरना. मंत्र मात थीर आसतात. तशें नाशिल्लें जाल्यार टॉलस्टॉयच्यो कथा केन्ना मरून वतल्यो आशिल्ल्यो. पुण त्यो अजरंवर उल्यात. कथेचें तंत्र बदल्लें तरूय ताच्यो कथा अजून जिव्यो आसात. मंत्राकडेन दुर्लक्ष करून तंत्राक नाका जाल्लें म्हत्त्व दितात ते अप्रबुद्ध टिकाकार. आदले मुस्तींतले रुशी मंत्रच दिताले. तंत्राच्या जंवजाळांत पडनाशिल्ले. बरें, प्रतिभावंत बरप्याचें तंत्र तरी सदांच एक खंय उरता ? ताची नदर जशी जशी वाडत वता तशें–तशें ताचें तंत्रूय बदलता. नदर जितली गूढ आनी गाढ तशी ताची शैलीय बदलता. पुंडलिका सारक्या बरप्याक–जातिवंत बरप्याक–म्हजी सांगणी अशी कि ताणें संवसारांतलें स्रेश्ट साइत्य वाचून पळोवचें, अभ्यासचें, ताची नदर आपशींच

विस्तारतली. मळबा येदी जावन सगळें स्थिरचर ती वेंगेंत घेतली. आमचें जिवीत ल्हान. अणभव थोडे. अनुभूती त्याय परस थोड्यो. संवसारांतलें स्रेश्ट साइत्य वाचतकूच आमी ल्हान उरचेनात. विश्वात्मक आनी शाश्वत अशें किर्ते तरी आमच्यांत फुलूंक लागतलें. मागीर परंपरा, नीत, समाजीक सत्यां सगळीं वयर सकयल जातलीं आनी शाश्वताचे वेगळे नदरेंतल्यान आमकां आमच्या भोंवतणच्या जिविताचे प्रस्न दिश्टी पडूंक लागतले. 'आमकां' म्हळ्यार सगळ्यांक न्हय. जांचो पिंड खऱ्या कळावंताचो तांकां. हेर बरपी अळंकाराचेर, रंगांचेर, गंधांचेर, रुपाचेर, श्रृंगांराचेर आनी उतरांचेर भाळटात, तेजाचेर न्हय. कवाथ्यान आपूण फुडें कसो वाडटलों—शेकानशेक काय वांकडो—ह्या हुसक्यांत पडचें न्हय. ताणें फक्त जमनींतलें सारें ओडून घेवचें. माती, गोबोर, शेण, मूत, मीठ, चिखोल बी जें जें जमनिच्या पोटांत मेळटा तें घेवन वाडत रावचें. एक दीस तो माड जावन नाल्लांच्यो कुचकुचीत पेंडी दितलो. गोंयच्या नव्या बरप्यांनीं आपली भूंय आनी आपली भास सोडची न्हय. प्रतिभा भूंयभाशेच्या वातावरणांतूच पसवता. काळाकारांनीं हें सत्य नदरे आड करचें न्हय.

पुंडलीक मराठींतूय बरयता. थंय तो ल्हान गिड्डो-सो दिसता. कोंकणींत बरयता तेन्ना मात तो म्हारथी कसो दिसूंक लागता. ताची प्रतिभा फुलता, परमळटा ती कोंकणींतल्यानूच.

मंत्र साध्य करपाच्या यत्नांक नव्या बरप्यांनीं मुजरत लागचें. मंत्र म्हळ्यार तेजाचे उत्फर्के. सामर्थ्य ना थंय तेज ना. आदल्या रुशिंकडेन सत्या नाशिल्ली, वैभव्रय नाशिल्लें. पुण ताचें सामर्थ्य आकांताचें आसतालें. तेज हें पर्सनालिटीं-तल्यान भायर सरता. पर्सनालिटी होच साइत्याचो प्रेरणेचो झरो. मराठींतल्या खूब थोड्या साइत्यिकांक हें समजलां. समजलां तेंय बयले वयर. फकत बुद्दीक. हाका लागून जांकां लोक व्हड कवी आनी लेखक म्हुण मानतात ते भितल्ल्यान वाडिल्ले नासतात. कित्याक, तांणीं साइत्याच्या मंत्राकडेन फाट केल्ली आसता. सुवार्थ आनी हो मंत्र हांकां पडना. तेजाची आनी सामर्थ्याची जो उपासना करता ताका सुवार्थाकडेन फाट करचीच पडटा. वेव्हारांत तो अपेशी थरता. कोंकणी बरोवप्यांनीं हें लक्षांत दवरचें. आनी लोकीक सुवार्था परस वा वेव्हारी यशा परस आपली पर्सनालिटी घडोवपाच्या यत्नाक लागचें. तेन्नाच तांच्या बरपांत तेज येतलें. मागीर हें बरप कोंकणी सारके केदेय ल्हान भाशेंत बरयल्लें

आसूं, तें विश्वात्मक जातलें.

पुंडलिकाची नदर ओरिजिनल. देखून ताका वचत थंय कथेचीं बियां दिसूंक लागतात. पुण निखटी ओरिजनल नदर आसली म्हुण भागना. व्हीजन जाय, दिव्य नदर जाय. 'थीम' दिसप हें कठीण खरेंच. पुण तिका आकार दिवन तिच्यांतल्यान जिवी तट्‌टटीत मुर्त घडोवप हें ताच्याकूय कठीण. ही मुर्त घडयता आसतना जी प्रक्रिया घडटा तिचोच थोडो विचार हांव हांगां करूंक सोदतां.

पुंडलिकाच्या कथांचो म्हज्या मनांत भल्लो तो पयलो गुण म्हळयार कथेचें वातावरण तयार करपाची ताची तांक. कांय कथाकार कथेचो बॅकग्राऊंड म्हणून वातावरण रंगयतात पुण तें कथानका पसून वेगळें आसता, सामकेंच वेगळें दिसता. वातावरणा खातीर जोडिल्लीं सैमाचीं वर्णनां काडून उडयलीं जाल्यारूय कथेक बादा येना. पुंडलिकाचे बाबतींत तशें घडना. ताच्या कथांचें वातावरण हें कथांच्या बाकिच्या आंगांनीं इतलें भरसून गेल्लें आसता कि तें वेगळें काडुंकूच येना. तरा तरा रंगांचे पोड एकठांय विणून कारागिरान एक सुंदर लुगट तयार करचें तशें पुंडलिकाचें वातावरण ताच्या कथांच्या सगळ्या आंगांनीं भरसून एकरूप एकजीव जाल्लें दिसता. हें वातावरण गाळ्ळें जाल्यार ताचे कथेंतल्या प्रसंगाक अर्थ आनी म्हत्व उरना. असलें हें वातावरण तयार करता आसतना पुंडलीक झाडा-पेडांचो, उदकापाटांचो, सावळयांचो, उजवाडाचो आनी काळखाचो, गोरवांचो आनी राखण्याचो, शेतांतल्या चिखलाचो—ल्हान व्हड कितल्याश्याच गजालिंचो सर्रास वापर करता. हें पळोवन अशें दिसता कि एक प्रतिभावंत संगीतकार ( Maestro ) आपल्या मुखार दवल्लेल्या शेंकडयांनी वाद्यांच्या सुरांतसून एक नवी आनी आगळीच 'चीज' घडयता. पुंडलिकाची खंयचीय कथा वाचात, तुमचेर ह्या वातावरणाची भुरळ पडटली. 'हार' ही माणकुलीच कथा घेयात. हे कथेंत प्रसंग आसा तो एकूच. कथेचे अखेरीक तिचो नायक—एक कुळवाडी जुवान भिवाच्या कुळागारांत वचून मोन्यानीं ताच्या हुजिरूच पाटाचें उदक आपल्या कुळागाराक लायता. ह्या प्रसंगाचो पुराय परिणाम आधारून उरता तो कुळागाराचें, त्या कुळवाडयाचें आनी भिवाचें केल्ल्या बारिकसाणी सयत वर्णनाचेर. 'वळ' ही कथा घेयात. हे कथेक थीम अशी कांयच ना. आसा तें गांवांतल्या गोरवां राखण्याचें आडांगपण. पुण कथेंतल्या वातावरणांत तांच्या आडांगपणांक आनी अव्वचिन्नपणाक एक सामान्या

भायली चकचकसाण येता. ‘ पारस ’ हे कथेंतलें वातावरण तर अप्रतीम जालां. जांणीं गोंयच्या कुळागारांत कांय दीस साल्ल्यात तांकां हें सगळें चित्रण वाचून आपूण कुळागारांतूच आसां काय कितें, अशें दिसलेबगर रावचें ना. पुंडलिकाच्या वातावरणांत पाल्हाळ ना. रंगांचें भडकपण ना. थोडयाच उतरांनीं तो त्या त्या वाटाराचें, तातुंतल्या सगळया हालचालिंचें आनी गजालिंचें चित्रण उबें करता.

‘ मरण इतलें सुन्दर आसता ’ हे कथेंतलें मेल्ल्या कुऱ्याचें वर्णन इतलें बारीकसाणीन ताणें केलां किं तो कुत्रो आमचे नदरे मुखावेलो हालना. तशेंच तें आसमंताचें वर्णन : “ आयज भर दनपरां मार्गार आसा एक सुण्याचो पेटो. मार्गाचे बरेंच कुशीक आसा. ना जाल्यार येन्ना गाडये खाला पडून ताची चटणी जातली आसली. तशें घडिल्लें जाल्यार गाडयेचो ड्रायव्हर ब्रेकूय दामचो नाशिल्लो. ताचे सुंदर तकलेचो आवाज कट्टी चिड्डूंबची तसो जातलो आसलो. माकूनाच्या खरऱ्या आवाजांत भरसतलो आसलो. ताच्या दोळयांच्यो मुंडळयो भायर लांबतल्यो आसल्यो. पोट चिरतलें आसलें. भितरसून नाजूक आंतकडयो भायर सरतल्यो आसल्यो. तव्याचेर तळिल्ल्या प्रमाण डांबरी मार्गार भाजून वतल्यो आसल्यो. बरी मोडून जमनीभरवण जातल्यो आसल्यो. धवे धवे ल्हंवेचेर रगताचे दाग पडटले आसले. चारूय दावखुलांचीं नाखटां गळून पडटलीं आसलीं. कितल्याश्याच गाडयांची चक्रां भोंवून हुमऱ्यार पातळ्ळेल्या पांयपुसण्यावरी ताची गत्त जातली आसली. पुण तशें कांय घडूंक नासलें. तो सुण्याचो पेटो दावकुलां तायट करून मार्गा कुशीक निश्चेश्ट पातळ्ळेलो, अर्थात् मरून.

हांव बरोच मुखार पावलों तरीय तो पेटो मैलाच्या फातरां सारको मदीं मदीं दिसपाक लागलो. इतलो सोबीत पेटो! जितेपणी तो निःसंशय विद्रूप दिसूंक जाय. हांवें तसो ताका पळोवंक ना. पुण जितेपणिच्यो ताच्यो यातना म्हज्या दोळयां सामकार उब्यो जाल्यो. बऱ्याच दिसांचो उपाशीं आसूंये. क्यांव क्यांव करून हुयेली माल्ल्या जावंये. मार्गाचे हे कडे वेल्यान ते कडेर धांवला जावंये— माथ्यावयर खरखीत वोत आनी पांयां खाला खरखीत तापिल्ली कायल हाका लागून ताच्या गुबगुबीत तळयांक फोड आयल्यात जावंये. जीब चाटून सोंड वयर उबारतना ताच्या दोळयां मुखार काजुले लिखलिखल्यात जावंये. खूब फावटीं गाडये खाला सांपडपाचो तो वाटावला जावंये. आनी निमाणो हुस्कार सोडून मार्गाकुशीक सासणाचो कोसळ्ळा जावंये. ”

हे कथेचें सगळेंच वातावरण absurd theory क धरून आसा. पुंडलिकान absurd कथा नवलकथा वाचल्यात काय ना, म्हाका खबर ना; पुण जें वातावरण रंगयलां तें ते जातिचें. त्या पांवड्याचें. दामोदर मावज्याची 'मरण येना म्हुण' ही कथाय असलेंच वातावरण रंगोवन बरयल्ली.

पुंडलिकाचें आनीक एक वैशिष्ट्य म्हळ्यार ताचें व्यक्तिचित्रण. व्यवहारांत दोग मनीस सारके नासतात. एक-एक मनीस रुपा-गुणान वेगळो आसता. ताच्या उलोवपांतलें, चालींतलें, चलणुकेंतलें वेगळेंपण नियाळून तो मनीस साइत्यांत उबो करप हाका दोन गजालिंची गरज आसता. एकः नियाळणी, निरिक्षण-ऑब्झर्वेशन आनी दुसरी : सहानुभूति, आपलेपण- 'ह्यूमन सिंपाथी.' पुंडलिकाच्या आंगांत ह्यो दोनूय गजाली फावो त्या प्रमाणांत दिसून येतात. देखुनूच ताचे कथेंतलीं मनशां जिवीं, तट्‌टटीत दिसतात. 'हार' हे कथेंतलो कुळवाडी घेयात वा 'वळख' हे कथेंतलो ड्रायव्हर काजूलो आनी जागेर तो जेवंक वता ताचो ल्हान भुरगो दादा पळयात. हांचे सभाव इतले उफेवन दिसतात कि तांचें चित्रण वाचून जातकच वाचप्याक दिसता, आपणें असले भोळे भावडे जीव खंय तरी पळेल्यात. 'भिकारो' हे कथेंतलो भुरगोय असोच जिव्या तट्‌टटीत भुरग्या सारको उबो केला. आनी मागीर निमाणें, कथेचो अंत जाता थंय कथाकारान म्हळां : 'फुडल्या वरसा, ताच्या फुडल्या वरसा अनंताची पालखी वेऱ्यांसावन येतली. गर्नेल, बाण सुरसुरतले, धोल ताशे वाजतले, पाल्खी सावय पावतली. गोंयड्या कडल्या तोरना पोंदा थांबतली. सगळे विधी यथासांग जातले. पुण वरसा सारको एक भिकारो पालखे पोंदच्यान वचचो ना.'

'कासय' ही कथा एक रुपक. जिवितावेलें एक भास्य. कासयेक देव मानून तिची पुजा करपी वासू भुरग्यांचे अन्नावीण चलिल्ले तळमळे पळोवन तिका आपल्याच हातांनीं चिरप्याक विकता. कथेंतलो हो आशय लक्षांत येना फुडें वाचप्याच्या मनांत वीज जोगलावता. जीं तत्वां आनी सत्यां आमी पुजतात तींच पोटाखातीर विकपाचो प्रसंग मनशाचेर येता हें केदें व्हडलें सत्य कितल्या सादेपणान हे कथेंत पुंडलिकान सांगलां ! 'काणी एका माजराची' हे कथेंतूय असोच आशय भल्ला. मनीस आपल्याच सुखा खातीर राखेस जावन आपलेंच भुरगें ना करता हो तो आशय. पांच-स कथा हे तरेच्यो ताणें बरयल्यात. 'बळार', 'काणी एका माजराची' ह्यो कथा तत्त्वगिन्यान उलयतात. निकतेंच

जल्माक आयिल्लें भुरगें पुर्व-जल्माचें तप पदराक बांदून आयिल्ले भशेन. रूपकाचो आनी सिम्बोलिझमचो – प्रतिकवादाचो वापर करून पुंडलिकान ह्यो कथा बरयल्यात. सत्य सोदपाची, तत्त्व पळोवपाची, खोलायेन देंवपी नदर आसल्याबगर असल्यो कथा बरोवप कठीण. मनाचें आनी पिरायेचें जाणटेपण येतकच असल्या कथांकडेन कथाकाराचें मन ओडटा. पुंडलिकान भुरगेपणांतूच ही सिद्धी जोडल्या.

असल्यो सुटसुटीत आनी अर्थभरीत कथा बरोवपी पुंडलीक कथानक आशिल्ल्यो कथा बरोवपांतूय जैतवंत जाला. उत्कृश्ट कथेचीं सगळीं आंगा म्हळ्यार लांबाय, रुंदाय, खोलाय ह्या कथांनी दिश्टी पडटात. कथेंतले प्रसंग मूळ कथानकांतल्यानूच आयिल्ले भशेन दिसतात. मुजरत एकठांय केल्ले भशेन दिसना. ‘पाज्ज,’ ‘मोगाची धूव’, ‘पारज’ या कथांनीं कथानका वांगडाच वातावरण, सभावरेखन, आशय बी गूण उपाट दिसून येतात. कथाकाराक सिन्थसीस वांगडा विस्तारूय करपाची कला येवंक जाय. पुंडलीक हो विस्तार मोटे कुशळकायेन करता.

पुंडलिकाचें आनीक एक वैशिश्टय म्हळ्यार कथांक आशय दिवपाची शक्त. साहित्य–शास्त्रांत जाका ध्वनी वा व्यंजना म्हणटात ताका कथा समिक्षेचे भाशेंत आशय म्हणटात. आशय फुलांतल्या परमळा सारको आसता. परमळ केन्ना दिसना. फुलूच दिसता. परमळाची फकत जाणवीक जाता. खरें कथेचें यश ह्या आशयांतूच आसता. ज्या कथाकाराक आशय दिवंक येना तो सकयल्या पांवड्याचो, व्हडलो कथाकार न्हय. एका काळार मराठींत कथा प्रसंगांनीं भरिल्ली आसताली. हरि नारायण आपटे सारको बरपी कथानक विस्तारान सांगून समाजांतल्या अन्यायाचेर बडी मारतालो. कथेक आशय दिवपाची चाल खूब उसरां आयली. आयज मराठींत कथाकाराचें मोल आंखतात तें ताचे कथेंतल्या आशया वेल्यान. संवसाराचो खूब अणभव आशिल्लो आनी देशी विदेशी स्रेश्ट साहित्य पचयल्लो बरपीच आशय दिवंक पावता. पुंडलिकांत हें सामर्थ्य भुरगेपणांतूच आयिल्लें पळोवंक मेळटा. ‘कासय,’ ‘बळार,’ ‘काणी एक माजराची’ ह्यो ताच्यो कथा आशयान भरिल्ल्यो. कांय विशय इतले नाजूक आसतात कि ते धरूंक येनात. वाऱ्या भशेन रूप नाशिल्ले, आकार नाशिल्ले अशे विशय ते. पुण संस्कारी आनी विचारी मनाक कळटात. कथाकार असल्या विशयांचो कथा बीज

म्हुण उपेग करता तेन्ना ताका आशयाचो आस्रय घेवंचो पडटा. ‘ मरण इतलें सुंदर ’ हे कथेचें कथाबीज असलेच तरेचें. देखून थंय आशयाक खूब म्हत्त्व आयलां.

सूचकताय आनी संयम ही कथेचीं दोन गरजेचीं आंगां जुवळ्या भावां सारकीं. खेरट साइत्यांत तीं वावुल्लेलीं दिश्टी पडटात. नव्या बरप्यांचें तांचेकडेन लक्ष वचना. प्रतिभेच्या उल्हासान ते भुरकटून वतात. आनी येवजता तें बरोवपाची तांकां ताकतीक लागता. असल्या हातूंत मागीर ते नाका आशिल्लें सांगतात आनी जाय आशिल्लें सांगपाक विसरतात. ल्हान भुरग्यां सारकी तांची गत्त जाता. भुरगीं तिंतेर पेन कोनशाक मारतात आनी सान्न मेजार दवरतात. मोगाचे वा प्रणयाचे प्रसंग रंगयताना नवो बरपी ताळतंत्र विसरता. भडक रंग ओतूंक लागता. खूब विस्तार करता. उथळ न्हंयेचें उदक जशें आयस पंयस पातळटा तशें. पात्राक खोलाय नासत आनी न्हंयेक देगो नासत जाल्यार उदकाक गती येना. पुंडलीक ह्या मळार थीर पावलां घालता. संयम आनी सूचकताय ताच्या सगळ्या कथांनी दिश्टी पडटा. ‘ उचंबळ ’ ही कथा घेयात. तरणेपणाचें वारें लागना फुडें मनीस कसो उचांबळीत जाता हें ताणें हे कथेंत दाखयलां. सगळें वर्णन करता आसतना विवेक सांबाळ्ळा. मात् चळूंक ना. चळ्ळा तो प्रकाश–कथेंतलो नायक. पुंडलीक थीर आसा.

प्रणयकलेंत फिशाल दोन जुवान आंकवार चेडवां प्रकाशाक उचांबळीत करतात. ताचे खाडकेक हात लायतात. तो गोंदळटा. दुसरो नवखो बरपी आशिल्लो जाल्यार तो प्रकाशाच्या हातसून वेगळेंच घडोवन दाखयतलो आशिल्लो. चेडवांक वेंगेंत घेवप, उमे घेवप बी सगळे विधी करून तो मेकळो जातलो आशिल्लो. पुंडलिकान प्रकाशाची मनस्थिती इतले नाजूकसाणेन रंगयल्या कि ताची तोखणाय दिसता.

काम विकारा वयली ताची खंयचीय कथा घेयात. मोटे चतुरायेन आनी विनयान भरिल्ले शैलींत रंगयल्ली पळोवंक मेळटली. ‘ पाज्ज ’ हें कथेंत प्रपंचाक उबगल्ली विठाबाय सादीक ड्रायव्हराक सलगी करूंक दिता, तो कुडको वाचात. अतिताय इल्लीय मेळची ना. ‘ मोगाची धूव ’ हे कथेंतली वयान वाडिल्ली मोगाची धूव कामविकारान कशी झपाट्टा आमी सैमाच्या नेमाक धरून दादल्याचे भकीक कशी पडटा हे पुंडलिकान कशें सुचयलां पळेयात :

" आपले धुवेक सोदीत मोगाबाय भितल्ले कुडींत गेली. धूव थंय नाशिल्ली. ती काचाबूल जाली. तशीच रांदचेकुडींत धांवली. मागीलदाराच्या हुमऱ्यार धूव उबी आशिल्ली. मूसमुसून रडटाली....मोगाबायन आपले धुवेचे फाटीर गायचे फाटीर भोंवडायता तसो हात भोंवडायलो : वगी....वगी. कपिल गाय सारकें सावळें पोर म्हाजें....धुवेक चक्क करून येवजलें : कपिल गाय गाबणी आसा.

'कावळो आफडिना जाल्यार कितें जाता गे ?' रडत रडत धुवेन तिका विचाल्लें.

'कांय जायना बाय.'

'खरेंच ?'

'हय गो. पुण तुका तशें घडलां ?'

'हय.'

'देवा म्हाज्या ! पापणी दीस गेल्यात तुकां' आवयन आपले अपुरबायेचे धुवेचें आंग सांसपिलें.

'ना म्हण गे आवय, ना म्हण गे' धूव हुणकेवंक लागली.

'कशें ना म्हणूं पापया....म्हाकाय आंकवारपणांत एकदां अशेंच भोगलेलें.' आनी आवय–धूव गळ्यांत गळो घालून एकसुरान रडूंक लागलीं.'

कथेचे अखेरेक संयमाचो कळस जाला.

'पारज' हे कथेंत प्रणयाचो उन्माद आनी संयम हातांत हात घालून धांवतात. हें चित्र पळोवन हांव तृप्त जालों. बुदो राखण्याची आनी श्यामलाची झऱ्यावेली भेट—आनी अखेरेक प्रणयान आकुळपिकूळ जाल्ल्या जुवान राखण्याचो तिच्या वांगडा सपनांत जाल्लो संभोग मोटया कळाकाराच्या संयमाना आनी सूचकतायेन सांगला. कथेचो अखेर असो केला :

" मुखार श्यामल उबें आसता. खीणभर तो आपूण व्हदळच्या सपनांत न म्हणपाची खात्री करून घेता. श्यामलाचे मुखावेले भावं वळखुपाची शक्त ताच्यांत उरना. ताचें सपनूय खंयचे खंय विरून वता. आनी सकाळचो प्रसंग किट्ट करून उसबता. तो उठ्टा तसोच धांवता. श्यामलान मुखार केल्लो हात ताका आडावंक काय कित्याक ताचेंच ताका भान उरना. मुजिची घसल्लेली काश्टी सारकी खोंवपाची सूद-बुद्य ताका उरना. आंगणाचीं सगळीं सपणां तो एकाच धेंपान हुंपता आनी किट्ट काळखांत गडप जावन काळखाचेंच एक आंग जाता.

श्यामल ताका पळयत रावता. तो दिसना तेन्ना ताच्या पावलावयल्यान नदर फाटीं घेता. लख्ख चान्न्यांत शेण सारयल्ल्या आंगणांत बुद्याच्या विर्याचे

शिंपडलेले दोन थेंब अरसत आसता. हातांतसून सुटिल्ल्या पारजावरी तें तांका पळेत रावता. ”

जुवानिच्या वयांत इतले अलिप्ततायेन, इतल्या साद्या उतरांनीं पुण उत्कटतायेन हें सांगप म्हळ्यार फकाणाची गजाल न्हय.

हालिंचे मुस्तींतल्या मनोविश्लेशणाच्या जाळांत पुंडलीक घुसपूंक ना हें ताचे स्वतंत्र शैलिचें लक्षण. मनोविश्लेशणाखातीर मनोविश्लेशण ही चाल मराठींतल्या जायत्या बरप्यांनी अणसरल्या. तिका लागून तांची मूळ विशयाकडेन फाट जाल्या. तांच्यो कथा वाचतकूच हाणीं मनोविश्लेशणाच खातीर कथा बरयल्यात काय कितें अशें दिसूंक लागता. मनोविश्लेशण हें कथेचें एक आंग. हें आंग प्रमाणाभायर वाडोवन दाखयलें जाल्यार कथा बेढब जाता. तिचें सौंदर्य ना जाता. मनोविश्लेशण हें कथेंतल्या पात्रांच्या उलोवण्यांतसून, चाल चलणुकेंतसून, सभावांतसून सभाविकपणान दिसून येवंक जाय. आपल्याच मनाची उब्रगण हाडपी किसवणी करीत पात्र बसता तेन्ना कथेचो ओग थांबता. मनोविश्लेशण हें सभावांत आसपावता. नवलकथेंत विस्ताराक सुवात आसता. थंय जाय जाल्यार मनाची किसवणी बरप्यान करची. लघुकथेंत न्हय.

पुंडलिकाचें दर एकले कथेची अखेर चमत्कृती उत्पन्न करता. थंय ड्रामा आसता, पुण आशयाचो. उतरांचो न्हय. भडक रंग नात. आक्रोशाचे सूर नात. अर्थाचो वारो मात झणझणीत. तो आमकां गिरगिरायता आनी येवजूंक लायता. ताच्या तत्वप्रधान कथांनीं तर अशें जाताच पुण विशयप्रधान आनी प्रसंगप्रधान कथांचो अखेर हेच तरेचो सिन्थेतीक आसता. सगळो आशय मोनेपणांतूच विजेभशेन लकलकता. पडटा तो दिपकावपी उजवाड.

मोट्या कलाकाराचो आनीक एक गूण पुंडलिकाच्या कथांनीं म्हाका दिसून आयला. तो म्हळ्यार नीत अनीत हांचेविशिंची पुंडलिकाची धारणा. तो स्खलन, पतन दाखयता. पुण ताचेर भाश्य करिना. आपलें मत्त दिना. ताचें मन पाझरता, पुण तें संतांचे भशेन. दुबळ्या लोकांच्या पातकां मुखार करुणेन पाझरता तशें. निंदेचें, निशेदाचें एक उतर ना. समाज निर्मीत दुख्खाकडेन पळोवपाची जातिवंत कलाकाराची नदर अशीच सहानुभूतिची आसूंक जाय.

पुंडलिकाच्यो कथा म्हळ्यार ताणें कोंकणीक ओंपिल्ली तोलामोलाची एक माळ. कोंकणी सरस्पतीन ती आपल्या गळ्यांत अभिमानान घालची इतली सुंदर.

## : ५ : मावज्याल्यो कथा

दामोदर मावज्याल्यो कथा भुंयभाशेचे मातयेंतल्यान आनी उदकातल्यान भायर सल्ल्यात. भुंय–भाशेचो संबंद सोडून ललीत–साइत्य पोसवंक पावना. देखुनूच गोंयच्या मराठी साइत्यिकांची आज दुर्देशा जाल्ली दिश्टी पडटा. ते खूब बरयतात, व्हड प्रमाणांत तांच्यो कथा उजवाडा येतात. पुण तांकां वेगळेपण ना. जीवसाण ना. ताजपण ना. कांय जाणांनी तर शेंकडयांनी कथा बरयल्यात. नाटकांय बरयल्यांत. पुण तांच्या साइत्यांत जिविताचो दिश्टावो घडना. कित्याक, तांकां जिविताचो स्पर्श जाल्लो ना. ते जिवीत जियेतात. पुण जियेल्ल्या जिविताची पोसवण करून घेवन ताची उक्तावणी केल्याबगर खरें निजाचें ललीत–साइत्य जल्माक येना. प्रेरणेबगर भावना ( emotion ) बळावना आनी साइत्यिकाक निर्मिती व्यक्तिमत्व मेळ्ळेबगर ताच्या साइत्याक वेगळेपण येना. दामोदर मावजो, पुंडलीक नायक, मीना काकोडकार, शीला नायक, ह्या भुरग्यांनी हें सत्य जाणलां. देखुनूच थोडयाच काळांत तीं नवें पर्व निर्माण करूंक पावल्यांत. भुयेंत सैम आसता आनी समाज आसता. समाज म्हळयार मनशां. सैम मनशां घडयता. आनी मनशां हें कलाकाराचें खरेलें भांडवल. मनशां म्हळयार तांचे तरातरांचे संबंद. त्या संबंदांतसून उप्रासलेलीं झगडीं–झुजां, कलह; सैमा वांगडा तांकां दिवचें पडटा तें दिसपट्टें झूज; तांच्या सुखदुख्खाचें सौम्य वा तिव्र नाटय; असल्या अंतर्गत विरोधांनी भल्लेल्या संवसारांत वावरून, ताची नियाळणी करून, ती अणभवून आनी पचोवन कलाकाराक एक नवो संवसार घडोवंचो लागता. वास्तवता आनी पुर्णत्वाचो आदर्श हांच्या मसाल्यान कलेची स्रेश्ट चीज निर्माण करची आसता. पुण वास्तवताच ना जाल्यार तो कितें करतलो? भुंयभाशेची वास्तवता ना

जाल्यार एका काल्पनीक संवसारांत ताका हुंबकळत रावचें पडटा. भूंय आनी भास हातुंतल्यान प्रेरणा घेवपाची ताका बुद्द जायना आनी तो पळोवंक नाशिल्लें, अणभवूंक नाशिल्लें जिवीत चितारपाचो उपद्व्याप करूंक लागता. ताका लागून ताचें साइत्य फटिचें आनी अडेचें जाता. भुंयभाशेचें वरदान फापारून उडयल्ल्यान त्या बरप्याची अशी आवतिकाय जाता.

दामोदराचे प्रतिभेक भुंयभाशेंचे प्रेरणेची झर मेळ्ळ्या. ताका लागून ती फसफसता, मातता; तिका रंग भरतात, फुलां धरतात, फळां येतात. 'गांथन' आनी 'जागरणां' हे ताचे दोन कथा संग्रह हेंच दाखोवन दितात.

दामोदर हो पयलीं कलाकार आनी मागीर कथाकार. मुळांत कलाकार न्हय तो खरो कथाकार केन्नाच जावंक पावना. खूबशे कथाकार कलाकार नासतात. अशें आसुनूय ते कथा बरयतात. कांय जाण खूब बरयतात. संख्या हो कलेचो कस आशिल्लो जाल्यार तांकां व्हडले कथाकार म्हणूंक फाव जातालें. पुण तशें नासता. शेंकडयांनी कथा बरयल्ले कांय कथाकार तुमी पळेल्यात जातले. पुण तांची एकूय कथा आमच्या मनाचेर ठशिल्ली नासता. बरोवपाची उमेद म्हुण ते बरयतात वा नांवाखातीर बरयतात. खऱ्या कलाकाराचो जल्म जाता तो आवयच्या गर्भांत. म्हळयार कला ही पिंडांत आसूंक जाय. सभाव, रूप, रंग बी जशे पिंडां तूच आसतात तशीच ही गजाल. पिंडाचेर संस्कार जातकच कला आकाराक येता. पुण कला म्हळयार निखटो आकार न्हय, निखटें तंत्र न्हय. कला म्हळयार विश्वांतलें सौंदर्य सोदपी नदर. निर्मित्याचे आंतरीक तांकिची उक्तावणी. हेतूपूर्ण आविस्कार. जाणिवांच्या भिंगांतल्यान संवसाराचो घेतिल्लो दिश्टावो. हे शक्तिकूच प्रतिभा म्हणटात. तिच्याबगर कलाकृती जल्मा येना. आकार हें भायलें आंग. कलेचें भितल्लें आंग वेगळें. तें भायल्या आंगातसून उक्तें जाता. कथेचो आकार सोबीत आसलो, दिसलो म्हुण कथा सोबीत जाता अशें न्हय. हे नदरेन येवजिलें जाल्यार, दामोदराची कथा ही 'खरी' कथा म्हणूंक जाय. कित्याक, ताचो पिंडूच कलाकाराचो. ताची कला ताच्या कथेच्या सगळया आंगांतसून उक्ती जाता.

पयलें म्हळयार कथाबीज. तें वोगीच कोणाकूय दिसना. अनुभूतिची शक्ती जाका आयल्या ताकाच तें दिसता. अनुभूती म्हळयार वयलेवयलो अणभव न्हय, इंद्रियांचो भोग न्हय, तर जे अणभव आमकां खोलायेंत व्हरतात, सत्य दाखोवन दितात ते. संवसारांतल्या कुलकुलाटांतलो सुसंवादी सूर आयकुपाची नाजुकसाण,

तिव्रसाण आमच्या मनाच्या कानाक दितात ते. संवसाराच्या गोंदळांतलें संगीत आमचे सुवादीन करिनात त्या अणभवांक मोल ना, म्हत्त्व ना. इंद्रिय–भोगांचे अणभव दिव्य करपाची तांक आमकां कला दिता. देखून दामोदराच्या कथा-साइत्या फाटल्यान जें विस्व धगधगता तें दोळ्यांआड करूंक फावना. ह्या विस्वांत ताच्यो कथा स्फुरल्यात. देखून भायल्या घडामोडिंच्या आनी प्रसंगांच्या मुळांत मनीस–सभावाचें जें अर्क वा essence आसता तें ताका दिश्टी पडटा. तत्त्वगिन्यान म्हणटात तें हेंच. कलाकाराचें तत्त्वगिन्यान; शास्त्रज्ञाचें न्हय. मोटो कलाकार हो मुळांत तत्वज्ञानी आसता. विस्वांतले मुळावे प्रस्न ताका भेश्टायतात आनी तुश्टा-यतात. जीण, मर्ण, सुख, दुख्ख, पाप, पुण्य हांचो व्याप आनी अर्थ हांचे संबंदान निखटे बुद्दीन न्हय तर मनाच्यो आनी आत्म्याच्यो सगळयो शक्ती वेंचून तो चिंतन करता आनी आपले दुबाव, संभ्रम वा सिद्धांत तो जिव्या मनशांच्या सभावांतल्यान भावनेच्या बळग्यार मांडटा. असले मुळावे प्रस्न दामोदराक उच्चांबळीत करतात–अस्वस्त करतात आनी ह्या अस्वस्ततेंतल्यान ताची कथा वयर सरता. सत्य असत्याचें, नीती अनीतिचें, सुवार्थ परमार्थाचें, भोगत्यागाचें झूज संवसारांत चल्लां तें ताका सस्त बसूंक दिना. सुवार्थी, वेव्हारी मनशाक ‘ टेंशन ’ जाता तें वेगळें.

आपल्यो इत्सा पूर्ण जायना जातकच विकारांचो क्षोभ जावन tension जाता तें मनशाक बादिकार जाता. आनी ताका सकयल हाडटा. उरफाटें, कलाकाराचें tension हो सामर्थ्याचो झरो. दर एकट्या व्हड साइत्यिकाक हें tension आसताच. ताज्या बगर कलेक तेज–ओज येना, धार येना. खरो कलाकार असल्या ऊंच पांवड्याच्या tension चेर जियेता. तो गरीब जांव, गिरेस्त जांव, tension क सोडिना. ह्या गुणाक दुसऱ्या एका गुणाची maturity ची पोक्त-पणाची जोड मेळटा तेन्ना साइत्य वेगळ्या पांवड्याचेर चडटा. थंय दिव्य, भव्य अशें कितेंय तरी लकलकूंक लागता. ही अवस्ता कथाकाराक ल्हानपणांत येवप कठीण. दामोदर ती घेवनूच जल्माक आयला. देखुनूच ताच्या कांय कथांक सासणाचें मोल permanent value आयलां.‘ मरण येना म्हुण ’ ही ताची कथा हांवें बऱ्याच वरसां फाटल्यान ‘ नवें गोंय ’ ह्या म्हयन्याळयांत वाचिल्ली. तेन्नाच हांवें भाकीत केल्लें कि हो उदेतो कथाकार कोंकणी साइत्याक तेज हाडटलो. ‘ गांथन ’ आनी ‘ जागरणां ’ ह्या ताच्या संग्रहांत ह्याच पांवड्याच्यो

म्हळ्यार philosophical content आशिल्ल्यो आठ घा कथा आसात. ‘ मरण येना म्हुण ’ ही कथा म्हळ्यार मनशाचे जिणेवयलें भाश्य. हेंवाळें म्हळ्यार कितें ! एक अळशिकावणो जीव. पुण तो दामोदराचे कथेचो विशय जालो. कलेचो स्पर्श जायना फुडें वेव्हारांतलें असुंदर सुंदर जाता. इतलेंच न्हय तर ते कलाकृतीक तो दिव्यत्त्वाच्या पांवड्यार व्हरता. कलेचें आगळेपण तें हें. हेंवाळें हो एक symbol – एक प्रतीक. तें आमच्या काळजाक हात घालता. मनीसजातिचे जिणेचेर उजवाड घालता. Absurd चें तत्त्वगिन्यान हांगा हेंवाळ्याच्या रुपान मुर्त जालां. सैम आनी समाज व्यक्तिच्या सुखाचे बाबतीत कुड्डीं आसतात. भेरीं आसतात, बधीर आसतात. असल्या विरोधी संवसारांत मनशाक वावुरचें पडटा. मनीसपणाचीं मुल्यां राखतलो जाल्यार हुलपुचें पडटा. जिणेक अर्थ उरना. मागीर मरणाक वेंग मारतलो काय कितें ? हो प्रस्न ताका धोंसता. पुण जिणेचेर ताचो मोग आसता. मर्ण ताका नाका आसता. मर्णाक तो भियेता. पावला पावलाक विरोधी शक्ती वांगडा जियेवपाखातीर झूज दिवचें पडटा. तरी लेगीत मनीस जैत मेळोवपाचो यत्न करता. सगळीं संकश्टां पेलता. आनी जिणेक अर्थ हाडूंक सोदता. हेंवाळ्याचेर सैम खुबलां आनी मनिसूय खुबला. ताका कोणाचोच आधार ना. घोव पयलींच मेल्लो आसता. मनशांनीच ताका मारिल्लो आसता. मरता आसतना तो हेंवाळ्याक सांगता : ‘ ह्या भुरग्यांक बरेभशेन वयर काड. ” घोवाची सांगणी काळजांत बाळगून तें थारायता, “ ह्या दोन भुरग्यांखातीर म्हाका जितें रावंकूच जाय. ”

पुण सैम खुबलां. उदकाचो थेंब दिश्टी पडना. झाडां–पेडां सुकून करपून मरतात. उदकावीण दोगांय भुरगीं मरतात. त्या दुख्खान तें कळवळटा. मरूंक सोदता. पुण बिब्याचें झाड ताका उपदेस करता. “ ह्या संवसारांत जायते जीव आसात. खूब जाण निर्शेल्यात, जायते जाण आपलें कर्तव्य करून मेकळे जाल्यात. पुण ते मरणाचो विचार करिनात. ते वोग्गी बसून जियेतात; मरणाची वाट पळेत. तुवें मरूंक फावना. म्हजें आयक, सात–आठ कोंसार एक तळें आसा. तूं थंय वचून राव. ” आनी तें वचचे पयलीं काकुळटीन ताज्या लागीं मागणें करता : “ म्हयनो जालो म्हजेसरीं कोणूच जीव येवंक ना. आज तूं आयलां. उपकार करून म्हज्या आंगार एकूच फावट मेकळेपणान भोंव. ”

“ सरसर करून हेंवाळें वयर चडलें. तेंगशेर पावलें. खांदार चडलें. हाताचेर

भोंवलें. आपलें दुख्ख विसरून तें खेळ्ळें, नाचलें. मागीर सकल देंवलें. बिबो खुशालभरीत जालो. एक फावट आपल्या पिलाक दोंळेभर पळोवन आनी बिब्याचो अंतस्करणपूर्वक निरोप घेवन हेंवाळें उदेन्तेक तोंड करून चलपाक लागलें." रात दीस पळेनासतना चलत रावता. आनी निमाणें तळ्यादेगेर पावता. तळ्याचें उदक पळोवन अजापभरीत जाता. उदका म्हन्यांत वता. जीब उदकाक लावंक ताका घरकाराची याद येता. उदक पियेतनाच ताका लोकांनी मारिल्लो. भुरग्यांची याद येता. उदकाक वळवळून ताणीं संवसार सोडिल्लो-आनी बिबो उदक नासून मरता-मर्णाची वाट पळेता.

"काळोख जाता. हेंवाळें फुडें सरना. उदकांत वता. कितल्या दिसांनीं ते आज उदक पियेवन घेता. नाचता, खेळटा, पेंवता. आनी दोळे झेमेतात. हेंवाळें न्हिदता. फांत्या पारार उठून पळेत जाल्यार 'बस्‌बस्! बस्‌बस!' हो आवाज ताज्या कानार पडटा. उदकाचो घोगो व्हांवता आनी तें उदक एका ट्रकाचेर बसयिल्ले टांकयेंत पडटा. हेंवाळ्याक सट्ट जाता. आतां हें उदक ते लोक व्हरतले म्हुण ताजेर आकांत येता.

उदक सोंपत येता. हेंवाळें लोकांक दिसता. कोण तरी आड्डता, "आरे, तें पळेयात हेंवाळें."

"वडी हाड रे ती!"

हेंवाळें दोळे धांपता. उगडास येता घोवाचो. घोवाक आयिल्लें तशेंच मरण आपल्याकूय येतलें म्हुण खीणभर बरें दिसता. भुरग्यांचो उगडास येता. बिब्याची याद जाता. अजुनूय तो मर्णाची वाट पळेत आसतलो.

आनी कोण तरी बडयेच्या धपक्यान ताका मारता.

ही कथावस्तू मोटी खरी. पण तिचो आविस्कारूय त्याच वेल्या पांवड्याचो जाल्ल्यान हे कथेक महानताय लाभल्या.

'सदानंद', 'जीण अशीच सोंपचेली', 'तसो हांव भियेना', 'अशोक', 'आनी हांव परतलों', 'रितें-जिणें' ह्या कथांचे विशय वेगळेवेगळे आसले तरूय तांच्या कथाबिजांत जांकां हांव 'फिलोसोफिकल कंटेंट' म्हणटां ते सांपडटात. 'सदानंद' हें एक व्यक्तीचित्रण. पुण समालोचनाचे नदरेन ताका खूब म्हत्व आसा. हे कथेच्या उतरां-उतरांत अभिजातपण दिसून येता. कांय जाणांच्या आचारविचारांचें, लक्वांचें, खोडिंचें मंथन करून हो सदानंद घडयल्लो दिसता.

सदानंद ही दामोदराची निर्मिती. ती संपूर्ण वास्तवता न्हय. वास्तवतेचेर निर्मितेची संवेदना आनी भावना हांचे संस्कार जाल्यात आनी वास्तव वा खऱ्या सदानंदाचें वेगळया सदानंदांत परिवर्तन जालां. हो सदानंद वेगळेवेगळे प्रस्न आमच्या मनांत उबे करून आमकां उचांबळीत करता. ही अस्वस्तताय आमचे चालंत जिणेक उंचाय दिता. सदानंदासारक्या भुरग्यांकडेन सहानुभूतीन पळोवपाची नदर दिता. सदानंदाक पळोवन कथाकाराक जो दिश्टावो जाता तो, ती आमकां सुपुर्द करता. सदानंदाच्या चित्रणांत खूब संयम आनी चत्राय दिसून येता. तो भोळो-बावडो दिसता. पुण ताचीं उतरां पंडिताचीं दिसतात. प्रसंग आसात पुण ते सादे. संभाशणां खोंचीक. तातुंतल्यान ताचो सभाव उक्तो जायत वता. कथन अशें भोव थोडें आसा. व्यक्ती आनी समाज हांच्या दुश्ट करण्यांचो आनी वावरांचो सदानंद हें फळ. तो अर्दुकुटो वा आवटो दिसलो तरूय तो शाणेपणान भल्लेलो एक सामान्या भायलो विलक्षण मनीस. तो धीट पुण ताची धिटाय निराधारांतल्यान, दळिद्राच्या तापत्रयांतल्यान आयल्या. जाका कांय होगडावपाचें ना, नवें कांय मेळोवपाचें ना अश्या मनशाची ती धिटाय. जिवार उदार जाल्ल्याची. मरणाचीं फकाणां मारपा इतली बेफिकिरी ताका आयल्या. कसलीच गजाल तो सारकी मनार घेना. आपल्या मरणाकडेन लेगीत तो फकाणां जाल्लेवरी भुरगेपणाचे नदरेन पळेता. ताचो सभाव घुसपागोंदळाचो जाल्लो आसा. गांवचो लांबेलो पाशेक लंवडलो हें इगर्जेच्या पाद्रीकडसून सदानंदाक कळटा तेन्ना तो खोशी जाता. तो म्हणटा : "मेलो ! बरो गेलो ! आपणा इतलो लांब कोण ना म्हुण शापातां सांगतालो."

पाशेकालें मडें तरी पळोवन येवचें म्हुण तो कुन्यार वचूंक फुडें सरता. भिकू शेटीक गाडी चुकता ती पळोवन ताका बरें दिसता. दामू पसरकारालो दिलीप ताची वासपूस करता तेन्ना ताचें नाटक लक्षांत येवन सदानंद ताका जाप लेगीत दिना. ताका उणाकपण द्विपाची संद सोडिना.

पुताक पळोवन आवयचें काळीज वयरसकयल जाता. तिच्या जिवाची घालमेल पळोवन ताका बरें दिसता. लांबेलो पाशेक खंवसलो ही खबर तो मोटे रुचीन आवयक सांगता. आवय चुरचुरता आनी म्हणटा : "काकुळट बावडे बायलेची आनी भुरग्यांची. उबंत पडलीं बावडीं. तोच एक जोडकार."

तिका तो रोखडीच जाप दिता. "हय तर. समज फाल्यां हांव लवंडलों

जाल्यार तुमकां कांय दिसपाक ना. जोडकार दादा न्हय ? ”

वेव्हारांतलें एक क्रूर सत्य तो उलोवन वता. ताचीं हीं उतरां आयकून आवयक नेर्वोचें जाता. सदानंद थीर आसता. दादा–सदानंदाचो बापूय च्या चें कोप ताळयार रकयता आसतना ताचें आदवांचें फळ वयर सकयल जाता तें पळोवन ताका मजा दिसता. “ कशी चल्ल्यांत तुजीं खाडांबोडां ? ’ असो प्रस्न शाणेबाब दादाक करता तेन्ना ताचें कुच्चित्रीपणाचें उलोवप सदानंदाक भोव मानवता. ताच्या वायटाची खबर काडून शाणेबाब ताची चौकशी करता तेन्ना तो अनमन नासतना म्हणटा : ‘ टी. बी. ’ आनी हें उतर कानार पडना फुडें आंग काडून शाणेबाब एक पावल फाटीं घेता. आपणाक टी. बी. येत जाल्यार ? शाणेबाबालें तोंड पळोवन सदानंद व्हडल्यान हांसता.

स्टेशनार गाडी थांबता. तो डब्यांत चडटा. थंय ताका फुलामेंत दिसता. ताचें हातकापें पोल्क, घट्ट साय, वोठांचें तांबडें बी पळोवन सदानंदाक खातखुतल्यो जातात. तिकीटचेकर येता. आनी तिकीट मागता. तेन्ना तो तिकेट ना म्हुण सांगता आनी चेकराक पिशांत काडिल्ल्यावरी हांसता.

तिकीटचेकर ताका स्टेशनमास्तराकडेन व्हरता. स्टेशनमास्तर ताचें आयकून घेवन ताका धांवडायता. तिकीटचेकरान भायर मोखून उडयल्लीं ताचे बोल्सांतलीं विडये पोतेरां तो एकठांय करता आनी स्टेशनांतल्यान निर्विकार भायर सरता. ताका भिकू शेटीची याद येता. पापयाक तिकेट काडून–बिडून गाडी चुकिल्ली !

मागीर तो गडगडो पळोवंक रावता. लोक पयशे लायतात आनी ते होगडाय-तात. तांचीं तोंडां पळोवंक ताका मजा दिसता.

पॅसींजर गाडयेच्या हॅंडलाक धरून वयर चडपाचो फुलामेंत यत्न करता तें तो पळेता. गाडी प्लॅटफॉर्मार थांबिनाशिल्ल्यान जमनीर सावन फुटबोर्डार पांय दवरप फुलामेंताक जमना. टायट व्हिस्तीद म्हारग पडटा. सदानंद ताका पळेत रावता. फुलामेंताक वयर चडप कशेंच सादना. ताचे दोळे सदानंदाचेर थीर जातात. सदानंद व्हडल्यान हांसता. गाडी सुट्टा. सदानंदाक दिसता, फुलामेंताच्या खांक्यांनी हात घालून ताका वयर उबारचें. सदानंदाक खातखुतल्यो जातात.

सदानंद डब्यांत भितर सरता. फुलामेंत जड पायांनीं परतता. ‘ टायट ’ व्हिस्तीद लजेक म्हारग जाता. सदानंद खुशालभरीत जाता.

गाडी दरवट्याकडेन पावता. घांटणिच्यो खोंपी पळोवपांत सदानंद गुल्ल

जाता. घरा येता आसतना ताका वाटेर पाशेकालें पुरसांव मेळटा. लांबेलो पाशेक चल्लो. सदानंद पळेता. तागेलीं बायल-भुरगीं दिश्टी पडत काय ? रडटात आसतलीं जोडकार गेलो म्हुण ! सदानंदाच्या मनांत विचार येतात. ताका आवयच्या उतरांची याद येता. पाशेक जोडकार म्हुण मरूंक जायना आशिल्लो.... हांव काय जोडकार न्ही आनी जोडटलों जाल्यारूय म्हज्यान कितें करूं येता ? म्हज्यान कसलेंच काम जायना. आनी अशें येवजिता आसतनाच सदानंदाच्या तोंडार हांसो फुलता. ताका पेदो जांवचें-शें दिसता ! कोणूय मेलो जाल्यार गांव-भर भोंवन लोकांक सांगूंक मेळटलें ! " टिण....टिण....टिण— "

ही सगळी कथा मावज्यान संयमान, अलिप्ततातेन सांगल्या.भावनेची,भावुकतेची पिरंगण ना. अशें दिसता कि कथाकार स्थितप्रज्ञाभशेन एका दोंगरार बसून तो सदानंदाच्यो सगळयो हालचाली, सगळयो खोडी, सगळीं अवचिन्नपणा मिस्कील नदरेन, शांत मनान पळेता. वेगळयावेगळया नाजूक-नाजूक रस्मी धाग्यांनीं सदानंदाची जीण दामोदरान कितल्या कसबान हांगा रंगयल्या !

सदानंदासारके भुरगे सगळयांक दिसतात. कोण तांकां अर्दकुटे म्हणटात. कोण आवटे, कोण पिशे म्हणटात. कोण आलमपिड्डयार जाल्यार कोण मवाली म्हणटात आनी थंय तांकां सोडून दितात. दामोदर मात तसले भुरगे पळोवन तांचे व्यर्थ जिणेक सदानंदाचे उदेशीं अर्थ दिता.

' मरण येना म्हुण ' आनी ' जीण अशीच सोंपचेली ' ह्या दोनूय कथांची जात एक. आपली जीण दुसऱ्यां खातीर ह्या आदर्श-विचारांत तांचें कथा बीज आसा. एका कुपाचो प्रवास हो ' जीण अशीच सोंपचेली ' हे कथेचो विशय. ' मरण येना म्हुण ' हे कथे सारकीच पार्श्वभूंय. उदक ना. सगलो रखरखाट. अशे अवस्तेंत एका ल्हान, धव्या कुपाचो जल्म जाता. मांडवीचें एक ल्हार उसळटा, उडटा. ताच्या तुशारांची वाफ जाता. ताचें धवें कूप जाता. तें वाऱ्या वांगडा उबूंक लागता. नाचत, उडत, पळेत तें प्रवास करता. भोंवतणचें सौन्दर्य देवान आपल्या खातिरच निर्माण केलां अशें तें समजता. जीण ही भोगपा खातीर अशें ताका दिसता. चंद्र, सूर्य, नखेत्रां, मळब, वारो, दर्यो-सगळें पळेत-पळेत, तोखेत-ओखेत, उमेदीन आनी खोशयेन तें प्रवास करता. वतां वतां वाटेर ताका एक काळें कूप मेळटा. तें ताका वेगळेंच सांगता. आत्मसमर्पणांत, त्यागांत जिणेचें सार्थक आसा म्हुण. तें म्हणटा : ' पापया, हो संवसार, हीं सुखां सगळीं नश्टीं.

तांचे फाटीक लागून तुजे जिणेची वाट लायनाका. तुजे जिणेचें सार्थक जातलें जाल्यार तुवें शिंवरूंक जाय. शिपडूंक जाय. तुजें उदक पियेवन धर्तरी जेन्ना हांसतली तेन्नाच तुजे जिणेचें सार्थक जातलें. तेन्नाच तुका खरो आनंद गावतलो.'

काळया कुपाचें हें तत्त्वगिन्यान धव्या कुपाक मानवना. तें ताका पिशांत काडून म्हणटा; 'पुण तो आनंद पळोवपाक आमी उरतलीं खंय ? आनंद हो 'मेळ्ळया-रूच' ताचो आनंद. मरतकीर मेळटलो तो आनंद कसलो ? ते परस हो आनंद मेळटा तो भोगप. तो आमी भोगप न्हय तर कोणें भोगप ? आमीच अशी जीण सोंपयली तर जगप तरी कोणा खातीर ?'

धवें कूप फुडें वता. वारो ताका हालयत, धोलयत, झेलयत व्हरता. वाटेर ताका एक व्हडलो दोंगर मेळटा. कितलिशींच झाडां ताच्या आंगार उबीं आसात. कांय झाडां पांचवींचार. कांय सुकिल्लीं. इतल्यांत झडिल्ल्या पानांचें एक झाड हालता. हात हालोवन धव्या कुपाक आपयता. दोंगरूय ताका आपयतात. झाडां म्हन्यांत वता आनी झाड बाग घेवन धव्या कुपाचो उमाव घेता. 'मरण येना म्हुण' हे कथेंत हेंवाळयाक बिब्रो आपयता आनी आपल्या आंगार नाचूंक लायता. तीच सहानुभूत हांगा दोंगर कुपा विशीं दाखयता. दोंगराचें एकसुरेपण पळोवन कुपाक वायट दिसता. 'दोंगरबाप्पा, कितें जालें तुजें ? तूं दुखेस्त कित्याक ? येदो व्हडलो हो संवसार तुजे-म्हजे खातीर आसतना आमी त्रास करून घेवप ! सोबना हें तुका ! तुका कितें जाय, सांग ! हांव हाडून दीन तुका.'

हेंवाळेंय अशेंच ब्रिब्याक म्हणटा : 'सांग बिब्या, तूं सांगता तें आयकतां हांव.'

बिब्यान हेंवाळयाकडेन मागिल्लें तशेंच दोंगरूय कुपाकडेन मागता : उपकार करून धव्या कुपा, तुजें उदक म्हजेर शिंपडाय.'

तें आयकना फुडें धव्या कुपाक दिसलें, 'कितलो सुवार्थी दोंगर हो !' आनी सणकटो येवन तें फुडें चलूंक लागता. दोंगर हुपूंक जाय म्हुण तें ल्हवू-ल्हवू वयर सरता. वयर वता तितलें तें थंड जाता. निमाणें दोंगर हुंपता. ताचें आंग जड जाता.

ताका धर्तरी आपयता. पुण कुपान निश्चय केला, शिंपडचें ना म्हणपाचो. जग भोंवपाचो. तें म्हुण जग !

मागीर अचकीत अरिस्टांची घरघर लागीं लागीं येता. हॅलिकॉप्टर लागीं येता.

आपलो जीव वाटावंक तें वयर वता. ताका आनीक शीं खाता. तें कुडकुडूंक लागता आनी मागीर—पावस.

ही कथा म्हळ्यार एक रूपक. 'मरण येना म्हुण' हे कथे भशेंनूच. दोन विचारांच्या कलहांतल्यान ही कथा वयर सल्ल्या. हे कथेचें व्हडपण तिच्या तत्त्वगिन्यानाचे बसकेंत न्हय तर तिच्या चित्रणांत आसा. थंय कल्पनांचो, कल्पकतेचो उपेग केला. हे कथेंत 'फॅंटसीक' प्राधान्य मेळ्ळां. 'मरण: येना म्हुण' हे कथेंत तत्त्वगिन्यान चित्रणांतल्यान निथळटा. 'जीण अशीच सोंपचेली' कथेंत बोध, नीत तकली वयर काडटात. तत्त्वगिन्यानाची चर्चाय तातूंत आसा. ताका लागून कथा वयलो पांवडो सोडटा. पुण हे कथेंत दामोदराची एक वेगळी शक्त दिसून आयल्या—ती म्हळ्यार, ताची कथन आनी वर्णन करपाची शक्त.

खरी कथा कथानका बगर उबी राविना. नवकथेक कथानकाची गरज ना अशें तिचे अतिरेकी पुरस्कर्ते म्हणटात. पुण मॉडर्निझमाचे पिडेन केदो आकांत केला तें मराठी नव-कथाकारांनींच दाखोवन दिलां. कांय व्हड टिकाकारांनी तांच्या कथांच्यो वादऱ्यो करून उडयल्यात. मराठी नवकथा कितली उबगण हाडपी जावन पडल्या तें वेगळें सांगपाची गरज ना. कोंकणी कथेक ही पिडा बादूंक ना हें बऱ्याचें लक्षण म्हणूंक जाय.

दामोदराचे कथेक कथानक आसता. कथानक म्हळ्यार प्रसंगांचें सूत्र. सभावीक सूत्र. कलाकाराच्या निर्मित्या मनांतल्यानूच भायर सरिल्लें. कथानक नाशिल्ली कथा म्हळ्यार कणो नाशिल्ली कूड. प्रसंगाचे वास्तवतेचेर 'सब्जेक्टीव'चे संस्कार जातकूच कथा नवें कलात्म रूप घेता. 'सब्जेक्टीव' हें कथाकाराचें अंतरंग. भितल्लें विश्व. वास्तवता ही चिकण-माती. 'सब्जेक्टीव' ताची मुर्त घडयता. कथानक कथाबिजांतसून भायर सरता. पात्रां आनी प्रसंग हांच्या संघर्शांतसून वा संगमांतसून कथानक वयर सरता तेन्ना तें कथेच्या परिणामाक पोशकूच जाता. जें मारक जाता तें वायट अशें समजुचें. कथानक हें कथेचें म्हत्वाचे मुर्त आंग. आशय आनी परिणाम हे कथानकांतल्यान पाजरतात. कथेंत मनोविश्लेशण, वातावरण आसूं नासूं. ल्हान वा मोटें कथानक हें सामकें गरजेचें. दामोदराची खंयचीय कथा घेयात. तिका ल्हान वा व्हड कथानक आसताच. दामोदराच्या यशाचें हेंच मुखेल कारण. दुसऱ्या कोंकणी कथाकारांक हें यश मेळूंक ना. संवसारांतल्या व्हडल्या—व्हडल्या कथाकारांनी कथानकाबगर कथा बरोवंक नात.

गॉर्की, चेकॉव, टॉलस्टॉय, मोपासो, ओ हेन्री, हेमींगवे हांच्यासारक्या संवसारीक नामनेच्या कथाकारांक कथानकाची गरज भासल्या. कथानक उबें करपाची तांक ना ताणीं कथानकाच्या नांवान बोटां मोडचीं. असल्यो कथा फॅशन म्हुण कांय काळ गाजतात. सदांकाळ त्यो तिगनात. कथाकार जेन्ना कथाबिजाच्या विचारान भारावन वता तेन्ना ताज्या मनाची जी अवस्ता ( mood ) जाता तिच्यांतसूनच कांय वेळार कथानक आपाप वयर सरता. तेन्ना प्रसंगांची मांडणी मुद्दम करची पडना. प्रसंगूच उडयो मारीत फुडें सरतात. कांय वेळार कथाकाराचे चौकस नदरेक वेव्हाराचें निरिक्षण करता आसतनाच पुराय कथानकच घडिल्लें मेळटा. तातूंत आशय भरप, परिणामाचे नदरेन पात्रां उब्रीं करप हें ताजें काम. कांय वेळार एकाद्रो प्रसंग ताका दिसना. आनी कथावस्तू उब्री रावता. आनी बाकिचे पूरक प्रसंग कसल्याच सायासाबगर तयार जातात. कांय वेळार मोटया विचार-वंतांचो एकाद्रो भव्य विचार वा कल्पना आमच्या वाचनांत येतात आनी त्या विचाराचें–कल्पनेचें कलाकाराच्या मनांत वा अंतरंगांत कथाविस्व जाता. एक खरें कि एकाद्रें तत्त्व सिद्ध करतलो म्हुण कथाकारान गणीत मांडून कथानक घडोवचें न्हय. तशें केल्यार स्वयंस्फूर्तपण ना जाता. कथासाइत्यांत कथाकाराच्या व्यक्तिमत्वाक म्हत्व आसलें तरूय तिचो प्रभाव प्रसंगाच्याच उदेशीं अदीक बरो पडटा.

दामोदराल्यो कथा आकारान न्हय मोटव्यो, न्हय मोटयो अश्यो. हेर कोंकणी कथांच्या मानान मात तांचो विस्तार मोटोच म्हणूंक जाय. कित्याक, ताची खंयचीच कथा धा पानां सकयल ना. निखटो विस्तार साइत्याक दर्जो दिना ! ल्हान कथाय बरी आसूं येता. पुण फावऽ तो विस्तार नाशिल्ल्यो खूबश्यो कथा परिणामाचे नदरेन अळणी दिसतात. कथाकाराक संकोच करपाची तसोच विस्तार करपाची तांक जाय. कथाबीज मोटें, पुण कथाकाराक तें पेलना जायत वा जाय तशें फुलोवंक येना जायत जाल्यार ताच्या विकासाक बाध येता. विस्तार हें भायलें आंग खरें, पुण ताचो संबंद कलाकाराचे आंतरीक प्रक्रियेकडेन आसता. विस्तार म्हळ्यार सूज न्हय. ल्हान मुर्तीक भायल्यान माती थापून वाडयल्लो आकार न्हय. खरो विस्तार हो सभावीक आसता. कलाकृतिची ती Organic वाड. निरोगी कुडिचे दर एकले पेशयेची भितल्ल्यान वाड जाता तशी ती क्रिया. देखून, कलाकाराच्या मनांत मध्यवर्ती कल्पनेचें बीं पडटा तेन्नाच ताच्या विस्ताराची

प्रक्रिया ताच्या मनांत जाता आनी मागीर ती उतरांच्या रुपान भायर सरून आकार घेता. आंगापांगान पुराय वाडल्या बगर सौंदर्याक पुर्णताय येना. सुंदर भुरगें पुण ताची वाड खुंटली जाल्यार तें खिन्नटा. ताचे दुबळे जीवन-शक्तिचें हें लक्षण. हीच गजाल कथेक लागू जाता. हे नदरेन पळेत जाल्यार विस्तार दामोदराच्या कथांक सोब हाडटा. 'सूड' हे कथेंत ताची ही शक्ती बरी दिसून आयल्या. कथेचीं सगळीं बंदनां सांबाळून ताणें ही कथा बरयल्ली दिसता. ताका लागून पात्रां, प्रसंग, वातावरण, संभाशण. परिणाम ह्या सगळ्यांत एकचार आनी सुसंवाद राखूंक आयला. कलाकाराचें निराकार, भितल्लें विस्व साकार जाता तें विस्तारांतल्यानूच. पुण विस्तार हो आंतरीक प्रक्रियेचें फळ आसूंक जाय. कथा-बीज पडनाफुडें ताकतिकेन कथाकार बरोवंक बसता तेन्ना विस्ताराक फावऽ तो आकार येना. ताचो परिणाम पात्रांच्या सभावाचेर, वातावरणाचेर आनी पुरायान कथेच्या परिणामाचेर जालेबगर रावना. कथेचो विस्तार वा संकोच हें कथाकाराच्या मनाचे प्रक्रियेचें 'कॉन्शियस' अशें फळ जावंक जाय. कॉंश्यसनेस- जाणवीक तिव्र जावंक दिवप हें सुरवातिचें काम. भितल्लें सामर्थ्य नासत जाल्यार कथेक विस्तार येवंक पावना अशें कथाकाराक जावं, रसिकाक जावं, दिसूंक फावना. कथाबिजाक आकृतिबंद येवचे पयलींच कथेचो विशय आनी हेर सगळीं आंगां हांचो परिणामाचे आनी आशयाचे नदरेन कथाकारान मनांतल्या मनांत खूब जतनायेन, बारिकसाणीन विचार करूंक जाय. दिसांचे दीस आनी म्हयन्यांचे म्हयने गर्भाची पोसवणूक जावंक जाय. सातव्या आठव्या म्हयन्यार जाल्लें भुरगें घटमूट कशें जायत? आनी तीन-चार म्हयन्यां भितर जाता ताका 'एबोर्शन' म्हणटात.

दामोदराच्यो कथा वाचतकच एक गजाल लक्षांत येता ती ही कि ताका self identification ची शक्ती चड व्हड प्रमाणांत आसा. ताजे जणेक-कथेंत हो गुण ल्हानमोठ्या प्रमाणांत दिसून येता. वास्तवाकडेन तादात्म्य पावपाचे शक्तीं-तसून हेर कांय गुण उप्रासतात. सैम आनी समाज हो कथाकाराचे जिणेचोच एक वांटो जावंक जाय. इंद्रीय भोगांपुरतीच आपली जीण अशें ताणें समजूंक जायना. जिणेची व्याप्ती वाडोवन तिच्यांत सैमाचीं सगळीं रुपां आनी समाजाच्या म्हळ्यार, मनशांच्या सुखदुख्खांचे विशय आस्पावन घेवंक जाय. बरोवपाक विशय जाय तेन्ना सैमाची आनी समाजाची याद जावप आनी हेर वेळां आपल्याच

सुखदुख्खांत गुल्ल आसप हें कथाकाराक सोबना. तशें जाता तेन्ना ताका कल्पनेचेर आनी कल्पकतेचेर पातयेवन रावचें पडटा. शारांत रावन आनी एका ब्लॉकांत बसून तो कल्पनेच्या बळग्यार पळोवंक नाशिल्लीं थळां आनी मनशां हांचें चित्रण करूंक सोदता. पुण ताच्या हातसून जाता तें चित्रण अडेचें आनी निरस, यांत्रीक. तो तांचेकडेन समरस जाल्लो नासता. ह्या अवगुणाक लागून प्रतिभा-वान लेखकाचें लेगीत साइत्य सकयल्या पांवड्याचें जाता. दामोदरा सारक्या बरप्याची गजाल वेगळी. ताच्या कथांत सहजताय-स्पोन्टैनिटी–दिसून येता. आमी उलयतात तशें तो बरयता. एकाद्रो चतुर, संवाद–कुशळ उलयता आसतना आमी भान विसरून आयकत रावतात तशें दामोदराची कथा वाचता आसतना जाता. हो गुण नासत जाल्यार कथावस्तू, कथानक बी गजाली आसुनूय वाचपी आपलें वेगळेपण विसरून वचपांत गुल्ल जावंक पावना. ह्याच गुणाक लागून ताची भास सादी, घरगुती, निजाची कोंकणी थाटाची जाता. वाक्यां सुटसुटीत. एकान एक उतराक रंग आनी वास आसता. अर्थाचो गाब आसता. देखुनूच कंसेप्शन आनी एक्झे-क्यूशन ह्या दोनूय मळांर दामोदर यशस्वी जाला. कथेच्या कंसेप्शनाच्या वेळारूच कथेचो 'डिझायन' तयार जाल्लो आसता. तो मुर्त करता आसतना ताचें कसब जाग-रुकतायेन वावुरता. ताची दर–एकली कथा बियांतल्यान भायर सरिल्ली दिसता. जिविताचो सोद घेता आसतना हें बीं ताच्या मनांत पडिल्लें आसता. देखून ताच्या कथांक मातयेचो, उदकाचो नेट मेळटा. आमकां मागीर भायर दिसता तें झाड. खरेलें झाड. जाचीं पाळां-मुळां खोल जमनींत गेल्यांत, भितर रिगल्यांत, जाच्या पानापानांत जीवनरस रसरसून व्हांवता अशें तें झाड. कापून हाडून रोयिल्ली ताळी न्हय.

प्रापंचीक मनशाचे जिणेंत एक खीण असो येता कि तो मरणाक भियेवंक लागता. योगी-संतांची गजाल वेगळी. तांणीं मरण पयलींच अणभवल्लें आसता. हेर मनीस, मागीर तो राजा जावं नाजाल्यार रंक जावं, मरणाच्या विचारान तो कुळकुळटा. पुण तो आपणालें दुबळेंपण भायर दाखयना. मनांत भियेता. भायर नेट दाखयता. धिराचो देखाव करता. जगांत कोणाकूच नमनाशिल्लो हो मनीस एकदम मोव जाता. तेन्ना मनांतली भयाची भावना आनी भायलें नाटक हांचे मदीं ताच्या मनाची जी आवतिकाय जाता तिचें सुंदर चित्रण 'तसो हांव भियेना' हे कथेंत दामोदरान मोटया कसबान केलां. ही कथावस्तू मोट्या तोलाची.

परिपक्व जाल्ल्या कथाकाराकूच सुचऽसारकी. ती दामोदरान तश्याच तोलान फुलयल्या. साद्या, घरगुती वातावरणांतल्यान, प्रसंगांतल्यान, उतरांतल्यान फुलयल्या.

'बाप्पा' हो सामान्यांचो प्रतिनिधी. म्हातारपण आयलें म्हणटकच जण एकलो अशें म्हणटा : 'म्हाका मरणाचें भय दिसना.' पुण हें वयलेच्याराचें. खरें म्हळ्यार तो भियेता. मरणाक तर भियेताच. पुण हुंदराक, जल्ल्याक, पालीक लेगीत भियेवंक लागता. पुण झेत मोटो. त्याच्या मनाची ही दुहेरी अवस्ता रंगोवप हेंच हे कथेचें उद्दिश्ट. तें कितलें-शें साद्य जालां तें समजून घेतल्यार हे कथेचो आस्वाद ( appreciation ) घेवंक सोपें पडटलें.

हे कथेंत दोन पाट एकामेकांत भरसून व्हांवतात. तें वेगळे करूंक येनात. पुण वेगळे दिसतात. एक पाट बाप्पाचे भिरांतिचो. तो भितल्ल्यान व्हांवता. मोटया नेटान. कारण तो निजाचो आसता. दुसरो पाट भायलो-देखावाचो. आपणालें दुबळेपण मनाक कळ्ळें तरी तें कबूल करूंक लजेता. ताका तें उणाकपण दिसता. धिटायेचें, निर्भयतायेचें नाटक करून मनाक धारिश्टय हाडपाचो अडेचो, पोकळ यत्न करता. हें सगळें खऱ्या कळाकाराच्या कसबान दामोदरान बारीक-साणेन, खोलायेन, चत्रायेन सांगलां. बाप्पा मरणाच्या भयान सामको सथर-विथर जाल्लो आसता. तरी तो म्हणटा : "केंस धवे जाले तरूय दश्टी म्हजी बरीऽ आसा-भायलो काळोख कळटा. आयस पयस पातळिल्ल्या घरांघरांत लागिल्ले लुकलुकपी दिवेय बी दिश्टी पडटात. ही पळय, ताइबायल्या घरांत पणटी पेटली."

कुडी भायर कोणाचो तरी फुतफुतपाचो आवाज आयकूंक येता. तेन्ना बाप्पा म्हणटा : "हय. जाणटो जालों तरूय कानूय बेस बरें काम दितात."

सुनबायलो आनी माणकालो फुतफुतो कानार पडनाफुडें बाप्पा मनांत म्हणटा : "आरे चोरांनों, हांव कितें मरणाक भियेताशें दिसता तुमकां? पापयानो, ह्या वेळार मरण येवपा इतलें सुख ना."

अचकीत चार दिसां पयलीं काळजाचे पिडेन मेल्ले ताइबायची ताका याद येता आनी तो म्हणटा : "तसो कितें हांव मरणाक भियेना. म्हज्या भुरगेपणांत हांव कासादोर म्हुण फांकिल्लों. भिरांत म्हळ्यार कितें तें हांव नकळ आशिल्लों. एक फावट हांव कासाक गेल्लों. अटंग्या रानांत पावलों....आमोर जाली....

वागान घाल्ली उडकी चुकोवन हांवें आरमाक हात घालो आनी ताच्या हड्ड्यार फार,मारून ताका म्हज्या पांयांसरीं न्हिदयलो. तेन्ना हांव वागाक भियेलों ना. ”

एक दीस बाप्पान दोतोराक हरशींच, बेठेंच विचारतां अशें सांगून विचाल्लें : “ दोतोर, हार्टफेल बी जावंचें न्हय म्हुण घेवपाचें वखद ना तुमचेकडेन ? ” पुण दोतोरान मर्माचेर हात दवरून विचाल्लें : ‘ बाप्पा, तूं मरणाक भियेताय, कितें रे ? ’

हांवें सांगलें : “ मरणाक भियेवपी हांव न्हय. हांव कास्ताचो कासादोर. हांव भियेतां मरणाक ? ”

ताचो एक इश्ट कारेरींत बशिल्ले कडेनूच थंड जाल्लो. ताची ताका याद येता. आनी ताका कितेंशेंच जाता. पुण तो म्हणटा : “ तसो हांव मरणाक भियेना. ”

कथेच्या पयल्याच प्यार्‍यांत बाप्पाची मनःस्तिती दाखयल्या : “ दीस सरतासर नाका पुरो जाता. पुण हे तिनसांजचे कातरीर चडूच अस्वस्त दिसपाक लागता. काळजांतलो काळोख इल्लो इल्लो वाडत वचून आतां धर्तरेक धांपून उडयतलो काय कितें अशें दिसपाक लागता... वारो व्हांवना–शेवर्णी कलकलायनात.... काय म्हजेवरी सगळ्या इतल्याकूय अवकळा आयल्या ? ”

“ नातरां खंय गेलीं ? आरे बोवाळ घालात मरे मातशीं ! काय तुमचेंय तोळो धल्लो ? ”

फुडें बाप्पा म्हणटा : “ हरशीं सुनबाय सामकी फाटीं फुडें करता. आज खंय बोवाळटा काय ? सांजेवेळच्या पारार, खबरांक येवन बसपी यमुना आका, शाणुबाब, वोंवळ, नाना–बिना खंय झक मारतात आज ?.... पुण हे घटकेक हें एकलेंपण भेश्टायता. काळजांतलो हो काळोख आतां उजवाड पळोवचो ना– ”

मुखावयल्या ताइबायल्या घरांतली पणटी ताका दिसता. मेल्ले ताइबायची याद येता. जीव वयर सकयल जाता. माणीक आनी सुनबाय हांच्या उलोवपांतलीं कांय उतरां ताच्या कानार पडटात. “ तागेलें जाणटेपण जालां न्हय आतां ! हे पिरायेर मरणाचें नांवूच आयकल्यार भंय-सो दिसता म्हणटात. तातूंत ताइबाय ताचे-परस भुरगी. ”

हें आयकतकच बाप्पाली भिरांत वाडटा. तो सुनेक म्हणटा : “ भुरगीं खंय गेलीं ? बोवाळ ना. कलकल ना, बडबड ना, मस्ती ना, तांतूंत घरांत उजवाड ना.... ”

कांय वेळान परतीय ताइबायची याद येता. "ताइबाय चड भुरगेपणांतूच गेली. म्हजे मरस धा वरसांनी भुरगी. अकस्मात् गेली. दुयेंस ना, वायट ना. हार्टफेल खंय. आमच्या भुरगेपणांत केन्ना आयकलें ना. जुस्त म्हज्या जाणटेपणांत असलीं दुयेसां कित्याक आयल्यांत, देवाक खबर!"

आनी मरणाची भिरांत अशे भशेन वाडटा. मरणाच्या निमित्तान बाप्पा केन्ना केन्ना तत्त्वगिन्यान उलयता. भिरांकूळ मनशाक असलें तत्त्वगिन्यान येवजता. बाप्पा म्हणटा: "जीवन म्हळयार आपालिपांचो खेळ. तुमी आमी लिपप. मरणान सोदून काडप. पुण ह्या नव्या वायटांक— बाप्पाक भेश्टायतात त्या— कांयच नेम लागना. केन्ना कोणाची फाट धरीत, समजना." ताइबायची याद येवन तो भयान आकुळपिकूळ जाता आनी म्हणटा: "जाच्या कपलांत आसा तें ताका भोगुंकूच जाय. ताइबाय जल्माक येतनाच 'सुख ना' म्हुण बरोवन घेवन आयिल्ली."

मागीर ताका पांडुबाबाची याद येता. तो म्हणटा: "ताचो पापयाचो कित्याक बळी घेतलो, देव जाणा! हें हार्टफेलाचें भूत केन्ना कोणाचे गोमटेर बसत, नेम ना. पापयाचो घात घेतलो ह्या हार्टफेलान. पांडुबाब अशेतरेन गेल्लो पळोवन म्हजे लेगीत हातपांय गळिल्ले. आठ दीस दोळ्यांक दोळो लागनाशिल्लो."

फुडें तो म्हणटा: "म्हाका जाल्यार हें जाणटेपण नाकापुरो जालां. दिसपट्टी खबर कळटा ती कोणूय इश्ट, आमीग खंवसल्ल्याची."

"जेवणाचो विचार आयलो कि ताइबायची याद येता. म्हाका जेवण नाकाशेंच जाता. फाटले दोन दीस, ताइबाय वचत सावन हांव सारको जेवंकूच ना."

हो भावनांचो भितल्लो दुसरो पाट. अशीं दोन सुत्रां एकामेकांत विणून ही सुंदर कथा बरयल्या.

अशीच एक मोटया कथावस्तुची बसका आशिल्ली 'अशोक' ही कथा. कथेंत ड्रामा खूब आसुनूय बी ती दामोदराचे शैलींत बसना. 'अशोक' सगळे दृश्टिनीं विलक्षण आसूं येतालो. पुण तो ह्या जगांतलो दिसना. वास्तव, खरो दिसना. आमच्यांतलो दिसना. पुंडलीक नायकालो 'भिकारो,' शीला नायकालो 'प्रशाद काणकोणकार' (विद्येच्यान तर), मीना काकोडकारालो 'शिरीन' (तो आमचो बापूय न्हू?) हे सगळे भुरगे विलक्षण आसुनूय आमच्यांतले दिसतात, खरे दिसतात. काल्पनीक दिसनात. दामोदरान आपले कल्पनेप्रमाण 'अशोक'

चिताल्ला. संस्कार जावंक जाय आशिल्ले ते जावंक नात. ताका लागून एक मोटी कल्पना सदोश रुपान कथेंत आयल्या. अशें दिसता कि अशोक दामोदराल्या हातांतलें बावलें जाला. सदानंदाचे बाबतींत अशें म्हणूं येना. तो अर्दकुटो. पुण आपल्याच खासा भावनांतसून, सभावांतसून वयर सरिल्लो. जितोजिवो, रसरशीत असो. हो गूण अशोकाच्या पात्राक येवंक ना.

'रितें जिणें' ही एक उत्कृश्ट कथा. तिचें कथाबीज सुंदर. आनी ताचो अविस्काररूय तसोच सुन्दर. एक चिरंतन सत्य हांगा साकाल्लां. कथेंतलो मिनेर हो एका मोटया वर्गाचो प्रतिनिधी. जाणटेपणांत ताची जीण ताका रिती जाल्ली दिसता. जिणेक अर्थ उरना. वेव्हाराचें निरिक्षण केल्यार आमकां असल्योच जिणो मेळटात. हो मिनेर हॉस्पिटलांत स म्हयने आसा. ताचे लागीं खूब पयसो आसा. धंदो गडगडट्टा. कोटींनी रुपयांचो वेव्हार चलता. पूत आसा. पुण मिनेर मात् सुखी ना. ताका पावला–पावलाक उब्रगण येता. जोडिल्ली जोड भायर आसता. वेव्हाराचो व्याप भायर आसता. आनी हांगा मात तो एकलोच आसता. अश्या वेळार ताच्या मनाची जी स्थिती जाता ती हे कथेंत चिताल्ल्या. कोटींनी रुपया जोडुनूय तो पापी भिकारीच उल्लो. ताचें मन गिरेस्त जावंक पावलें ना. समर्थ जावंक ना. गिरेस्तकाय धंद्यांत आसा, खाणींत आसा, तिजोरेंत आसा. बॅकांनीं आसा. ताच्या मनाची तिजोरी मात् रितीच उल्ल्या, पयलिंच्यो यादी चाबडावन तो खिणयाळें समाधान मानून घेता. पुण मागीर रोखडेच ताचे तळमळे जातात, इन्कमटॅक्स भरप्यां भितल्ल्या पयल्या धा मनशांत ताचो नंबर लागता. ही खबर पेपरांत वाचून ताचो अहंकार सुखावता. पुण आपलो कितल्यावो नंबर आयला हें पुताक फोनार विचारपाक तो भियेता. धंद्या खातीर जीव दिवन वावुल्लो, दुड्ड जोडलो, नामना जोडली, जपानाक गेलो आनी आतां पूत धंदो जिस्ताज्युस्त चलयता. कांयच उणे ना, आपली कांयच गरज लागना ह्या विचारान तो कश्टीय जाता.

"केंद्री खाणमंत्री गोंयांत आयला ही खबर वाचून ताचें मन धुंवूंक लागता. फाटलीं धा–बारा वरसां, जावं खाणमंत्री जावं हेर कोणूय मंत्री, गोयां आयले जाल्यार तांची वासपूस तो खासा करतालो. तांकां येवकार दिवप, तांकां खाना दिवप; आपणेंच पोशिल्ल्या वर्तमानपत्रांनी तांच्यो मुलाखती फोटयां सयत छापून हाडप आनी निमाणें तांकां भावपूर्ण निरोप दिवप हें तो नेमान करीत आयिल्लो."

[७]

हीं याद जायनाफुडें ताका सकयल वयर जाता. आतां नर्सीकडसून इंजेसावां करून घेवप, शिवासरिगल विस्की बदला उदक पियेवप-खाटेवयलो उठून गॅलेरींत बसप, गॅलरींत साकून परतो खाटेर बसप—आनी फाटल्या कर्तुत्वाच्यो दुख्ख देण्यो यादी चाबडायत बसप इतलेंच ताच्या हातांत उल्लां. कित्याक, जीण भल्लेली ती पयशांनी, मान-सन्मानांनी. आतां जोडिल्ली जोड भायरूच उल्ली. तिणें जागो केलो तो अहंकार. मनाक थंडाय हाडली ना, घटसाण हाडली ना. जोड पयसावली. तो रितोच उल्लो. हो आशय कथेंतल्यान पाझरता. कसल्याच प्रचाराबगर. पुण हो आशय-निगेटिव्ह आशय-कथाकारान सुचोवंक ना. तरी तो वाचप्यांक जाणवता. तो असो कि सत्कृत्यांची जोड, पुण्यायेची जोड हीच निरंतर आपल्या वांगडा येता. मर म्हणसर आनी मरतकूय ती आमकां सांगात दिता. आमची खरी शक्त ती हीच. ती आसली जाल्यार जीण सदांच भल्लेली. तिच्या बळग्यार म्हातारपण हो तृप्तिचो झरो जाता. असो मोटो आशय ही कथा दिता. देखुनूच ती वयल्या पांवड्याची जाल्या.

'आनी हांव परतलों.' ही कथा म्हळयार एक यात्रा. सैमाची. पयलिंचीं मनशां संवसार करून जातकच, काशियात्रेक वतालीं. संकश्टां झेलीत, जीव संकश्टांत घालून. थोडींच परततालीं. गंगेंत न्हावन पावन जातालीं. त्याच निर्धारान आनी निश्ठेन हे कथेचो नायक घराभायर सरता. ताका सैमाचो उलो आयकूंक येता. करचेलें सगळें करून जालां, भोगचेलें सगळें भोगून जालां असो हो मनीस. भुरगेपणांत, आडांग्यांचो राजा. उदकान भरिल्ले बांयत देवपी. झाडार चडपी. आतां, भुरगेबाळांच्या संवसारांत गुल्ल जावन गेला असो. म्हातारपणांतलीं सगळीं सुखां भोगता. पुण ह्या सुखाचो ताका वीट येता. तो म्हणटा : "ताच्या उपरांत दोन दीस कशे काडले हांव नकळ. एकासारकें मन धांवतालें देवादोंगरार आनी जुदेवारानांत. मागीर म्हज्यान रावं नज जालें. तिसरे रातीं उठलों आनी बद्द वाट धल्ली दोंगराची."

ही सैमाची यात्रा हो हे कथेचो विशय. तो भोव उदात्त. कित्याक, तो मनशाचे अध्यात्मिकतायेंतल्यान उदेला. आनी मांडलाय उदात्त- ॲपीक शैलींत. हे कथेंत दामोदरान खूब उंचाय गांठल्या. एक वेगळें सामर्थ्य उकतें जाल्लें दिश्टी पडटा. कथाकार आनी सैम हांच्या मदलें जिवाभावाचें नातें तें हेंच. कथेचो नायक सैमांत विरगळून वता. प्रपंच विसरता. सैमाचें विराट सरूप पळेतां पळेतां तो

भुरगो जाता. तान, भूक, न्हीद विसरता. सैमाचें दर्शन आपले जिणेंत वेगवेगळया वेळार जालां तें हांगा प्रत्ययाक येता. हांगा सुर्य–चंद्र, मळब, नखेत्रां, झाडां–पेडां, व्हाळ दोंगर जिवे जावन ताच्या वांगडा उलयतात. तीच हे कथेंतलीं पात्रां जातात. आनी ताच्या काळजाक हात घालतात. ताच्यांतलो आदिमानव तकली वयर काडटा. सैमाची भव्यताय, उदात्तताय पळोवन तो आपलें वेगळेपण विसरता. चंद्र ताचो इश्ट जाता. " सवाशिणी कशी झाडां पाचवोचार शालू न्हेसून सुर्याक ओंवाळपाक उबी रावल्यांत. वाऱ्याक चडूच नेट येता. माड बाग घेवन सुर्याक वंदना करता. रूख पानां हालोवन ताका येवकार दितात. वाली झाडांक वेंगो मारून कानांत तांच्या फुतफुततात. "

व्हाळाचें उदक पळोवन तो उचांबळ जाता आनी " त्या नितळ उदकांत पावल दवरतां. पोंदा बरे गुळगुळीत फातर लागतात. खातखुतल्यो जातात. दोन पावलां फुडें घाल्तां. त्या शीतळ उदकान हांव सुद्द विसरतां. उदकांत बसका मारतां. बशिल्लेकडेन आसतां. पुण उदकाबरोबर व्हांवता–शें दिसता. "

व्हाळाचे पलतडीं ताका कसाची जमीन लागता. कसूच कस, धवोफुल्ल. ताका दर्यावेळेची याद येता. तो म्हणटा : " आतां तो कस पळोवन उदकांत आशिल्ले भशेन दिसता. उडकी मारची, पेवंचें–शें दिसता. " आनी मागीर अकस्मात " पावस शिरशिरपाक लागता. वयर सवणीं धांवतात. आलाशिरो सोदतात. आतां झाडां दिसूंक लागतात. पावस मोटो जालो. रुखा पोंदा रावंचें म्हणून हांवूय आलाशिरो सोदतां.... "

मागीर तो रुखा पोंदा येता. " केदो व्हडलो रूख हो ! कितलिशींच शेवणीं वयर बसल्यांत, सामकीं कलकलायतात. रुखा पोंदा दोन सोंशे बसल्यात. तांच्या पेल्यान एक रानकोंबी तकली हालयत पेंडयेवयलें उदक फाफुडटा. मागीर सवणीं ताचें मन ओडून घेतात. तांचे आवाज, तांचे रंग तोखेत रावता. तांचो मोग शृंगार पळोवन धादोस जाता.

" दोगूय जाणां गच्च तेंकून बसल्यांत. मदींच ती पयसशीं वता. रागार फुगार जावन. आनी तो म्हुण उणो ? झोंपय घेता आनी उठून वता. ती मागीर उले मारता : कूऽया ! तांगेल्यो त्यो करण्यो म्हाका खातकुतल्यो करतात. हांव पळेत रावतां. तीं परथून तेंकून बसतात. गुलगुल गजालींक नेट येता. चोंची उगडटात. चोंचीत चोंच....म्हाका याद येता म्हज्या तरणेपणाची; आनी हांव नदर

भोंवडायतां. ”

मागीर ताका वचनराणिची याद येता. इतल्यान ‘ गुर्ऽऽ गुर्ऽऽ ’ असो आवाज कानार पडता. आनी मागीर दोन वागुट्टां आनी एक वागीण मुखार येता. तांकां पळोवन रानांत आयिल्ल्याचें सार्थक जालें शें ताका दिसता. वागीण धांवत आपल्या पिलां सरीं येता. आनी सैमाची ही विविधताय आनी वैभव पळेत तो एक रात आनी एक दीस रानांत काडटा. तो म्हणटा : “ परतून घरा वचचें न्ही. हांगाच रावचें–शें दिसता. ह्याच सैमाचे कुशींत जिवीत सारचे–शें दिसता. ”

पुण वेळ अस्तमतेक पावता आनी सुकणीं ताकतिकेन घरा परततात. आनी अकस्मात, भानार येवन तो आपणाकूच प्रस्न करता : “ इतली कसली ओड ? घराची, पिलांची ? सवण्यांक लेगीत इतली ओड आनी म्हाका ?

आनी पयलेच खेपे ताका येवजून येता.

“ घराकडेंन कितें चल्लां आसतलें ? ”

“ बापूय अचकीत ना जालो म्हुण पूत आवरो काडटलो ? ”

“ मांव अकस्मात गेलो म्हुण सून रडटली ? ”

“ आनी ‘ आज्या ’ म्हुण नातरां—” आनी ह्या विचाराबरोबर ताच्या दोळ्यांत उदक येता.

चोचींत चोंच घालून गजाली करपी त्या सवण्यांची याद जाता.

वागटांक खेळयतले वागणिची याद येता. पिलांक पोटाक बांदून धांवपी माकडीण ताका दिश्टी पडटा. आनी ताच्या मनांत संवसारिकाचें भावनीक जग जागें जाता.

‘ आई, आजो केन्ना येतलो गे ? नातरां आवयक विचारतात आसतलीं. ’

दोळ्यांतलीं दुकां लिपोवन सून म्हणटली : ‘ फाऽल्यां येतलो आं...न्हींद रे बाबा ! ’

‘ आई काणी सांग गे, आजो सांगतालो ती. ’

ताचें काळीज कातरता. नातरां, सून, पूत दोळ्यार येतात. अकस्मात् एक नेट ताच्या पायांत येता. हेवटेन तेवटेन, पळे नासतना, तो चलूंक लागता. जाता तितले बेगीन घरा पावपाची ताका ओड लागता. तो धांवूंक लागता.

चंद्रीम उदेता. ताचें मन कित्यांतूच रमना.

तो कस लागता, तो व्हाळ लागता. तीच दोंगुल्ली. तींच झाडां. तेंच सैम पुण

थंय ताचें लक्ष वचना.

फातराक आपटता. कांटे खुंटे तोंपतात. आंगोस्तर पिंदता. पुण पांय कशेंच आटापनात.

घराच्या विचारान तो पिसो जाता. पूत ! सून ! ! नातरां ! ! ! ' म्हजो संवसार म्हजें घरूच म्हाका व्हड ! '

. सगळी रात तो चलत रावता. फांतोडेर कोंबो साद घालता. अजून लोक उठूंक नात. ताका घर दिसता. पायांक चडूच नेट येता. धावंक लागता. बल्कांव दिसता. भायर सावन पुताक उलो मारचो–सो दिसता. तो फुडें सरता. आनी ताचो पूत दिश्टी पडटा. " वोल्तेराच्या हातांचेर तकली तेकोवन, बंद दोळयांतल्यान निखळून पोल्या वयल्यान निसरपी दुकां पुशीत बाशिल्लो पूत ताका दिश्टी पडटा. "

हे कथेंत नायकाच्या चार अवस्तांचें वर्णन आयलां. पयली भुरगेपणांतली, दुसरी जाणटेपणांतली–भुरगीं बाळां हांचे मर्दी गुल्ल जावन गेल्ल्या जाणटेपणांतली. तिसरी, सैमाच्या विस्वांत उडी घेवपी विरक्त मनशाची आनी चौथी, परती घरची ओड लागून दोंगर, रानां माड्डीत घरा धांव मारपी आज्याची–बापायची–मावांची.

ह्यो सगळ्यो अवस्ता दामोदरान अशे रुचीन, विस्तारान, तादात्म्दान सांगल्यात कि रसीक वाचपी आपलें वेगळेंपण विसरून कथेंतल्या नायकाकडेन एकरूप जातात. कृत्रिमताय खंयच आड येना. दोन तीन उतरांचीं वाक्यां, डाय-नामिक शैली, अणभवाचें खरेपण, कलावस्तुचें उदात्तपण, मनीस सभावाचें भावनीक नाजूकपण, कल्पनेचीं उडडाणां, असल्या सगळ्या गुणांनीं भरिल्ली अशी ही कथा.

दामोदरान मोगाचेर भोव थोडयो कथा बरयल्यात. ताच्या सारक्या जुवान लेखकान त्यो अदीक बरोवपाच्यो. मोग हो विशय दिसता सादो. क्षुद्रूय म्हळयार जाता. पुण तो आमचें सगळें जिवीत व्यापून बसला. काम ही मनशाची मुळावी बड, ती अनंत रुपांत वावुरता. मोग, प्रेम, शृंगार, रोमान्स....हीं तेच बडिचीं रुपां. संभोग हें ताचें उग्र रूप; शृंगार सौम्य रूप. संवसारांतल्या व्हड–व्हड लेखकांनी कामविकाराचेर आनी कामभावनेचेर अज्रंवर साइत्य बरयलां. हो विशय कविंचे आवडिचो. तांकां प्रेरणा दिवपी. संवसारांतलें बऱ्यांतलें बरें काव्य

हें प्रेमकाव्य जावन बसलां. मेघदूत हें प्रेमकाव्य न्हय ? कवी वांगडाच मोटया कथाकारांकूय हे कामवृत्तीन प्रेरणा दिल्ली आसा. काम हो एक Instinct जाल्ल्यान मनशाच्यो प्रेरणाच तो घडयता. विश्वामित्रासारको योगी आनी पयशांच्या पिशाच्च्यान झपाटलेलो प्रापंचीक दोगूय ताच्या तडाक्यांत सांपडटात. मागीर साइत्यिकाकूय ताणे झपाटलो जाल्यार अजाप ना. प्रस्न आसा तो ताच्या विविध रुपांचें आकलन करपाचो आनी तीं कलात्म रितीन मांडपाचो. ह्या विशयाचो घुसपागोंदळ मोटो जाल्ल्यान सर्वसामान्य लेखक तांतूंत घुस्पटून वता आनी नकळटां आपल्या साइत्याची दुर्दशा करून उडयता. दामोदरान ह्या विशयाचेर थोडेंच बरयलां. पुण सुंदर बरयलां. तें वाचून ताणे ताचेर खूब बरोवचें अशें म्हाका दिसता. कथाकारान तरणेपणांत असल्या विशयांचेर अदीक बरोवंक जाय. कित्याक, ते पिरायेर ताका तसले अणभव अदीक मेळटात. ताच्यो अनुभूतीय अदीक खऱ्यो Authentic आसतात. तांचेकडेन एकरूप जावप–Self–identification–सोंपेपणान घडटा. तत्त्वगिन्यानासारक्या विशयाचेर ते बौधीक पातळी-चेर जाता. हांगा तें physical म्हळयार इंद्रियांचे पातळिचेर जाता. देखून ताका तिव्रताय येता, जीवसाण येता. विकार भावनेचे पातळीचेर चडटात आनी प्रतिमेचो स्पर्श जाल्ल्यान भावनेक उंचाय येता. हो विशय हाताळूंक खूब कठीन. कलेचो शेक उणो जाल्यार थंय रोखडीच घाण जाता. विशय गुळगुळीत जाल्ल्यान कलाकार थंय रोखडोच निसरता. मेनकेसारकोच तो ओडलायणो, चंचल, रंगयाळो. ताचो नाच पळोवन कलेचो केन्ना केन्नाय धरबंद सुट्टा. थीर, संयत प्रतिभेकूच ह्या घातकी विशयाक जाय तसो मस्तूंक, धोडावंक, आकार दिवंक येता. दामोदरांत ही तांक आसा अशें ताच्यो ह्या विशयावयल्यो चार पांच कथा वाचून म्हणपाक म्हाका आडखळ दिसना.

'तेरेझालो घोव', 'तूं वचूं नाका', 'मन म्हजें पिशें', 'बोमाडे', 'तो हांव न्हय', 'मूड म्हजो सोयरो', हया कथांनीं मोगाचीं वेगळीं वेगळीं रुपां दिसतात. हयाय कथांनी खंयचेच कडेन ताचे रंग भडक जावंक नात. उरफाटें अशें म्हणूं येता कि ते फावऽ त्या परस सौम्य जाल्यात. कांय कडेन ते सामकेच मिळमिळीत जाल्यात. दामोदर sex क खूब भियेता काय कितें असो दुबाव येता. पुर्विल्ल्यो बायलो परपुरुशाक भियेताल्यो आनी आपल्याच दादल्याक लजताल्यो तशी–शी दामोदराची गत्त जाल्या. 'तूं वचूं नाका' हे कथेंत मेरी आनी कथेचो

नायक हांचे मजगतीं मोग आसता. तीं दोगांय एकठांय यतात. एकाच घरांत रावतात. पुण तो तिका आफुडलेलो लेगीत दिसना. 'मात' हे कथेंत सुलू आनी सुभाश एकामेकांचेर इतलो मोग करतात कि तांचें लग्न जावंक पावना तेन्ना सुभाश पिशांतूर जाता. पुण तो तिका वेंगेंत घेना वा तिचो उमो घेना. 'मन म्हजें पिशें' हे कथेंतलीं घोव-बायल चाळीस वरसां पयलिंच्या घोवा-बायलां भशेन वागतात. ती एकेकडेन म्हणटा : 'सगळीं न्हिदूंक गेलीं. हांवें कुडिचें दार ओडून घेतलें. आनी हांचेसरीन गेलें. हे वाचताले. बाज्जेर बसना फुडें हाणीं पुस्तक पेल्यान दवल्लें आनी म्हाका म्हऱ्यांत ओडलें. सकाळ सावन मनाक घाल्लो बांद सुटलो. आनी हुंडक्यांनी रडूंक येवपाक लागलें....ते बराबर हांणीं म्हाका आनिकूय म्हऱ्यांत घेतलें आनी म्हजी फाट थापटीत कानांत सांगलें : 'ह्या येता। शेनवाराक या आमी.'

फुडें ती सांगता, 'ल्हान भुरग्यावरी हे न्हिदिल्ले. मदींच हे मुमुरखे हांशिल्ल्या-भशेन दिसले. हांवें पर्थून म्हजें तोंड तांचे कुशींत लिपयलें. पुण ते रोखडेच जागे जाले. म्हऱ्यांत घेवन ताणी अळंग म्हजो...."शी ऽ हें कितें ? सकाळफुडेंच ?" हांवें फकाणांनी म्हळें. ताणी म्हाका अदिकच म्हऱ्यांत ओडलें. मन शांत जालें."

दामोदराची उडी शृंगाराच्या मळार हाचे फुडें वचना. तीस-चाळीस वरसां पयलिंचो हो शृंगार दामोदर आयज खाकडून रंगयता. 'मूड म्हजो सोयरो' ही कथा मोगाची–शालीच्या आनी सुभाशाच्या. पुण शाली इतलें लजेस्त कि तें ताच्या वांगडा भोंवपाचें चुकयता. हे कथेंत मोग आसा. पुण कथेचो विद्भोग ना. तेरेझालो घोव हे कथेंत sex वावुरता; तेरेझ ही एक थिल्लर, चंचल चली. लग्न जाल्ली. घोव बेकार, जोडिना. तेरेझ ऑफिसांत काम करता. ताका पोसता. तें देखणें, लागोळें. हांगा sex सैल सोडपाक जायतशी लेखकाक संद आसा. पुण ना. दामोदराचो संयम आड येता. तेरेझालो घोव कुडींत जो देखाव पळेता तो हो : 'तेरेझ तोंड–हात धुवन कुडींत येता. पीटर न्हिदकुरे दोळे करून पळयता. तेरेझाल्या आंगार फकत कामिजोल आसा. दांत–तोंड धुतना आंगार न्हय न्हय थंय उदक उसळिल्ल्यान पेटिकोट आंगाक दसला. तेरेझ खोंटो वयर करून दोरये वयलो तुवालो ओडटा. हात वयर करना फुडें खांके उकते पडटात. आनी....! पीटर खीणभर दोळे धांपता. पर्थून पळयता. खोंटो वरशो करून हात वयर केल्ल्यान कामिजोलूय वयर सल्लां. तरण्याशार केळिच्या गब्याभशेन तिकतिकीत

मांडयो पीटराच्या दोळयांत भरतात. नकळटना पीटराचे दोळे साप्प उकते जातात.

'तो द्वांव न्हय' ही कथा वाचात. मोग हो हे कथेचो विशय न्हय. पुण थं कामविकार गोंदळ घालता. दोतोर कोंसुलतरींत आसता. लूसी भितर येता, बसता लूसी कशी आशिल्ली ? " ती सुंदर आशिल्ली. तरणी आशिल्ली. तिच्या तोंडार धिटायेची सय मारताली. बोंचो मोडून मुमुरखें हांसपाची रीत पळेतल्याच्या काळजाक खातखुतल्यो करताली. दोनूय पोल्यांचेर गुलाब फुलिल्ले. दाव्या कान-सुलाचेर एक चामखीळ सोबतालो. गोऱ्या–धव्या आंगार नितळसाण झळकताली. उजव्या पोल्यार इल्लें–शें फोणकूल पडटालें आनी लेवशी लिपस्टीक लायिल्ल्यान दोनूय वोंठ दसणिचे कळे कशे तट्टटून हांसताले. "

फुडें कितें जाता ? तिचे नदरेंत इश्टागतिचे भाव आशिल्ले. एकलरेचे आपोवणें आशिल्लें. पळयतां पळयतां नदरेंत नदर घुसपली आनी म्हाका सोडोवचिशें दिसना जालें.

'हड्डयांत दुखता' अशें म्हुण बशिल्लेकडेन तिणें हड्डें उबार केलें आनी उजवो हात हड्डयार दामून दवल्लो.

म्हज्या काळजांत धडधडपाक लागलें. दोळे मोटे जाले. नदर थीर जाली. पयलींच तिणे ब्लावजाचो गळो सकयलसो कापिल्लो आनी आतां हात अशेतरेन दामून धरिल्लो कि उबार हड्डें आनिकूय उबार दिसतालें. हड्डया मदली अशीर खळी लेगीत दिश्टी पडटाली. म्हजें रगत तापूंक लागलें. "

दोतोर तिका तपासूंक व्हरता थंय आसा. इतल्यान एक भुरगो दोतोराक व्हरूंक येता. तो म्हणटा : " घराकडेन मांयक कितें जावन आयलां. जापबीप कांय ना. सालवार कर तिका. दोतोर, बेगीन यो. "

आनी दोतोर अशो रितीन एका मोहाच्या प्रसंगांतसून वाटावता. दुसरेय फावटीं लूसी येता आनी परतोय मोहाचो प्रसंग उपरासता. ती आपणाक तपासूंक लायता. आनी तपासता आसतना ताचो हात घट्ट हड्डयार दामून म्हणटा : " असोच धर दोतोर, आतां बरें दिसता. "

हे कथेंत कामविकाराचें तांडवनृत्य घडोवन डाडपाक दामोदराक खूब सुवात आशिल्ली, पुण ताणें मोटो संयम दाखयला.

सॅक्साचे बाबतींत हो कथाकार निकोप. आपले कथेक सॅक्स केन्ना आनी कसो

बाधक जाता हें तो पुराय जाणा.

अश्लीलतायेचो विचार काळाप्रमाण बदलत आसता. पंचवीस वरसां पयलिचें यअश्लील आज शील जालां, हें एक. आनी विशय, वातावरण, पात्रां, हेतू, आशय .परिणाम हांचेर तो विचार अदीक करून अवलंबून आसता, हें दुसरें. जो 'काम' वा ताचीं जीं रुपां कलेच्या परिणामाक बादतात तीं अश्लील. उतर अश्लील न्हय कलेक जें हिणकसपण हाडटा तें त्याज्य – भायर उडोवपा सारकें. हे बाबतींत दामोदराचो तोल खंयच सुटिल्लो दिसना. कांय बरपी 'कामा'क उगडो नागडो भोंयडायतात. पुण ती फॅशन म्हुण. कलेची गरज म्हुण न्हय. नग्नतायेचीं, संभोगाचीं भडक वर्णनां करून कथा अदीक परिणामकारक जाल्ली जाल्यार हांव कांय म्हणचो नाशिल्लों. पुण प्रत्यक्षांत तशें जायना. उच्च साइत्यकृतींत जो संयम, सुचकताय, खोलाय जाय आसता, ताका मारक जाता तें भडकपण, उत्तानपण, अतिरेक. फॅशन म्हुण कलेची उपेक्षा करून गरज नासतना कामविकाराचो दुरुपेग केलो जाल्यार समाजांत चार दीस खळबळ जाता खरी. पुण फॅशन चार दीस तिगता. अदीक काळ न्हय. प्रतिभावंताक असल्या मार्गाची गरज नासता. जें दिसता तें सरळ सांगूंक कितें आडखळ आसा ? हो प्रस्न कलेचें अस्तित्वूच न्हयकारता. वास्तवतेचें यथातथ्य वर्णन म्हळयार कला ? ती फोटोग्राफी. वास्तवता हो कलाकाराचो material ( मूळ द्रव्य ). ताचेर आपल्या creative personality चे संस्कार करून, वेगळया मुल्यांचो उपेग करून कलाकार साइत्यकृती तयार करता. देखून जें दृश्य आमकां वास्तवताय सांगूंक पावना, दिवंक पावना तें साइत्यांत ती वास्तवताय आमकां दिता. वास्तवांतली अपुर्णताय दाखोवन आदर्शांची पुर्णताय आमच्या मनोविश्वांत उबी करता. वास्तवताय ( Reality ) वेगळी आनी वास्तववाद ( Realism ) वेगळो. वास्तववाद Interpretation भायर उडयना. कलाकाराचे आंतरीक प्रक्रियेक ( subjective process ) कुशीक दवरना.

'म्हजें मन पिशें' ही कथा मंत्रतंत्राचे नदरेन भोव सोबीत जाल्या. कथाकाराच्या मेकळया आनंदी मुडाचो हांगा प्रत्यय येता. विशय नाजूक. आनी तो मांडलाय खूब नाजुकसाणीन. Conception आनी Execution ह्या दोनूय बाबतींत ही कथा यशस्वी जाल्या. शिवाय भोव abstract. पुण खेळयला, रंगयला मोटया कसबान. कसलेंच कृत्रिमतायेबगर; सभावीक शैलीन. एके गुरवार

बायलेच्या दुबावी मनाचें हें चित्रण. बारीक–सारीक घरगुती प्रसंगांनी उबें केल्लें. प्रत्यक्ष नाट्य drama कसलोच ना. गुरवचार येवप हो ड्रामा न्हय. ती एक-चालंत गजाल. पुण ‘ एके बायलेगेर राक्षसी भुरगें जल्माक आयलें ’ अशी खबर ती ‘ राष्ट्रमता ’र वाचता आनी तिच्या मनांत ड्रामा तयार जाता. मागीर तरे-तरेच्या दुबावांनी, कल्पनांनी ती काचाबूल जाता. घोवान वट्टांत लायिल्ल्या एका झाडाक पयलें फूल येता तें घाणयारें. तिका दुवाळे जातात. कोडू कारांदे खायन दिसता. सवळें न्हेसून तुळशीक प्रदक्षिणा घालता आसतना तिचे नण्डेचो चलो तिका आफुडटा. शुक्राराच्या उपासा दिसा भूक सोसूं नज जातकच मांयची नदर चुकोवन ती कितेंय तोंडांत उडयता. सुर्याचें गिराण येता. हया सगळया यादिंनी मन सामकेंच आकुळ–पिकूळ जाता. पुण आपलो घुसमटमार ती कोणा-कूच कळयना. मांय वयले वयर करता, घोव पातयेना, तिचें मन मोडिना. पुण भिरांत सोडिना. मनाचे अशे कुचमणेंत म्हयने सरतात. आनी एके रातीं पोटांत दुखूं लागता. कश्टावता. राक्षसी भुरगें दिसूंक लागता. हॉस्पिटलांत व्हरतात. वेणो वाडटात. ती परंवता, हुडक्यां हुडक्यांनी रडटा. राक्षसी भुरगें हालना आनी निमाणें न्हीद लागता.

फांतोडेर आवय येवन म्हणटा “ बाय ऊठ, चली जालां पळे.” हया उतरांनी जागी जाता. दोळे उकते करता. पळे जाल्यार, कुशीक भुरगें. कथेचो हो अखेर विरोधी पार्श्वभूमिचेर सामकोच टचींग जाला....घरचें पयलिचें सादें–सुदें वाता-वरण नाजुकसाणीन तयार केलां. ती म्हणटा : “ आतां म्हजी मांय म्हाका पावला–पावलाक जपताली, मात पातये नाशिल्ली. हे तर म्हाका सदांच विचार-ताले, ‘ कितें खायन दिसता ? कितें जाय तुका ? मांव लेगीत मांयक विचारतालो सुनेक कितेंय हाडूं काय म्हुण. ”

फुडें ती म्हणटा : ‘ हालीं मांय म्हाका कितेंच काम करूंक दी नाशिल्ली. चार तांबये न्हावन भितर सरना फुडें ‘ पड आतां मातशी. ओल्यांक बी हात घालूं नाका. ’ म्हुण मांयन म्हाका शिटकायलें. ’

“ म्हणटां म्हणटां णवो म्हयनो लागलो. सातव्या वयलीं फुलां. मोटीं जालीं. मांय मांवान मोटे उमेदीन सांगलें. इतलें केलें. नशिबानूच मेळटात असले मांय-मांव. णव्या म्हयन्या वयलीं फुलां कुळारा.

तिच्या मनांतल्यो हयो भावार्थी निश्ठा.

"मन शांत जाल्लें पुण मनांतली भिरांत अजून वचूंक नाशिल्ली. हांवें ल्हवूच हांचो हात हातांत घेतलो आनी पोटाचेर धरून विचाल्लें, 'कोण आसा हांगा ?'

"बाय म्हजें."

"आंऽ आंऽ बाबूच."

"बरें, बरें. दोगांय....एक बाब, एक बाय....जालें ?...."

"आवयस् !" अशें म्हुण हांवूय हांचे वांगडा हांसलें.

"बरें, कोणाभशेन जातलें सांग पळोवया ?" हांवें विचाल्लें.

"सांगूं ? तुजेभशेन...."

"ना ना....म्हाका तुमचेचभशेन जाय." हांवें मनापसून म्हळें.

"तुजेर कांय नातें ....म्हाका जाय तशेंच तें जातलें, तुजेभशेन गोरें, धवें, सुंदर...."

अश्या नाजूक संवादांनी, सभावीक प्रसंगांनी हे कथेचें निर्मळ वातावरण तयार केलां. तांतुंतल्या कल्चरल मॅच्युरिटीची दामोदराक आयिल्ली जाण दिश्टी पडटा.

दामोदराचे मॅच्युरिटीचो दिश्टावो घडोवन हाडपी एक कथा म्हळ्यार "गणपती पावलो" ही. संस्कृती, समाज, परंपरा हया गजालींकडेन खरो कलाकार दुर्लक्ष करिना. संस्कृतींत कांय मुल्यां बरीं आसतात. कांय वायट आसतात, कांय सनातन आसतात, कांय खिणयाळीं आसतात, सनातन मुल्यां हीं शास्वत कल्याणाचीं आसतात. कलाकाराचे घडणुकेंत तांचो हात आसता. देखून कांय गजालींत ताका स्थितीप्रिय जावंचे पडटा. त्याच वांगडा क्रांतीप्रिय जावंचें पडटा. इतलेंच न्हय तर क्रांतिकारक जावंचें पडटा. कलाकाराचो हो एक इतलो गूण आपली individuality पोसता आनी जगांत जें वायट आसता वा ताका दिसता ताचो तो विरोध करता. हें ताचें मिशन. हया दोनूय विरोधी प्रवृत्तिंचो मिलाफ घडोवन हाडपाचें काम कठीण. सर्वसामान्य कलाकार खंयच्येय एके प्रवृत्तिचो दास जाता. दामोदराक हो मिलाफ सादला.

'मन म्हजें पिशें,' 'गणपती पावलो,' 'तो हांव न्हय' हया कथांनी दामोदर पोन्न्यांत बरें सोदता. कारण समाजाच्या कल्चरल मॅच्युरिटीचो साक्षात्कार ताका जाला. त्याच वांगडा नव्या मुल्यांक तो हुडकेता. 'मरण येना म्हुण,'

' रितें जिणें ' ह्या कथांतलो दामोदर वेगळो. वेगळया मुल्यांचो ध्यास घेवपी. पोन्नें कोसळटा आसतना तातुंतलें बरें सांबाळून धरचें पडटा. आनी नव्यांतलें बरें उबारून धरपाचें धाडस करचें पडटा. हें काय कलाकारूच करूंक पावता. ललीत साइत्याचें हें काम.

' गणपती पावलो ' हे कथेंत पोन्न्यांतलें नवें–चिरंतन घेतलां. कथेचें बीज म्हळयार योगायोग–सुतकाचो. ताचेर आधारून कथानक घडयलां. ही एक ट्रीक. पुण कथेचो विकास भोव सुंदर आनी सबावीक जाला. अनपतिच्या घरांतलें प्रेमळ, एकामेकांक धीर आदार दिवपी, एकामेकांक सांवरपी, एकामेकांचें सोंसपी वातावरण रंगयता आसतना फाटले पिळगेंतल्या मुल्यांचो उपेग केला. घरची अनपत, कुचमण, भुरग्यांची माया आनी तांच्यो आवडी. दळिद्रांतलो स्वाभिमान, चवथीचे परबेची निकड, पसरकाराली वृत्ती, कुश्टाचीं कुच्छित्रीपणां ह्या सगळयांचें काळजाक भेदपी चित्र रेखाटलां.

दामोदर प्रथम पुरुशान कथा सांगता तेन्ना कथेक आगळीच गती येता. creative emotion क भरती येता. चवथ मनोवपाच्या मार्गांत आडमेळीं येतात तांकां लागून सावित्री आनी शंकरबाब हांच्या मनाक जो विलक्षण ताण पडटा तो वाडत रावता आनी निमाणें सुतकाची खबर अचकीत कळना फुडें शंकरबाबाक सूऽजाता. तशेंच वाचप्यांकूय बी.

" आंबो म्हगेलो " ही कथा घेवंया. खरें म्हळयार त्या आंब्या–झाडाचेर आनी ताच्या आंब्यांचेरय विनूचो अधिकार. कारण ताणेंच आंब्याचेर मोग केला. जोत्याचें सारें ताच्या मुळांत पुल्लां. नेमान थंय उदका तांबयो रकयला. थंय तो मुतला. तें झाड लागचें म्हुण ताणे कुवाडें केलां. गिराणा दिसा गिराणाचो भार आसतना नागडो रावन त्या झाडाचेर तीन फावटी बडी माल्ल्या. ताका तोरां लागतकच दिसाक पंदरा फावटीं तीं तोरां पळोवन तो धादोस जाला. सपनांतूय ताका त्या झाडाक लागिल्ले आंबे दिसल्यात. आजोळा आसतना आपल्या भावाकडेन तोरांची चवकशी केल्या आनी घरा येना फुडें आंब्याझाडाच्या खरखरीत आंगाक आपलो मोवमोव पोलो घांसला. भितरो आसुनूय रातिच्या वेळार, जेवतकच आंब्या मुळाकडेन वचून कितलेशेच फावटी फेरयो मारून आयला. आंब्याक लागून तो जेवण–खाण, खेळ बी सगळें विसल्ला. न्हिदेंत आसतना आंब्याचेर

सपनेलो. तशेंच जागेपणांत ताणे ताचेर सपनां रंगयल्यांत. जुवांव भाटकाराल्या आंब्याचीं तोरां फातरांवचीं न्हय म्हुण आवयन सांगतकच ताणे आपल्या आंब्याचो अदीक ध्यास घेतलो. इतलें सगळें करतकच विनूचो त्या आंब्याचेर अधिकार कित्याक नासतलो ? पुण अधिकार आसुनूय ताचो कसलोच अधिकार नाशिल्लेवरी ताचो बाबा वागलो. ताका विचारी नासतना, कळय नासतना बाबान कुचकुचीत आंबे लागिल्लें तें झाड एका भायल्या अनवळखी मनशाक रेंदाक दिलें आनी मागीर, एकदीस अकस्मात येवन झाडावयले सगळे जून आंबे ताणे काडून व्हेले. आनी कांय पडिल्लीं तोरां हाडून बल्कवांर विनू मुखार वोतलीं. तेन्ना विनू अनावर जावन ताका म्हणटा, "आमकां नाका तीं, तूंच व्हर, तूंच व्हर. सगळीं व्हर, सगळीं व्हर...." आनी तो हड्डें फुटून रडूंक लागता.

विनूचें अपार दुख्ख फकत ताचे आइकूच समजता आनी ती विनूक दोगांय भांवडां वांगडा आजोळा धाडटा. विनूचें दुख्ख आपणाच्यान पळोवं नज जातलें म्हुण.

एका भुरग्याच्या आनंदाचें आनी भितल्ल्या वेदनांचें हें चित्र खूब सोबीत जालां. दामोदर मावज्यान भुरग्यांचेर असल्योच कथा बरवच्यो.

'जीण अशीच सोंपचेली', 'आनी हांव परतलों' ह्यो दोन कथा सोडल्यो जाल्यार दामोदराच्या कथाविश्वांत सैमाचे दर्शन भोव थोडें घडटा. म्हाका जाय तें दर्शन. सैमाच्या वर्णनाच्यो कपयो गांठावन तयार केल्लें न्हय तर कथेच्या वातावरणांतूच भरशिल्लें; कितल्याशाच कथांनी ही उणीव भासता. हाचो अर्थूच असो कि दामोदराच्या मनांत सैमाक आसूंक जाय तितलो थारो ना; सैम आनी मनीस हांचे संबंद इतले लागिचे, कि कलेक बादा हाडल्या बगर ते तोडूंक येनात. सैमाक कुशीक दवल्लो जाल्यार मनशाची जीण निस्सत्व, निरस जाता. मोगांत सांपडलेल्या तरनाट्याची ओड चान्न्याकडेन, मळबाकडेन, दर्याकडेन आसप सभावीक न्हय ? कथेंत वर्णनां घुसडावप वेगळें आनी सैम हो कथेच्या वातावरणाचोच भाग जावन बसप वेगळें. सैम पात्राच्या पिंडांतल्यानूच वयर सरूंक जाय. तशें जाता तेन्ना रसरशीत सम वातावरणूय रसरशीत करता. ह्या बाबतींत दामोदरा परस पुंडलीक फुडें आसा. दामोदराक सैम आवडना अशें म्हणूंक गेल्यार, 'आनी हांव परतलों' हे कथेंत तो सैमाचें भव्य दर्शन घडयता. 'मरण येना

म्हुण ' हे कथेंतूय सैम येता. मागीर ज्या कथांनी सैमाची गरज आसता थंय तो कित्याक येवंक पावना ? हाचें कारण म्हाका दिसता, दामोदराचे क्रियेटीव्ह प्रक्रियेंत तो सैमाक विसरता. अशें जावंक फावो ना.

दामोदराच्यो कथा वाचून आनीक कांय गजाली म्हज्या मनामुखार उब्यो रावल्यो. त्यो अश्यो :—शणै गोंयबाबान गोंयचे अस्मितायेचो सोद पयलेच फावटी लायिल्लो. जियेवप म्हळ्यार अस्मिताय न्हय. आमी गोंयकार जियेताले पुण आमच्या कर्तुपाची, वेगळेपणाची जाण आसले बगर. शणै गोंयबाबान ही जाण हाडली. आमच्या वेगळेपणाची आनी व्हडपणाची जाग हाडली. आमचो पुरून गेल्लो आत्मो उस्तून वयर काडलो. पुण ही जाग कथा साइत्यांतल्यान साकार करूंक ते पावलेनात. वेगळयावेगळया मळांर कामां करचीं पडिल्ल्यान ललीत साइत्यांत ही जाग उतरावपाक तांकां उसरपत मेळ्ळीना जावंये; म्हाका दिसता, creative साइत्याक लागतात ते कांय गुण तांच्या आंगांत फावो त्या प्रमाणांत नाशिल्ले. तांचें कथासाइत्य वाचल्यार म्हजें म्हणणें सबुद्द वाचप्यांक पटूंक जाय. तांचे मागीरचे पिळगेन आपल्या काव्यांतल्यान आनी गद्यांतल्यान हे जागृतायेचो परतो सोद घेतलो. हाकाच हांव rediscovery म्हणटां. गद्य साइत्यांतल्यान रवीन्द्र केळेकारान आनी काव्यांतल्यान मनोहर सरदेसायान हे discovery क सुरवात केली. हेंच काम कथासाइत्यांतल्यान दामोदरान आनी पुंडलीक नायकान जाण बाळगून केलें. गोंयच्या cultural maturity चो हांकां थाव लागला. आनी ती साइत्यांत उतरावपाक जी व्यक्तिगत maturity जाय ती तांकां भुरगेपणांतूच लाभल्या. भूंयभाशेची cultural maturity कलाकारान आत्मसात करूंक जाय. व्यक्तिगत maturity पुरो जायना. कलाकारान आपलें आगळेपण राखूंक जाय, पोसूंक जाय. पुण आपल्या समाजा-कडेन, सैमाकडन, सांस्कृतीक परंपरेकडेन एकरूप जावन, गरज पडल्यार झगडून, अपूर्ण वास्तवतेचेर आपल्या आदर्शाचे संस्कार करून साइत्य निर्माण करूंक जाय. गोंयच्या मराठी लेखकांचें ह्या सत्याकडेन दुर्लक्ष जाल्ल्यान तांचें साइत्य तकलुपी जालां. हांगा प्रस्न भाशेचो ना. भास सुंदर आसुनूय साइत्य असुंदर जांव येता. तत्वां आनी सत्यां केंद्रीय मोटीं जावं. जिविताकडेन तांची फारकत जाली कि तीं abstract उरतात. आनी ललीत साइत्यांत प्राण घालूंक तीं अपुरीं पडटात. गोंयचे परंपरेक, भाशेक, भुंयेक ज्या लेखकांनी कुस्कुटायल्या

तांच्या साइत्याची अशी दुर्दशा जाल्या. देखून आपली प्रतिभा आनी गोंयची सांस्कृतीक महत्ता हांचो मिलाप घडोवन हाडुनूच नव्या लेखकांनी लिखणी हातांत घेवंक जाय. अशें जाले बगर रवीन्द्र केळेकार, मनोहर सरदेसाय, र. वि. पंडित, दामोदर मावजो, पुंडलीक नायक, हांचे सारके कलाकार जल्मा येनात.



## : ६ : कथा शिल्प

कांय दिसां फाटल्यान म्हाका एक भुरगो मेळूंक आयलो. बावीस–तेवीस वरसांचो जायत. हावें ताचें नांव गांव विचारून घेतलें आनी म्हळें, " कितें काम आशिल्लें ? "

तो पयलीं खाकुडलो, सांगूंक अनमनलो. थोडया वेळान आपली भिरांत चेपून ताणें म्हळें, " म्हाका बरयन दिसता. "

" मागीर बरय तर. "

" बरोवचे पयलीं, म्हळें, तुमकां विचारूंया. हांव लेखक जायन अशें तुमकां दिसल्यार बरोवंक लागतलों. लेखकाचे गूण आंगांत नासल्यार बरोवन कितें फायदो ? "

" तुका खऱ्यानींच बरयन दिसता मरे ? बोंबले पसून ? "

" हय. "

" तुजो घुस्मटमार जाता ? "

" हय ! "

" कसलो ? "

मागीर कांचवेत तो उलोवंक लागलो, " म्हाका एक भयण आसा, बत्तीस वरसांची— "

" लग्नाची रे ? "

" हय. ती बी. ए. जाल्या. आज धा वरसां नोकरी करता. म्हयन्याक सयशें रुपया मेळयता. "

" मागीर तिका अजून आंकवार कित्याक दवल्ल्या ? "

" बाबा लग्नाचें काना मनार घेना. "

" बाबा कितें म्हणटा ? "

" शांतीक लग्न केल्लें जाय. ताणें म्हाका आनी आईक तशें खूब फावटीं सांगलें. आईन बाबाक कळयलें. तर बाबा म्हणटा, ' करुंया फुडें '. खरें म्हळयार बाबाकूच तें लग्न जाल्लें नाका. "

" कित्याक रे ? "

" सयशें रुपया येतात न्हय घरांत ? बाबा आमचो पयशांचो लोभी. ताका लागून शांतीचें लग्न तो लांबणेर उडयता. शांतीची कुचमण जाल्या. पांच-स वरसां पयलीं तें बरें दिस. आतां तें बावलां. ताचें रूप विटलां. मनांत खेदता. सदांच ' किरकिर ' नाका म्हणून तेंय सोंसता. आईचो घुसमटमार चल्ला. "

" बाबा कितें करता रे ? "

" दुकान चलयता. "

" आनी तूं ? "

" हांव अंदू बी. अेस्. सी. करतां. बाबा म्हणटा म्हाका नोकरी लागतकच शांतीक आवयार करुंया. "

" आनी तूं कितें म्हणटा ? "

" म्हजो उतळताप चल्ला. म्हज्यान हें सोंसूं नज. बाबा वांगडा झगडूं नज. आईचें दुख्ख पळोवं नज. मन थाऱ्यार ना. अभ्यासाकडेन लक्ष लागना—"

ह्या भुरग्याचें दुख्ख म्हाका कळ्ळें. ताज्या मनांत उजो पेटला. हांवें म्हळें, " तूं बरोवंक सोदता मरे ? मागीर लाग बरोवंक, कळाव नाका. "

" कसल्या विशयाचेर बरोवं ? "

" ह्याच विशयाचेर. तुज्या घुस्मटमाराचेर. तूं लेखक जातलो. तुका दिसता, तूं सोंसता तें सगळें बरोवन काड. ल्हान व्हड प्रसंग बारकायेन बरोवन काड आनी म्हाका हाडून दाखय. "

तो भुरगो गेलो.

आज म्हाका त्या प्रसंगाची याद येता. मनांत अशें कितेंय घडल्या बगर लेखक जायना. कुटुंबांत, समाजांत, जगांत चल्लां तें बरें चल्लां अशें ज्याका दिसता ताणें बरोवपाच्या फंदांत पडचें न्हय. असमाधान, अस्वस्तताय, कलह ह्याच गजालींत कथेचें मूळ आसता. जगांतल्या मोटया मोटया कथाकारांचो होच

अणभव. कलहांची ( conflicts ) कारणां वेगळीं वेगळीं आसूं येतात. कांय जाणांक ल्हानपणांत आवयबापायचें भाग्य लाभिल्लें नासता. कसल्याय तरी वायटान कांय जाण पिडिल्ले आसतात. कांय जाणांचे जाणटेले कडक आनी कठोर आसतात. हाका लागून तांकां भुरगेपणांतूच मोन्यांनी खूप सोंसचें पडटा. कांय जाणांच्या वांट्याक दळिद्र आयिल्लें आसता. कांय जाणांक सोयऱ्याधायऱ्यांचे दयेचेर जियेवचें पडटा. असल्या वेगळया वेगळया कारणांक लागून भुरग्यांचीं मनां बावून वतात. ते सोंसतात पुण तांच्या मनांत दुख्खाचें रान पेट्टा. कलेक कोंमरी फुट्टा ती असल्या उज्यान. हो उजो, हें झूज करणेंतल्यान उकतें जायना तेन्ना उतरांतल्यान भायर येवंक पळेता. जाका ही 'अवस्ता' भोगता ताणें मनांत कसलोच दुबाव धरी नासतना समजुचें कि देवान आपणाक कलेचें वरदान दिवनूच ह्या संवसारांत धाडला.

जांच्या वांट्याक सुख, संपत आनी लोकीक खूब आयला ते लेखक जायनात व्हय ? जातात..पुण सगळेच न्हय. भौव थोडे. जे जातात ते भायल्यान सुखी दिसूं, पुणून मनांत ते सुखी नासतात. सगळीं लोकीक सुखां वांट्याक आयिल्लीं आसुनूय बी ते दुख्खीच उरतात. तांच्या दुख्खाचीं कारणां अर्थात्च वेगळीं आसतात. प्रेम प्रकरण हें एक कारण आसूं येता. विचारीक वा भावनीक संघर्ष दुसरें कारण आसूं येता. पांगळे, दळिद्री, चिड्डल्ले लोक पळोवन तांच्या दुख्खांत वांटेकारी जावन.कांय जाण आपल्या मनांत कलह निर्माण करतात. पयस आफिरकेक वा इंडोचायनांत लोकांचो जो संहार चलता तो पळोवन कांय जाणांचीं मनां दुख्खान खदखदतात. तात्पर्य, लोकीक सुख आनी स्वास्थ्य आसूं वा नासूं ताच्या मनांत दुख्ख खदखदूंक जाय. लेखक जावपाचें हें पयलें लक्षण आनी पयली अट. जांच्या मनांत हे तरेचें दुख्ख ना, हे तरेचो कलह ना तांणीं बरोवपाचे त्रास घेवचे न्हय. नांवाखातीर, किर्तीखातीर असलो उपद्व्याप केलोय जाल्यार तो अदीक काळ तिगपाचो ना. पुणून जांकां सोसूं नज इतली कलहाची झळ बादता ताणी अनमन नासतना बरोंवक लागचें.

नव्या कथाकारांक म्हाका आनिकय एक गजाल सांगपाची आसा. ताणीं संवसारांतलें बऱ्यांतलें बरें कथा साइत्य वाचचें, अभ्यासून पळोवचें. त्याबगर कथाकार व्हड जावंक पावचो ना. संवसारांतलें स्रेश्ट कथा साइत्य आमचे नदरेचो, मनाचो, आस्पाव व्हड करता, क्षितिजाचो विस्तार करता. आमी जितले वयर

चडटात तितलो न्ळबाचो आवाट वाडिल्लो आमकां दिश्टी पडटा. शास्वत कल्याणाचें तत्त्वगिन्यान आमकां संवसारांतल्या ह्या स्रेश्ट साइत्यांतल्यानूच मेळटलें. कित्याक, तसली जीण ते साइत्यिक जियेल्ले आसतात. व्यास, वाल्मिकी, टॉलस्टॉय, व्हिक्टर ह्यूगो, बाल्झाक, रोमाँरोलाँ आनीक हालिंचे मालरो, सार्त्र, कामू–खंयच्याय देशांतले व्हड साइत्यीक घेवन आमी तांचो अभ्यास केलो जाल्यार आमची प्रतिभा वाडटली, आमचें मनीसपण वाडटलें, भोंवतणच्या संवसाराकडेन पळोवपाची आमची नदर विस्तारतली. इतलेंच न्हय तर आमी एकाच बराबर सगळयाच आंगांनी आनी परिमाणांनी वाडटले.

कांय कथाकार प्रतिभेन वाडिल्ले दिसतात. मनीसपणान खिण्णटल्लेले आसतात. हो विसंवाद नव्या कथाकारांनी चुकोवंक जाय. खरें म्हळयार हें एक व्हडल्यांतलें व्हडलें अरिश्ट. तें टाळूंक जाय.

एक शिटकावणी दितां. नव्या कथाकारांनीं कल्पनेचेर सामकें थोडें आधारून रावचें. नाटय पुस्तकांत सोदचें न्हय, कल्पनेंतूय सोदचें न्हय. थंय तें मेळ्ळेंच जाल्यार तांकां तें पचोवंक येवचें ना. तें अडेचें जातलें. चालंत जिविताच्या ल्हान ल्हान गजालींतूच नाटय मेळटा. हें नाटय कथाकाराच्या भोंवतणी जें जिवीत पातळ्ळां तातुंतूच बारिकसाणेन, आस्तेन, मायेन ताणीं तें सोदून काडचें. खासा आपल्याच जिवितांत तांणीं तें सोदचें. मागीर तांकां सामान्यांत सामान्यां भायलें दिश्टी पडूंक लागतलें. देखीक, रस्त्याचे कडेक एक शेंबडें–लेंबडें, पिंजकरें आंगांचें घाल्लें भुरगें दिसतलें. ताका कोण राखिना; तें स्वताकूच राखता आनी लागसार खेळटल्या आपल्या धाकल्या भावाक राखता. ह्या दृश्यांत एक पुराय कथाविश्व दिश्टी पडटलें. आमचो शेजारी खूब जोडटा. घर भरून व्हांवता पुण दीस–रात तो आपले बायलेक चिपचिपायता. घरांतलीं सगळीं कांचवेतात. आमचोच बापूय मनान खूब बरो, मायेस्त, सज्जन. पुण आमच्या सुखाच्या बाबतींत जागरूक न्हय. हे सगळे विशय दिसतात सादे, किरकोळ. पुणून हातुंतूच केदो ड्रामा आसता ! दिसता त्या प्रसंगा परस दिसना ते भावनेंत, संवेदनेंत ड्रामा आसता. तो दिसना देखुनूच तो समजूंक आनी सांगूंक कठीण. हो सब्जेक्टिव्ह ड्रामा ऑब्जेक्टिव्ह करप हें कथाकाराचे प्रतिभेचें काम. खरी नड ती हीच. नवे बरोवपी विशय भायर सोदतात, पयस सोदूंक वतात, लागिंचे सोदिनात. विशय आमच्या म्हऱ्यांतूच पडल्यात. वाडयावयलीं मनशां, तांचीं झगडीं, तांचे राग-लोभ,

अज्ञान आनी दळदीर. हांणी निर्माण केल्लीं तांचीं दुख्खां....गिरेस्तकायेन केल्लो मनीसपणाचो संहार....भावा-भावा मजगतीं भाटाचे शिमे खातीर जातात तीं रणखेवां....घरचें एकूच शेत अन्यायी कायद्याक लागून दुसऱ्याकडेन गेलें जाल्यार अन्याय मोन्यानी सोंसपा इतली लाचारी–असले एक आनी दोन न्हय, घे म्हणून आमच्या गांवांत, वाड्यार, शेजरा विशय मेळटले. जाय ती आस्था, सहानुभूती आनी प्रेम. प्रमाबगर प्रेरणा ना. प्रेरणेबगर निर्मिती ना. आस्था ना थंय रस ना. रस ना जाल्यार सगळेंच निरस. म्हळयार अळणी, पिचपिचें. सुवार्थी रस— म्हळयार, निखट्या भोगाचो, निखट्या फायद्याचो, जिणेक जनावरी करता. सकल ओडून व्हरता. कळाकाराचो रस विकाराचे आनी भोगाचे जिणेक वयल्या पांवड्याचेर, विचाराच्या पांवड्याचेर व्हरता. विकारी जिणेक विचारांच्या पांवड्यार व्हरप हें ललीत साइत्याचें म्हत्वाचें काम.

कथाकाराक किर्तिची गरज आसताच. बरयल्लें छापून हाडप हातूंत वायट कांयच ना. उणाकपण तर निखालूस ना. छापल्या बगर लोकांक कळटलें कशें? बरोवपी बरयता तें कितेंय पुण सांगूंक आनी कोणाकूय पुण सांगूंक. स्वता संबंदिचीं आनी जगा संबंदिचीं कांय सत्यां उकतीं करूंक. इंग्रजींत हाका revelation म्हणटात. मुखार कोणूय नासत जाल्यार ह्या revelation क अर्थ उरना. बरोवप्याक वाचप्याची सहानुभूती आनी आदर हयो गजाली धीर आनी आधार दितात. त्याभायर वाचप्यांक जेन्ना आपलींच दुख्खां, आपलेच कलह बरोवप्याच्या साइत्यांत दिश्टी पडटात तेन्ना तांकां तीं दुख्खां आनी कलह सुसह्य दिसूंक लागतात. म्हणून बरोवप्याक वाचप्याचो आधार जायच.

पुण प्रसिद्धी वेगळी आनी जायरात वेगळी. प्रसिद्धी सभावीक आसता. हित करपी आसता. जायरातबाजी अडेची आनी मारक आसता. आपल्याच बरपाची आपणें वा दुसऱ्याक मुखार काडून, उलोवन वा बरोवन तुस्त करप, टिकाकारांनीं वा वाचप्यांनीं तुस्त केली ना जाल्यार सकयल वयर जावप, तांचेर आक्रस्ताळेपणान गुरगुरप; प्रसिद्धिचें प्लॅनिंग करप आनी तें मुखार व्हरपा-खातीर लटपटी, खटपटी वा कारस्थानां करप; हेर बरोवप्यांचो दुस्वास करप आनी हो सगळो प्रपंच करता आसतना असत्य आनी अनीत हांचो वापर करप हें साइत्यिकाचे स्वतंत्र निर्मितीक खूब बादिकार हाडटा. हयो सगळयो उचापती करपाच्या बोवाळांत तो आपलें मूळ उद्दिश्ट विसरता आनी प्रतिभेच्या पयल्या

फोवांत ताणें सुवेंक जें मोलादीक बरयल्लें ताच्याच बळग्यार तो मुखारूय जियेवंक पळेता. कित्याक, जायरातबाजिचे पिडेन ताचें मन ग्राशिल्लें आसता. तो आपलोच स्तुतीपाठक जाता. आनी आपल्या बऱ्या मागत्याक आनी इश्टांक ह्या चाकांत ओडटा. आनी दुसऱ्यांचो इश्ट जांवच्या जाग्यार तांचो दुस्मान जावन बसता. मागीर आपल्या येदो मोटो साइत्याच्या मळार दुसरो कोण आसूंक फावोना अशे तरेन तो चलूंक लागता. तो शिटूक आनी हुशार आसत जाल्यार ताका नांव मेळटाच. पुणून तें मेळयता आसतनाच साइत्यिकाक खूब गरजेचें जें मनीस-पण तेंच तो होगडावन बसता. नव्या बरोवप्यांनीं हो भंय लक्षांत दवरूंक जाय.

आनीक एक भंय आसा. तो आतां सांगला ताच्या इतलो घातकी न्हय. पुण तो साइत्यिकाचे वाडीक बादा हाडटा. हो भंय अहंकाराचो. जाका प्रतिभेचें वरदान मेळ्ळां ताकाच हो भंय अदीक. चार बऱ्यो कथा बरयल्यो, लोकांनीं ताच्या कथांची आनी ताची तुस्त केली, एक दोन तसरिपो मेळ्ळ्यो म्हणटकच 'ग' चे पिडेन ताची तकली घुंवक लागता. दुसऱ्या बरोवप्यांक किंकोत लेखपाची ताका संवंय जाता. लोक आपली फाबो ती तुस्त करिना अशें येवजून तो मारकुरो जाता. बाकिच्यां परस हांव व्हड, हांव वेगळो ही भावना ताका नकळटां ताच्या मनांत मूळ धरता, आनी ती वाडीक लागता. हे पिडेचें एक लक्षण अशें कि हांव बरयतां तें बरें, तातूंत अवगुण वा दोश नात असो तो समज करून घेता आनी हे भशेन निर्मितिच्या मार्गांत आपूण जावन एक वणत उबारता.

आनी एक दीस तेंच वणटिचेर ताचो कपाळमोक्ष जाता.

मनाशाची जीण केदी विशाळ, कितली गूढ, कितली गाढ; तिचो सोद घेत तितलो थोडो हाचें हया साइत्यिकाक भान उरना. आपल्याच मळार केदे व्हड तपस्वी जावन गेल्यात ( आनी आसात ) हाची तो जाण बाळगिना. हाका लागून आंगांत गूण आसुनूय बी तो थोडयाच तेपांत एक किरकोळ बरपी जावन पडटा.

अभिमान जाय. पुण अहंकार नाका. देवान आपणाक प्रतिभा दिल्या ती देवाची एक व्हडली कृपा, व्हडली देणगी. आपले भावबंद ज्या पांवडयार आसात थंयचे तांकां वयर काडपाचें काम देवान आपणाचेर सोपयलां ही भावना जागृत दवरप वेगळें. तिचो अभिमान आसचो पुण अहंकार जावंक दिवंचो न्हय. कित्याक, अहंकार जल्म दिता मस्तेक आनी मदाक. आनी ही मस्ती आनी मद साइत्यि-काक भितल्ल्यान पोखरता. जो साइत्यीक वाडटा आसतनाच आपणाक ल्हान

समजता तोच एक दीस म्हान जाता. जो ल्हान ' जाता ' तोच ल्हानांचीं सुखां-दुख्खां समजूंक पावता. देखून जण एका नव्या बरप्यान ल्हान जावपाचो यत्न करचो.

सत्या आनी संपत हांचो हावेस साइत्यिकांनीं बाळगुंचो न्हय. साइत्य निर्मितीक वेगळे तरेचें मन लागता. वेगळे तरेची मनोधारणा लागता. सत्या आनी संपत्तिचो लोभी जालो म्हणटकूच साइत्यिकाची निर्मिती दुबळी जाता. प्रतिभावंत साइत्यिकाक संपत्तिचो मोह जावप सभावीक. कित्याक, वेव्हारांत लोक संपत आशिल्ल्याकूच माथ्यार घेतात. त्या मानान साइत्यिकाच्या वांटयाक भोव थोडें येता. उरफाटी येता ती उपेक्षा. हे उपेक्षेक उबगून कांय बरे साइत्यीक सत्त्य आनी संपत्ती हांच्या जाळयांत आपणाक घुसपावन घेतात आनी थंयच घुसपून उरतात. मागीर आमी साइत्यीक आशिल्ले हें लेगीत विसरतात. सत्या, संपत पचोवपाची ताकद ज्या साइत्यिकांच्या आंगांत आसा तांणीं त्या जाळयांत पडूंक अडचण ना. कित्याक ह्या अणभवाचोय तांचे साइत्य निर्मितीक उपेग जांव येता. पुण अशी तांक खुबूच थोडया लोकांत आसता. आसक्ती पसून जो साइत्यीक मेकळो जाला ताच्यांतूच हें दिव्य करपाची तांक आसता. नेहरू, मुन्शी असलीं कांय उदाहरणां आमच्या भारतांत पळोवंक मेळटात. येवरोप, अमेरिकेंतूय पळोवंक मेळटात. देखीक जर्मन भाशेंतलो म्हाकवी गटे फ्रेडरिक राजाचो प्रधान-मंत्री आशिल्लो. फ्रेंच भाशेंतलो एक व्हड नवलकथाकार आंद्रे मालरो हो डिगॉलाच्या सरकारांत शिक्षणमंत्री आशिल्लो. पुणून लक्षांत धरूंक जाय कि साइत्यिकाचें हें लोकीक यश पळोवन ताच्या साइत्याचो कस लावंक येना. लोकीक यश साइत्याचो खरो कस न्हय. लोकीक नदरेन जो दळदिरो असल्या साइत्यिकाचें साइत्य ऊंच पावंडयाचें आसूं येता. साइत्यिकान उलाढाली करच्यो त्यो वेगळे तरेच्यो. लोकसेवेच्यो करच्यो. त्यो करता आसतना ताचो लोकांकडेन लागिंचो संबंद येता. साइत्यिकान पुस्तकांतलो किडो जावंक फावोना. तसोच लोकांपसून ताणें पयसूय रावंक फावो ना. विशयाचें चिंतन करता आसतना वा बरोवपा वेळार तो लोकांपसून खंयूय पयस रानांत वचून रावलो जाल्यार उपकारता. पुण समाजाचें खरें दर्शन घडपा खातीर आनी ताका आपल्या आंतरिक विश्वांत आसपावन घेवपा खातीर वेव्हाराच्या पांवडयार ताका देवचेंच पडटा. म्हळयार लोकांत भरसुचेंच पडटा. आपले तांकी प्रमाण लोकांचें हित

सादता आसतनाच तागेलें खरेलें विश्व उकतें जाता. साइत्याचें मूळ द्रव्य ताका थंय मेळटा. इतलेंच न्हय तर ताची प्रेरणाय ताका थंयच मेळटा. त्रयस्ताचे तटस्थ भूमिकेंत पयस कुशीक बसून तेजस्वी साइत्य बरोवंक येना.

व्यक्तिचे भायले भितल्ले जिणेचें दर्शन घडोवप हें ललीत साइत्याचें काम. स्थळ, काळ, इतिहास, संस्कृताय, धर्म, परंपरा असल्या जायत्या संस्कारांचें फळ म्हळयार व्यक्ती. देखून संवसारांतलें खंयचेंय साइत्य, जांव पोन्नें जांव नवें, प्रादेशिकूच आसता. प्रादेशिकताय नाशिल्लें साइत्य संवसारांत नाच म्हळयार जाता. रामायण, म्हाभारता सारक्या पोरण्या साइत्यांत लेगीत प्रादेशिकताय दिश्टी पडटा. टॉल्स्टॉय, गोर्की, मोपासाँ, चेकोव्ह हांच्या कथा साइत्यांत जाल्यार प्रादेशिकताय रसरसता, प्रादेशिकतायेचें हें वेगळेपण हो कथासाइत्याचो sine qua non–गूण. प्रादेशिकताये बगर कथा साइत्य आसूंच नज. जे मेरेन पुराय संवसाराची भास एक जावंक ना, सगळया मनशांचो धर्म एक जावंक ना, सगळयांचो सभाव एक जावंक ना, रंग, रूप, आकार एक जावंक नात. सगळें सैम एके तरेचें जावंक ना तेमेरेन ललीत साइत्य प्रादेशिकूच उरतलें. ज्या दिसा हें अगणीत वेगळेपण ना जातलें त्या दिसा ललीत साइत्यूय संवसारांतलें न जातलें. म्हळयार अशें कि हें वेगळेपण होच ललीत साइत्याचो प्राण. हो प्राण जो कथाकार खोलायेन आनी तिव्रतायेन दिता तोच कथाकार व्हडलो. पर्ल बक, सॉमरसेट मॉम, मालरो बी बरोवपी जेन्ना आपले देश सोडून भायल्या देशांतल्या लोकांचे जिणेचेर बरयतात तेन्ना ते ते जिणेचें वेगळेपण आनी आगळेपणूच दाखयतात. गोंयकाराचे जिणेच्या दर्शनांत ताचें गोंयकारपण दिसुंकूच जाय. तें दिसना जाल्यार तो दोश त्या साइत्यिकाचो. होच न्याय सगळया प्रदेशांतल्या आनी देशांतल्या साइत्यिकांक लागू जाता. प्रादेशिक वेगळेपण समजून घेवपाची आनी तें उकतावन दाखोवपाची ताकद साइत्यिकांत आसूंक जाय. तेच भशेन विश्वात्मक ( universal ) अशें जें कितें जिवितांत आसा तेंय समजून घेवपाची आनी उकतावन दाखोवपाची शक्त ताच्यांत आसूंक जाय. म्हळयार अशें, साइत्यांत प्रादेशीक वेगळेपणूय आसूंक जाय आनी विश्वात्मक तत्त्वूय आसूंक जाय. वेगळे वेगळे कडलीं मनशां-भाशेन, भेसान, रुपान, रंगान वेगळीं वेगळीं दिसलीं तरूय सगळयांचे मुळावे गूण आनी अवगूण एकेच तरेचे आसतात. मोग, माया, दया, क्षमा, साहस, वात्सल्य तशेंच तिडक, दुस्वास, मत्सर सगळयांचे

सारके. श्रेयाच्या आनी प्रेयाच्या कलहांत मनशाची जीण उकती जायत वता तेन्ना जें कितें मुळावें universal आसता तें आपशींच वयर सरता. साइत्यांत तें येवंक जाय. प्रादेशिकताय आनी विश्वात्मकता हांचे मजगतीं विरोध आसा अशें समजप अजाणपणाचें लक्षण. जें खरें प्रादेशीक तेंच विश्वात्मक. कित्याक, हें विश्वात्मक उकतें जाताच प्रादेशीक मनशांतल्यान, समाजांतल्यान आनी सैमांतल्यान. मनशाच्या मुळाव्या गुणांचो आनी सभावाचो कलाकाराक थाव लागल्याबगर ताच्या साइत्यांत विश्वात्मक तत्त्व येना. तें येवचें जाल्यार ताणें आपलें मन विश्वात्मक पांवडयाचेर हाडूंक जाय. हें काम भोव कठीण. पुण विश्वात्मक साइत्य पयलें प्रादेशिकूच आसूंक जाय. कोंकणिच्या नव्या कथाकारांक हें सत्य कळ्ळां. तांणीं आपली प्रेरणा प्रादेशिकतायेंतल्यानूच घेतल्या. ती तांणीं घेवंक नाशिल्ली जाल्यार आमकां दामोद्र, पुंडलीक, मीना, शीला हांचे सारके एकाच वांगडा प्रादेशीक आनी विश्वात्मक कथाकार मेळचे नाशिल्ले.

विश्वात्मक जावपाक सगळें जग भोंवपाची गरज ना. प्रादेशिकूच न्हय तर ग्रामीण जावनूय विश्वात्मक जावं येता. एकाच गांवच्या सुख–दुखांत प्रतिभावंत कथाकार बुडून गेलो जाल्यार ताचें कथा साइत्य विश्वात्मक जावं येता. जाय ती प्रतिभा. सहानुभूती, करुणा ह्या गुणांच्या मालवजार जें vision येता ताच्या आधारान केदेय ल्हान भाशेंतलो साइत्यीक आपल्या ल्हान प्रदेशांतल्या सैमाचें आनी समाजाचें दर्शन घडोवन व्हड जावं येता.

चार पुरुशार्थां भितल्लो एक पुरुशार्थ ‘ काम ’. हिन्दुधर्मान ताका कांय मेथा घाल्यात. त्यो हुंपल्यार ताका निंद्य मानतात. पुणून काम स्थीर आनी चर आसपावन बसला. सनातन काळासावन संवसारांत ताणें खूब धोंस घाल्या. देव–दानवाच्या काळांत तशींच मनशाच्या काळांत कामाक लागून झुजांय जाल्यांत. आत्महत्या, खून एकासारके घडत आयल्यात. मनीस वेव्हारांत ताचो थातोमातो करता आनी साइत्यांत मात् ताचें आफुडभश्ट मानता. असो हो व्हडल्या-व्हडल्यांक उचांबळीत आनी ढोंगी करपी काम ऊंच पावंडयाच्या साइत्याचो विशय जाला. ईश्वरा भशेनूच ताका अनंत रुपां. सर्गांतले रंभे भशेन तो मोहक. तो सीता सावित्री सारक्या पंचकन्येंत वावुरता तेन्ना भावार्थी लोक ताची पुजा करतात. क्लॅओपात्रा सारके स्वैर सुंदरींत तो धुमशेणां कांडटा तेन्ना हेच लोक ताची निंदा करतात. तो भावनात्मक आसता तेन्ना संथ, शांत, उदात्त जाता. वासनात्मक

जाता तेन्ना तो डॉं जुआन जावन पतिव्रता बायलांचो कर्दनकाळ जाता. तेन्ना समाज ताका भियेता, थरथरता. परत, ह्या ‘ प्रेमा ’क अनंत रुपां आसात. समाजान ताची तोखणाय करूं वा अखटाय करूं, साइत्यकार मात ताचो–ताच्या बऱ्या, वायट, सौम्य, रुद्र सगळ्या रुपांचो रुचीन लाव घेता. इतलेंच न्हय तर ताचे-पसून प्रेरणाय घेता. धर्मिश्टांनी जाका सदांच हिणसायला आनी वेव्हारी मनशांनीं एकाच तोंडान ताची स्तुती निंद्रा केल्या ( आनी हातांनी ताका वेंगायला आनी पांयांनी खोंटायला ) तो अनंत रुपांचो काम संवसारांतल्या सगळ्या व्हड कला-कारांनी मायेन सांसपिला. देखुनूच संवसारातले व्हड साइत्यकार ताचे भोंवतणी फेर धरून नाचिल्ले दिश्टी पडटात. प्रेम सात्वीक जावं, तामसीक जावं, धर्म जावं, अधर्म जावं ताच्यो सगळ्यो परी व्हड साइत्यकारांनीं आपापल्या तांकीप्रमाण रंगयाल्यात आनी केळयल्यात. महाभारतापसून हें चलत आयलां. व्यास हो एक व्हडांतलो व्हड महर्षि. पुण तोय कवी जातकूच शर्मिश्ठा ययातीच्या प्रेमांत व्हांवक लागता. कालिदास जाल्यार प्रेमान सामको थपथपला. टॉलस्टॉय हो आर्विल्ले मुस्तींतलो एक व्हड रुशी. पुण एके सज्जन बायलेच्या पतनांत रंगून ताणें ‘ आना कारेनीन ’ ही व्हड नवलकथा बरयली. गटे हो महाकवी. ताणे ‘ व्हेर्दर’ हे नवलकथेंत एकनिश्ठ प्रेमाचे हुलपावपी शक्तिचें दर्शन घडयलां. फ्लॉबॅरान ‘ मादाम बोव्हारीक ’ अजरंवर केली ती ह्याच ‘ कामा ’ची अंतपार नाशिल्ली शक्ति दाखोवपाची संद घेवन. थोडया उतरांनीं सांगपाचें म्हळयार संवसारांतल्या व्हड पांवडयाच्या साइत्यान प्रेमांत आनी कामांत जल्म घेतला. हाचें कारण : कामा इतली बळिश्ट, सुंदर, सर्वव्यापी शक्त दुसरी ना हेंच. व्हड कलाकाराक ती स्फुर्त दिता आनी तिगयता. कामविकाराच्या हुंवारांत व्हावन वचून नाच जाल्ल्या प्रेमिकाक साइत्यकारांनीं व्हडपण हाडून अजरंवर केल्यात. असल्या ह्या विशया-चेर आमच्या तरण्या कोंकणी साइत्यकारांनीं बरोवचें न्हय अशें कोण म्हणत ? मनशाक असहाय करून ताचेर आगळीक करतल्या ‘ कामा ’चे दर्शन घडोवन ताणीं प्रतिभेक आनी मनाक मुजरत धार हाडची. आनी आपल्या कथांचो पांवडो वयर व्हरचो. तरण्या कथाकारांनीं कामाचेर बरोवचें न्हय जाल्यार कोणें निःसत्त्व जाल्ल्या म्हाताऱ्यांनीं बरोवचें ? मराठी साइत्यांत एक काळ असो आइल्लो कि जेन्ना धर्मा भायल्या प्रेमाक निशिद्ध मानताले. ललीत साइत्य सवळे दवरपाचो समाज येत्न करतालो. ‘ कल्पवृक्षाच्या छायेंत ’ हो म्हजो पयलो कथा-

संग्रह. तातूंत वेश्यांचे दारूण स्थितीचेर हांवें बरयल्ल्यो कांय कथा आसात. कथांचो हेतू सामको नितिचो. तरी आसतना कांय गोंयकारांक ह्यो कथा अश्लील दिसल्यो. इतलेंच न्हय तर म्हापशेंच्या गोमंतक मराठी साइत्य सम्मेलनांत तांणीं तांचो ( म्हळयार म्हजो ) निशेध करून थाराव पास केले. अजुनूय असले लोक आमच्या समाजांत आसात. नव्या कथाकारांनीं तांची पर्वा करची न्हय. बरयत रावचें. कथेक कसलोच विशय वर्ज्य ना. दुसरो चित्रकाराक ना. निर्मळ, शुद्ध प्रेमापासून बलात्कार व्यभिचार मेरेनच्या कामाच्या सगळया रुपांचेर मेकळे-पणान बरोवं येता, बरोवचें. संवसारांतल्या व्हड कथाकारांनीं हेच केलां पुण—

एक गजाल विसरूंक जायना ती ही :

ल्हान भुरगें मेळटा तें खावंक सोदता. कितें खावंचें, कितलें खांवचें, केन्ना खावंचें हाचो ताका सुमार नासता. हो 'सुमार' भुरग्याचे आवयक आसता. हीच गजाल वाचप्याची. तो मेळटा तें खाता. पचूं वा ना पचूं. पचप म्हळयार बुद्धीक पचप, मनाक पचप; इन्द्रियांक न्हय. वाचप्याचें निखटें रंजन करप हें खऱ्या साइत्याचें उद्दिश्ट न्हय. रंजन करता आसतना तांचें मन व्हड करप, विशाळ करप, ताका उजवाड दिवप हें ताचें उद्दिश्ट. सौंदर्याचे व्याख्ये संबंदान दोन मतां आसूं येतात. पुण खरें ललीत साइत्य मनीसपणाक पोसता आनी जाग-यता ह्या मुद्याचेर वाद आसूं नज. देखुनूच लैंगिक पतनाचेर ज्या व्हड कथा-कारांनीं बरयलां ताणीं पतनाचो पाखो घेवंक ना, ताचो पुरस्कार करूंक ना. तसो सूर लेगीत तांणीं काडूंक ना. उरफाटें, त्या साइत्याच्या वाचनान पतनाविशीं हळहळ उत्पन्न केल्या. नागडे कुडिचीं, संभोगाचीं वर्णनां लेगीत अशे चतुरायेन केल्यांत कि वाचप्याचें लक्ष मुख्य उद्दिश्टा कडेन उरता. कामविकाराचें वर्णन हें मूळ उद्दिश्टाक पूरक आसूंक जाय; मारक न्हय. कथाकारान पतनांत रंगप आनी ताच्या भडक वर्णनान वाचप्याक रमवप हें कथाकाराच्या मिशनाक मारक. कित्याक, ते एका दुश्ट चक्रांत घुसपतात आनी आपल्या दुबळेपणाचें समर्थन करपाक एके फिलोसॉफिचो आलासरो घेतात. ते म्हणटात : "वास्तवता जशी आसा तशीच हांव रंगयता. वास्तवताच भडक कामविकारान भरिल्ली आसत जाल्यार म्हजो निरुपाय."

ही फिलोसॉफी तकलुपी, घातमारी. कथाकाराकूच मारक. हे फिलोसॉफिचो आलासरो घेवपी कथाकार सदांच किरकोळ रावंक सोदता जायत जाल्यार म्हाका

कांयच म्हणपाचें ना. पुण ताका भव्यतायेच्या वयल्या पावंड्याचेर चडपाचें आसा जायत जाल्यार ताणें लक्षांत दवरूंक जाय, कि ही फिलोसॉफी ताका सकयल ओडटली. वयर चडूंक दिवची ना. दुसरें, ही फिलोसॉफी अर्दकुटी. वास्तवतायेचें जशा तशें चित्रण म्हळयार कला न्हय. तिच्या जाय तितल्याच भागाचे कथाकारान आपल्या निर्मात्या व्यक्तित्वा उदेशीं काडिल्लें चित्र ही खरी कला. ह्या चित्राक आशय आसता. हेतू आसता. कथाकारान हें सत्य विसरचें न्हय. जाका देवान प्रतिभा दिल्या ताच्या आंगार एक व्हडली जपसालदारकी येवन पडटा. मनशाक वयर काडपाची. कांय पातकां दळदिरांतल्यान उप्रासतात. तांतलीं कांय लैंगीक आसतात. तीं ना जावंचीं, निदान उणी जावंचीं म्हुण कथाकारान त्या विशयाचेर बरोवचें. प्रतिभावंत साइत्यिकाक कांय मुल्यां मानचीं पडटात. तीं ह्याच खातीर. असलीं मुल्यां ताचे नदरे मुखार नासतीत जाल्यार तो लैंगिक विशयाचेर बरयता आसतना खंयचे खंय व्हावन वतलो आनी आपणा वांगडा वाचप्यांकूय बुडयतलो.

कथेक खंयचोच विशय वर्ज्य ना. पतिव्रतेच्या चित्रणा इतलेंच पतितेचें चित्रण कथाकारान करचें. इंद्रियांचें दमन करून सर्वसंगपरित्यागी जाल्ल्या मुक्त मनशा इतलेंच इंद्रिय भोगांत रमून गेल्ल्या आसक्त मनशाचें चित्रूय ताणें अन-मन नासतना काडचें. पुण वास्तवतेकडेन प्रामाणीक रावतलो जाल्यार जी वास्तवताय दिश्टी पडना तिचेकडेन दुर्लक्ष करचें न्हय. कामविकारान विकृत जाल्ल्या मनशाच्या चाळयांचें वर्णन करचें. पुण तें करता आसतना विकृती ही विकृती हें मात विसरचें न्हय. विकृतीक निकोप मानचें न्हय. कांय अर्दुकुटे पिशांतूर जुवान कामविकाराच्या झटक्यान बलात्कार करतात. त्या बलात्काराचेंय वर्णन करचें. पुण हें करता आसतना बलात्कार हो बलात्कार हें विसरचें न्हय. ते करतल्याचें अर्दुकुटेपण नदरे आड करचें न्हय. वाचप्याक अशें दिसूंक फावोना कि जो बलात्कार करता तो नॉर्मल मनस्थितींतल्यान करता. वेश्येच्या भोगी आयुश्याची वर्णना करता आसतना तिच्या उत्तांग क्रीडांचें वर्णन करपाची मेकळीक कथाकाराक आसूंक जाय. पुण वेश्या ही पतिता, सामाजीक अन्यायाक बळी पडिल्ली एक अगतीक बायल हो आशय मात त्या सगळ्या चित्रणांतल्यान उकतो जावंक जाय. आनी ताणें वाचप्याच्या काळजाचो थाव घेवंक जाय. एके घरंदाज बायलेचें स्खलन चित्रीत करचें जाल्यार त्या स्खलनाची सामाजीक, आर्थीक जीं कारणां आसात तीं कथाकारान सोदून काडूंक जाय. आनी खंयच्या कारणाक

लागून हें स्खलन जालें तें सूचकतायेन दाखोवँक जाय. ही सामाजिकतेची, सनातन नैतिकतेची आनी कल्याणाची जाण कथाकाराक सदांच आसूंक जाय. ताचें व्हडपण हांगांच आसा. हें vision जाका ना तो वास्तवतेच्या वयल्या थरारूच उतरांची कसरत करतलो आनी समाधान मानून घेतलो. पुण मागीर तो सदांचोच थंयच उरतलो.

☙ ☙

# जाग प्रकाशन

वेव्हारांतली नीत वा अनीत कथाकाराक लागना. वेव्हारांतली नीत बदलत आसता. ती संकेताचेर आधाल्लेली आसता. धर्मशास्त्र हो तिचो मूळ आधार. धर्मशास्त्र हें दादल्यांनी रचलां. बायलांक आपल्या परस सकयल्या पांवडयाची सुवात दिवन. पन्नास वरसां पयलीं खंयचीय विधवा लग्न जायत जाल्यार लोक ह्या लग्नाक अनितिचें लेखताले. पतिव्रता बायलेन घोव मेल्या उपरांत सती वचप ही करणी त्याय आदीं लोक नितिची मानताले. आयज काळ बदल्ला. देखून आदल्या काळांतली अनीत आयज नीत थल्ल्या. आदल्या काळार चले–भुरग्या वांगडा उलोवपी चली टिटटिटी थरताली. आयची कॉलेज कुमारी शें शंबर भुरग्यां वांगडा मेकळेपणान उलयता, भोंवता. आनी आवय-बापूय तिचीं कवतुकां करता. र. धों. कर्वे संततिनियमनाचो प्रचार करतालो म्हुण नितभायलो थरिल्लो. बावडो उपेक्षीत मेलो. आयज भारत सरकार कोटयांनी रुपये खर्चिता आनी संतती–नियमनाचो प्रचार करता. आतां सांगात, खरी नीत खंयची? आदली काय आयची? कथाकार रूढ नितीक मानिना–लेखिना. जो कथाकार ही रूढ नीत मानता ताचें साइत्य उथळ आनी पोरकट जाता. कथाकाराक सगळया विशयांचेर बरोवचें पडटा. कलाकाराक एक नीत लागता. ती चिरंतन नीत मनीस-कुळयेच्या कल्याणाची. संवसारांतल्या बऱ्यांतल्या बऱ्या साइत्यांत आसता ती. ही नीत आनी सांकेतीक नीत हांचे मदीं सदांच एक Conflict उरता. देखून जो कलाकार सांकेतीक नितिच्या आड उबो आसत ताचेर समाज बहिश्कार घालता. ताका धोंसता, ताळा छळटा आनी तो मरतकूच मागीर ताचीच तुस्त गायता.

मोल रु. ६-००